# दोंगराचे आवंडे

(कथासंग्रह)

भालचंद्र गांवकार

मित्र प्रकाशन
२००३

दोंगराचे आवंडे
(कथासंग्रह)
भालचंद्र गांवकार

*Dongrache Avonde*
*(A collection of short stories)*
***by Bhalchandra Gaonkar***

प्रकाशन क्र. : १८

***Publication No.*** *: 18*

पयली आवृत्ती : २००३

***First Edition :*** *2003*



छापपी :
लॅट्राकॉम प्रिन्टर्स
बाजारमळ, फोंडा - गोंय
फोन : २३१४२४२

***Printer :***
*Lettra Com Printers*
*Bazarmol, Ponda - Goa.*
*Phone : 2314242*

मुखचित्र :
श्रीधर कामत बांबोळकार

***Cover :***
*Shridhar Kamat Bambolkar*

प्रकाशक :
सौ. मनुजा भा. गांवकार
मित्र प्रकाशन
किटोलें, बेतोडें - फोंडें,
गोंय - ४०३ ४०९
फोन : २३३०३८५

***Publisher :***
*Ms. Manuja B. Gaonkar*
*Mitra Prakashan*
*Quitolem, Betora, Ponda,*
*Goa - 403 409*
*Phone : 2330385*

मोल : रु. १००/-

*Price : Rs. 100/-*

ISBN 81 - 88202 - 05 - 3

गुरूवर्य

**डॉ मनोहरराय सरदेसाय**

हांकां

नमळायेन

- भालचंद्र

**भालचंद्र गांवकार हांचो साहित्यीक वावर**

१. **आडवणांतले उले** (१९९१)
(कविता संग्रह) कोंकणी भाशा मंडळ पुरस्कार

२. **कोंकणी भाशाविज्ञान** (१९९३)
(भासशास्त्र) गोंय विद्यापीठाच्या बी.ए. आनी एम्.ए.च्या अभ्यासक्रमांत संदर्भ ग्रंथ म्हूण मान्यताय.

३. **साहित्य** : एक भासाभास (१९९८)
(साहित्य शास्त्र) गोंय विद्यापीठाच्या बी.ए.च्या अभ्यासक्रमात संदर्भग्रंथ म्हूण मान्यताय.

४. **अंदल्ले उरवास** (२००१)
(कथासंग्रह) कोंकणी भाशा मंडळ पुरस्कार

५. **यादींचे देगेर** (२००१)
(कविता संग्रह) कला अकादमी राज्य पुरस्कार

६. **दोंगराचे आवंडे** (२००३)
(कथासंग्रह)

# मनांतलें

'दोंगराचे आवंडे' हो म्हजो नवो कथांझेलो उजवाडाक येता देखून काळजांत थावन खुशालकाय भोगता. बरोवन तयार जाल्लें साहित्य पुस्तकरूपान जेन्ना उजवाडाक येता तेन्ना बरोवप्याक आनीक बरोवपाची उर्बा मेळटा. पूण बरोवन जाल्लें तशें पडून उरलें जाल्यार बरोवप्याक आनीक बरोवपाची उर्बा फावो तितल्या प्रमाणांत मेळना. हे गजालीचो अणभव हांवें स्वता घेतला.

कथेभशेन हांव कविताय बरयतां. जायत्यो उत्कट गजाली कवितेंतल्यांन प्रभावीपणान सांगपाक मेळटात. पूण कविता येता तो खीण जर हाताभायर गेलो जाल्यार कविता लागीं रावना. ज्या खिणांत कविता येता त्या खिणाक ती बरोवन काडची पडटा असो म्हजो अणभव. त्या भायर जायत्यो विस्तृत गजाली कवितेंतल्यांन मांडपाक मेळनांत. तेन्ना म्हाकां कथा वा निबंदाचो आदार घेंवचो पडटा. एक फावट कथेचें बीज मेळ्ळें म्हण्टकीत, तें बीज उगडास दवरल्यार उपरांत कितल्याय दिसांनीं कथा बरोंवक जाता. कवितेचें तशें जांयना. कवितेक एक मूड जाय पडटा. त्या मुडांत ती बरोवन जाली जाल्यार जाता. ना जाल्यार आयिल्ली कविता सासणाची हाताभायरूय वचपाक शकता.

कथाकार जेन्ना कथा बरयता तेन्ना तो निखटी कथा सांगना. जाल्यार कथेचो आदार घेवन तो आनीक कितें तरी सांगपाक सोदता. तेन्ना मुखेल कथा ही फक्कत एक निमित आसता. आमगेल्या दिसपट्ट्या जिवितांत जायत्यो गजाली घडटात. तांतुतल्यो कांय वास्तव कथाय जांवक शकतात. पूण कथाकार जेन्ना एखाद्री गजाल सांगता तेन्ना ती शंबर टक्के वास्तव आसनां. जाल्यार ती गजाल सांगता आसताना कथाकार वास्तवाचो कलात्मक रितीन वापर करता. अशें करता आसताना जायत्यो अशक्य गजालीय ताका शक्य करून दाखोवच्यो पडटात.

बरोवप्यान फक्कत बरयत रावचें. आपणें बरयलां तें सगल्यांक मानवलेंच ह्या भ्रमांत बरोवप्यान रावचें न्हय. बरयलां तें बरें वा वायट तें वाचप्यांनीं कसाक लावन पळोवचें. हांव ह्या मताचो. बरोवप्यामदींच समीक्षक आसता. पूण हो समीक्षक जितलो वगी रावत तितलें बरोवप्याक बरें. जायते फावट बरोवप्यामदलो समीक्षक बरोवप्याक काबार करता. हाका लागून हांवेन समीक्षेचो प्रांत सोडून

दिला. तशें पळोंवक गेल्यार खंयचोच बरोवपी परिपूर्ण नासता. फक्कत आपणाले दोश आपणाक दिश्टी पडनांत हाका लागून आपणें कितें बरयलां तें जण एकट्याक उजवें कशें दिसता. बरोवपी बरयता तें सगलेंच काळाच्या प्रवाहांत तिगून उरताच अशें ना. चडशें सांडटाच म्हळ्यार अतिताय जांवची ना. पूण तांतूत थोडेंतरी तिगून उरलें जाल्यार बरोवप्याचे यत्न फळादीक जाले अशें मानूं येता.

ह्या कथासंग्रहांत हांवेन फक्कत सतरा कथा आस्पावन घेतल्यात. सगल्याच कथांचे विशय वेग - वेगळे आसात. कथा बरोवपाचो एक प्रयोग म्हूण हांव कथा बरोवपाक लागलों. 'अंदल्ले उस्वास' हो म्हजो पयलो कथांझेलो २००१ वर्सा उजवाडाक आयिल्लो. तातुंतल्यो कथा १९८५ ते १९९० ह्या पांच वर्सांच्या काळांत बरयल्ल्यो. जाल्यार ह्या संग्रहांत घेतिल्ल्यो सगल्योच कथा १९९० वर्सा उपरांतच्यो आसात. हाचेपयलीं ह्यो कथा 'राष्ट्रमत', 'सुनापरान्त' ह्या दिसाळ्यानीं आनी 'कोंकण टायम्स्' आनी 'कोंकणी' ह्या नेमाळ्यांनी उजवाडाक आयल्यात. म्हज्यो कथा आवडल्यो म्हूण जायत्या जाणांनी मुजरत म्हाकां पत्रां बरोवन आनी फोनावेल्यान कळयलें. हाकाच लागून ह्यो कथा संग्रहरूपान उजवाडाक हाडपाक म्हाकां धीर जालो.

हो संग्रह तयार जावपाक म्हाकां जायत्या जाणांचो आदार मेळ्ळो. तांचे उपकार मानचे तितले उणेच. नामनेचे कथाकार आनी कथेचे जाणकार भौ. दामोदरबाब मावजो हाणीं म्हज्यो कथा वाचून पळोवन कांय म्हत्वाच्यो सुचोवण्यो केल्यो आनी अभ्यासपूर्ण अशी प्रस्तावना बरोवन दिली. भौ. श्रीधरबाब कामत बांबोळकार हाणीं सोबीत चित्र काडून दिले. लॅट्राकॉम प्रिन्टर्सचे श्री अजय ग्रामोपाध्ये हाणी हें पुस्तक बरेतरेन छापून दिवपाची जापसालकी आपणाचेर घेतली. ह्या सगल्यांचो हांव काळजांतथावन उपकारी आसां.

म्हजें वांकडें - तिकडें साहित्य आकाराक येंवक लागलें तेन्नासावन गुरूवर्य डॉ. मनोहरराय सरदेसाय हाणीं म्हज्या बरपाची दखल घेवन म्हाक प्रोत्साहन दिलें. आपणें बरयल्ल्या साहित्याची कोणतरी दखल घेता ही जाणवीक कितली सुखदेणी आसता तें उतरांनीं सांगपाक जांवचेंना. घडये म्हजें मुखावेले साहित्य चंवराक येवपाक तेंच कारण जालां आसूंये. हो कथांझेलो हांवेन तांकांच ओंपला.

**- भालचंद्र गांवकार**

# मावज्याले आवंडे

कथा आनी कविता सारक्याच समर्थपणान बरोवपी भालचंद्र गांवकार म्हळ्यार कोंकणी सरस्पतेक पडिल्लें आनेक म्होंवें सपन. ताचेकडेन लालित्य आसा, भास आसा, निरिक्षण शक्त आसा आनी नव्यो मुळाव्यो बीजसंकल्पना आसात. 'आडवणांतले उले' कानार पडटात थंय आसात ताचे 'अंदल्ले उस्वास' मेकळे जाले. 'यादींचे देगेर' उपरांत आतां 'दोंगराचे आवंडे' येतात. भालचंद्रान साहित्याच्या मळार पावली मारल्यार आजून वीस वर्सां जावंक नात. आतांमेरेन ताच्यो पन्नास सुमार कथा आनी संखेनी कविता उजवाडाक आयल्यात. ताका हांव बहुप्रसव म्हणचो ना. पूण ताचें साहित्यिक योगदान तोखणावपासारकें खातरीन आसा. अस्सल वज्रां ताचेकडेन आसात म्हणपाचें ताच्या कथा - कवितांवयल्यान जाणवता. आतां गरज आसा ती ह्या वज्रांक तासां घालपाची.

भालचंद्राल्यो कथा वाचतां तेन्ना ताणें केळयिल्लीं कथाबिजां पळोवन हांव अजापीत जातां. 'अंदल्ले उस्वास' झेल्यांत ताणे माद्रीची वेथा धरून गणपताल्या वांजुट्टेपणाचेर कथा बरयल्या. 'शेणिल्लो गांव', 'फाटीं वोस - फुडें वोस' ह्यो कथा तर ल्हानसान बिजांचो आदार घेवन बरयिल्ल्यो तंत्रशुध्द लघुकथा. हरशीं लेखक म्हणटा 'झांकून झांकून गांवकार जालो म्हण्टात ते भाशेन हांव कथाकार जालों'. तागेले सांगणेंत अतिताय ना. खऱ्यांनीच तो बीज मेळनाफुडें मनाक येता तशें फुलयता. ताचीच कथा जाता. कथा ही तंत्रशुध्द आसुंकच जाय. पूण तेखातीर लेखकान तंत्र शिकून आनी थारावन बसचें आसता अशें न्हय. लेखक येता तशें बरयता आनी बरयलां तें सर्जकतायेचे कसवटेर बरें उतरता तेन्ना तेंच कथेचें तंत्र थारता. भालचंद्राचे बाबतींत अशेंच जालां.

खंयच्याय नेमाळ्यांत जेन्ना भालचंद्राली कथा उजवाडाक येता तेन्ना म्हाका केन्ना काय वाचून सोंपोवची अशें दिसता. कारण ताच्या कथांचे विशय. 'मोने झूंज' ही काश्मिरच्या देगणांतल्या आकांतवादाचेर बरयिल्ली कथा. 'फातरपटो' ही गोंयांत आंतऱ्यापयऱ्यान पडपी सरकारांचेर बरयिल्ली सुंदर कथा. 'धुमकेतू' ही अंतराळशास्त्रज्ञाचेर बरयिल्ली तर 'दळडीर' ही कपलफुटक्या चित्रकाराची

कथा. भालचंद्राक विशय वेंचून काडपाची एक नदर आसा. ताचेकडेन ना तें पासियेंस. बीज मेळनाफुडें कथा बरोवन काडपाची ताका ताकतीक जाता आनी मागीर तो त्या विशयाचो अभ्यास करपाचें टाळून कल्पनेचो आदार घेवन कथा रचता. 'धुमकेतू' ही कथा अंतराळशास्त्रज्ञाची. अंतराळांतल्यान एक धुमकेतू धर्तरेचे दिकेन येता आनी तो धर्तरेक नश्ट करतलो ह्या हुसक्यान तो एक रिमोट अस्त्र तयार करता आनी पृथ्वीक वाटायता अशी ही कथा. कथेंत पोटकथा आसूं नज. पूण हे कथेंत ती आसा. शास्त्रज्ञाच्या लग्नाची. शास्त्रज्ञाचेर कथा बरोवपाचें येवजिनाफुडें भालचंद्रान पयलीं शास्त्र समजून - शिकून म्हणना - घेवपाचो येत्न करूंक जाय आसलो. तशेंच अंतराळांतलो धुमकेतू सोदून काडपी शास्त्रज्ञच रिमोट अस्त्र तयार करसो करतलो हाचोच विचार करूंक जाय आसलो. पूण भालचंद्र ती तकालस घेना. ताका लागून बरीं बिजां मेळ्ुनूय ताच्यो कांय फसल्यात.

'आमचो पांडू... आमकां जावो' ही ताची सुंदर कथा. भालचंद्रान घडये ती विनोदी कथा म्हूण बरोवपाक घेतिल्ली जावंये. पूण ती ग्रामिण संवेदना उक्तावपी एक भोव बरी कथा अशें हांव म्हणीन. काबरो आनी पोवळो हे बैलांचे जोडयेच्या माध्यमांतल्यान सांगिल्ली ही कथा गोंयचें गांवगिरें जिवीत आनी जिवितांत रिगूंक लागिल्ली निबरसाण भोव स्पश्टपणान दाखयता. सत्तेची चट लागतकीच गांवगिरो शेतकामती आपलेंपण आनी लागणूक कशी विसरता हें मोनजातीच्या दिश्टीकोणांतल्यान दाखयलां.

'दोंगराचे आवंडे' हीय एक सोबीत कथा. उदरगतीच्या नांवान सैमसंपत्तीचो विद्धाट जावचो न्हय म्हूण वावुरपी आबा मरणाधडेर लेगीत दोंगर कातरपाक वचचो न्हय म्हूण आवंडेता. दोंगर - वझरे ही आमची अस्मिताय अशें लेखपी जाण्ट्यांची देख तांचे भुरगे घेनात ही आयची वस्तुस्थिती हे कथेवरवीं लेखकान समर्थपणान मांडल्या. 'फटकिरें तत्वगिन्यान' ही आवय - बापायची वेथा. भुरग्यांक बरें शिकोवप, वाडोवप आनी मागीर तीं पयस दिगंतराक पावप ही आयची रीत जाल्या. खूब शिकयिल्ल्यान दोगूय पूत अमेरिकेक गेल्यात ताचें दुख्ख सोसपी आवय - बापायची ही कथा.

भालचंद्र शब्दचित्रां वा व्यक्तिचित्रांय बरीं चितरायता. 'धंद्याचो एक

दीस' ही अशीच एक कथा. बबन हो एक बिगर गोंयकार. कोंकण रेल्वे घालतासतना कामदार म्हूण गोंयां आयलो. खणपाचें, फातर फोडपाचें काम सोंपलें आनी मागीर मेळत तें काम करूंक लागलो. लग्न जालो आनी चार पैशे सांठावन चादरी माथ्यार मारून विकपाचो वेपार करूंक लागलो. बबनाच्या जिवितांतलो धंद्याचो एक दीस हे कथेंत भालचंद्रान भोव समर्थपणान उबो केला. फोंडेच्या बुधवाराच्या बाजाराचें चित्रण आनी बबनाची व्यक्तिरेखा अस्सल दिसता. ताचें कारण ह्यो दोनूय गजाली भालचंद्राचे संवकळीच्यो. मातशी वेगळी अशी आनेक सुंदर कथा ह्या झेल्यांत आसा. 'पातकन्हाण' कथेंतलो राजू एका हॉटेलांत काम करपी भुरगो. खूब कश्ट काडपी, मार खावपी. अक दीस ताच्या बऱ्या नशिबान ताका सुधाकर मेळटा आनी ताच्या घरांत ताका मोग आनी आलाशिरो दोनूय मेळटात. एक दीस मालक - मालकीण भोंवडेर वतनां घर आनी सगल्यो चावयो राजुच्या सुवादीन करून वतात. राजू एकलोच उरता. बेकार मन म्हळ्यार सैतानाची कार्यशाळा म्हणटात. राजुच्या मनांत वायट विचार येतात. विवेक आनी अविचार हांचें झूंज सुरू जाता. आनी विवेक जैत जोडटा तेन्ना राजू शॉवरापोंदा वता आनी अविचारांचो म्हेळ धुवन व्हांवन वचसर न्हायत रावता. अशी ही कथा.

भालचंद्र कुड्डे भावार्त मोखून मारता. पूण ललीत साहित्यांत लेखकालें आंग दिश्टी पडूंक फावना. शास्त्रज्ञाच्या लग्नांत तो चली पळोवप, होम घालप, सप्तपदी चलप असले विधी दाखयता तें पळोवन अजाप जाता. पूण तोच भालचंद्र 'निपुत्रीक' कथा बरयतना पुरोगामी विचारांचें जबर समर्थन करता. चली आनी चलो हांचेमदीं फरक ना हें निश्टून सांगपी ही कथा. हे कथेंत लेखक दिश्टी पडना. कथा आशयघन जाल्या देखून उजवी थारता.

भालचंद्राची भास सोबीत. सभावीक आनी व्हांवती. पूण तो संवादांचेर लक्ष दिना शें दिसता. 'भिरांकूळ मनीस' कथेंतलो कामील उलयता ते संवाद पुस्तकी शे दिसतात. 'पावलुचीं पावलां' हे कथेंतलीं पात्रांय अडेचे संवाद उलयतात. धड साश्टीची न्हय धड बार्देसी न्हय. पूण कांय कथांतले संवाद मुदयेर थीक कशे सोबतात. 'दोंगराचे आवंडे', 'आमचो पांडू... आमकां जावो', 'फातरपटो' ह्या कथांतले संवाद भोव बरे सादल्यात. कथांची निवेदनाची भास

मात भोव बरी. भुरगो वाडटा तो 'भिल्लमाड कसो' राजकारण्यांची 'कावळ्याची नदर' तो पारखिता. सरसकट दिश्टी पडपी मराठीचो प्रभा व भालचंद्राचे भाशेचेर चड दिश्टी पडना. 'न्हिदेचें खोबरें जालें'. 'घरांत मावना' वा 'कापरें भरलें' अशीं उतरां लळीत साहित्यांत अडेचीं कशीं दिसतात. पूण हो दोश येत्नांनी आनी संवयेन पयस जातलो.

भालचंद्र गांवकारालो हो दुसरो कथासंग्रह. ताणे अपेक्षा खूब वाडयल्यात. साहित्यीक मळार बरो फुडार घडोवपाचे नदरेन ताणे अस्वस्थ आनी प्रयत्नशील रावप खूब गरजेचें. बीज मेळनाफुडें बरोवपाक बसचेपरस विशयाचो खोलायेन अभ्यास करूनच कथा बरोवची. सरसकट लेखकांक बिजां मेळटकीर ते भोंवतणच्या आनी संवकळीच्या वातावरणाचेर कथा बरयतात. पूण भालचंद्राक विशय मेळटात ते अप्रूप. हाचेमुखार ताच्यो आनीक बऱ्यो कथा आमकां वांचूक मेळटल्यो अशे म्हजे आवंडे.

- **दामोदर मावजो**

# मांडावळ


१. आमचो पांडू.... आमकां जावो ... १३

२. मोनें झूज ... १९

३. दोंगराचे आवंडे ... २६

४. धंद्याचो एक दीस ... ३२

५. फातरपटो ... ३९

६. फटकिरें तत्वगिन्यान ... ४६

७. निपुत्रीक ... ५२

८. भिरांकूळ 'मनीस' ... ५७

९. पातकन्हाण ... ६५

१०. नशिबाचो खेळ ... ७२

११. दळडीर ... ७८

१२. दोळे उक्ते जाले ... ८६

१३. धुमकेतू ... ९१

१४. नशिबाचें खांवटें ... ९९

१५. पावलुचीं पावलां ... १०६

१६. आनी तो दीस उदेलो ... ११५

१७. निश्टूर ... १२०

# आमचो पांडू.. आमकां जावो

पॉक.... पॉक ऽऽ

मोटारीच्या हॉर्नान काबरो आनी पोवळ्याचे कान बसले. पूण ते रस्त्यावेल्यान ठले नात. रस्तो म्हळ्यार जशें कितें तांच्या बापायची मिरास! जल्मासावन ते ही नेरासगिरी चलयत आयल्यात.

धडगिरें गांव तें. गांवांत डांबरी रस्तो आसा. पूण मोटारी दिसांतल्यांन हाताच्या ोटार मेजपा इतल्योच येवंच्यो. केन्नाय मदींच पावसाळ्यांतलो गडगड कसो गडगड ालीत एकाद्रो ट्रक येवचो. बारीक मोटारी म्हणटात त्यो नाच. आयस-पयस पडींग ळार चरून जालें म्हणटकीच गावांतलीं गोरवां ह्या रस्त्याचेर विसव घेतालीं. तातुंतलेच ाबरो आनी पोवळो. दोगूय खूब मस्ते! जशे कितें गांवांतल्या सगल्या गोरवांचे फूडारी!

पॉक.... पॉक ऽऽ

मोटारीचे हॉर्नार - हॉर्न वाजपाक लागले. तशें काबऱ्यान आनी पोवळ्यान मान ालयत तकली वयर करून पळयलें.तांकां मोटें अजाप जालें. असली मोटार तांणी अजून ेरेन पळोवंक नाशिल्ली. धवीच! इल्लीशी मोटार. तिच्या माथ्यार एक तांबडोच दिवो. ोटार दिसपाक बरी दिसताली. रस्तो बीन चुकले काय! पोवळो चिंतपाक लागलो. काबऱ्याच्या मनांत मात वेगळोच विचार चलतालो. पोरूंचे ते गजालीचो ताका उगडास जालो. असोच रस्त्याचे कुशीन तो चरतालो. वेगळेच तरेचो आवाज करीत एक मोटार येता ती ताणें पळयली. असली मोटार ताणें पयलीं पळोवंक नाशिल्ली. तिका फकत तिनूच चक्रां आशिल्लीं. तसली मोटार पळोवन काबऱ्याक मजाच दिसली. मोटारीची मजाच करूंया अशें ताणें येवजिलें. मोटार जशी लागीं पावली तसो ताणें आपणालो खड्डो मोटारीक लायलो. आनी ती मोटार तीन दिसांचें वासरूं कशें उमथी पडली. मागीर एकूच बोवाळ जाल्लो!

फाटले गजालीचो उगडास जालो तसो काबऱ्यान हीय मोटार पळोवन घेतली.

पूण तिका चार चक्रां आशिल्लीं. सुवातेवेल्यान उठपाक जिवार येतालें. उठचें काय ना अ येवजीता थंय आसा. इतले म्हणसर मोटारीचें फुडलें दार उक्तें जालें आनी धवे फु कपडे घाल्लो एक मनीस सयकल देंवलो. ताणें माथ्याक चेपटें चेपें घाल्लें. तोच मोटा चलयतालो. इतलो निवळ आनी शिस्तीचो ड्रायव्हर काबरो आनी पोवळो पयलेच फाव पळयताले. तो मोटारींतल्यान सकयल देंवलो तोच काबरो आनी पोवळ्या म्हऱ्यां आयलो. हात वयर उबारून तांकां धपकावपाक लागलो. काबऱ्याक त्या परकी मनशाच तिडक मारली. आमच्या गांवांत येवन आमकां शाणपणां? काबऱ्यान शिंगां दाखयल आनी तकली हालयली. त्या बराबर ड्रायव्हराची भियेवन गुळी जाली. तो धांवत वचू मोटारींत बसलो.

काबऱ्याक ड्रायव्हराची मजाच दिसली. मुखार कितें घडटा तें पळोवपाची ताक उत्सुकताय लागली. इतले म्हणसर मोटारीचें फाटलें दार उक्तें जालें आनी काबऱ्याव आनी पोवळ्याक आपणाल्या दोळ्यांचेर विस्वास बसना जालो. तांचो अपुर्बायेचो 'पांडु मोटारींतल्यान सकयल देंवलो. ते बराबर पोवळो आनी काबरो खिणाचोय कळाव लायनासतना उठून उबे रावले. पांडु आतां मुखार येतलो, तांचे फाटीवेल्यान हात भोंवडायतलो, दावांच्यो वाली काडून तांकां खावपाक दितलो म्हूण ते खुशाल जाले... पूण सगळें विपरितूच घडलें. पांडु तांकां पळोवन हांसलो लेगीत ना. सामकोच फातराच्य काळजाचो कसो....! तो देंवलो तसो काबऱ्याक आनी पोवळ्याक धपकावन ताणें रस्त्यावेल्यान धांवडायले. आनी मोटार पांडुक घेवक झुम्म करून गांवांत भितर सरली.

काबरो आनी पोवळो खिन्न जावन कितलोसोच वगत मोटारीचो फाटलो धुंवर पळयत उरले. दोगांचेय दोळे पयलेच फावट आशाडांतल्या मळबावरी भरून आयले. दोगांच्याय मनांत एकाच चिंतपाचें घेर्र चलतालें.... एकूच प्रस्न तांचे तकलेंत घोळटालो.... पांडु आमचेकडेन असो कित्याक वागलो....? कित्याक....

तांची जिणेवयली वान्सा उडली. वर्सांचीं वर्सां चलत आयिल्लीं सगळीं नातीं खिणांत तुटचीं आनी जीण एकोडी पडची तशी तांची गत जाली. पांडु आपल्या जिवापरस तांकां चड जपतालो. त्याच पांडुन तांकां अशे कुस्कुटावचे? वळखून लेगीत वळख दाखोवची न्हय....?

पांडुच्या बापायन, दादीन काबऱ्याक आनी पोवळ्याक जोतपण शिकोवन तयार केल्ले. शेतांतल्या कुणग्यांनी कशें घुंवपाक जाय तेंय ताणें तांकां शिकयल्लें. तेंय बी हातांतले बडयेचो वापर करी नासतना. कितलो मायेस्त मनीस आशिल्लो तो! पूण देवाक नसाय

जाली. फुटले देवाचे दोळे. हारीचें दुयेंस जावन तो हातरूणार पडलो. तो परतो आनी उठलो ना.

पांडु दादीचो अपुर्बायेचो एकलोच चेडो. उरिल्लयो सगल्यो चार चलयो. शेतवडीचो सगळो वावर एकट्या पांडुचेर पडलो. दादी बरो आसासर पांडुन शेतांत पांय दवरलो ना. पूण उपरांत ताका शेतांत देंवचेंच पडलें. काबऱ्याक आनी पोवळ्याक तेन्ना पांडुची खूब काकूट दिशिल्ली. पांडुक जोतपण कळ नाशिल्लें. मनांत हाडल्यार तांच्यानीं पांडुचे तीन-तेरा करूं येताले. पूण तांणी तशें केलें ना. पांडुक जोतपण शिकपाक तांणी ताका खूब आदार दिलो. ताका ते इल्लीय तकालस पडपाक दी नाशिल्ले. पांडुय तांची खूब अपुर्बाय करतालो.

कांय तेंपान पांडुक कश्टांची गोडी लागली आनी धडगिरें गांवांत तो नामनेचो शेतकार जालो. सात-आठ वर्सांत ताणें सगळें आर्त्याचें - पर्तें करून उडयलें. गांवांतले कितलेशेच मानाय आनी कामेरीं ताच्या शेतांत दिसवड्याचेर घोळपाक लागलीं. पूण पांडु तांचेर शेक चलय नाशिल्लो. गावांतल्या सगल्या लोकांवांगडा तो समजिकायेन वागतालो. सगळे लोक ताका देवासमान मानपाक लागले.

पांडुच्या हातांत पयसो घोळपाक लागलो. ताणें आपलें पोरणें घर मोडून नवें घर बांदलें. गांवांतल्या लोकांक तो जाय तसली सगली मजत करतालो. आठूय पार ताच्या घरांत लोकांची वर्दळ वाडपाक लागली.... आनी एक दीस वेगळे जातीचे.... धव्या कपड्यांतले कांय लोक ताच्या भरिल्ल्या घरांत भितर सरले. धव्या पावलांचे... अवदिसा कशे.... तांणीं पांडुच्या कानांत कितें भरलें देवाक खबर.....

एक दीस पांडु फेर्राद कपडे घालून पणजे वचपाक भायर सरलो. भरिल्ल्या घरांतल्यान... पूण वतना काबरो आनी पोवळ्याचे फाटीर हात मारपाक तो विसरूंक नाशिल्लो. 'येतां हां.... 'घरच्या हेरां वांगडा जशें कितें ताणें काबरो आनी पोवळ्याकूय सांगिल्लें. पणजे.... पणजे म्हणतात तें कितें पोवळो आनी काबऱ्यान हाचे पयलीं केन्ना आयकूंक नाशिल्लें. देवा घरा वतात... तशेंच कितें तरी तांकां तें दिशिल्लें. दादी भायर पडिल्लो तेन्ना ल्हान भुरग्यांक सगळीं 'दादी देवा घरा गेलो....' अशें सांगतालीं तें तांणी आयकल्लें. दादी देवा घरा गेल्यार जायतो तेंप जाल्लो... अजून तो परतो येवंक ना... पणजे म्हणटात ती तशीच भानगड न्हय मूं.....? खीणभर येवजून काबरो आनी पोवळ्याच्या दोळ्यांतल्यान घळ्ळ करून दुकां गळिल्लीं.

पूण पांडु त्या दिसा सांजवेळार रोखडोच घरा आयिल्लो. सामको खूश जावन!

उपरांत कांय दीस जाल्यार तो सामको सपनांत वावुरतालो. ताच्या घराकडेन लोकांचे गर्दी वाडपाक लागली. सगले लोक एकठांय बसून मोट्या मोट्यान उलोवपाक लागले अशेच कांय दीस गेले आनी एक दीस पांडुच्या दारांत फोगाच्यो राशी जळून काबार जाल्यो. इतलो फोग लोक चवथीक लेगीत केन्ना लाय नाशिल्ले तितलो फोग लोकांनी पेटयलो. काबऱ्याक आनी पोवळ्याक दिसलें कितेंय बरीच खबर आसतली. चवथीच्या दिसांनी असो फोग लायले उपरांत उरिल्लें गोड जेवण तांकां खावंक मेळटालें. पूण हे फावट तशें कांय जालें ना.... फोगाच्या आवाजान कान मात बसले.

धव्या कपड्यांतले.... ते जातीचे लोक पांडुच्या दारांत परत्यो फावटी मारपाक लागले. एक दीस तांणी पांडु इतलोच लांबायेचो फुलांचो हार हाडलो आनी पांडुच्या गळ्याक घालो. तेन्नाच काबऱ्यान आनी पोवळ्यान कच्च करून आंग काडलें. परकी मनशांनी आपणाल्या गळ्यांत दावें बांदिल्लेवरी तांकां दिसलें. पाडव्या दिसा पांडु तांची पुजा करतालो. तेन्ना तांच्या गळ्यांत तो रोजांच्यो माळो घालतालो. पूण त्यो गळ्या जोकल्यो आसताल्यो. इतली लांब फुलांची माळ ते पयलेच फावट पळयताले. दोरयेक बांदून पाड्यांक जोताक व्हरचे ते भशेन ते लोक पांडूच्या गळ्यांत हार घालून ताका पणजे घेवन गेले.

पणजे म्हळ्यार देवालें घर न्हय अशें काबरो आनी पोवळ्याक दिसपाक लागिल्लें. कित्याक तर पांडु मदीं-मदीं घरा येतालो. हे फावट मात चार-पांच दीस तो पणजेच उरलो. पूण काबऱ्याक आनी पोवळ्याक खबर आशिल्ली पांडु घरा येतलोच.... एक गजाल मात तांणी सपनांत लेगीत चिंतूंक नाशिल्ली. ती म्हळ्यार पांडु इतलो बदलतलो हाची.....!

काबरो आनी पोवळो त्या आयस-पयस पडींग मळार गळ्यांत गळो घालून उबे आशिल्ले. खिणाखिणांत तांचे दोळे भरून येताले. आनीक आनी जगचें न्हय अशें तांकां दिसतालें. चरव तोंडाक तेंकतालो पूण तोंड उक्तें जाय नाशिल्लें. घरा वचपाचो वगत जाल्लो. पूण पांय उखलनाशिल्ले 'आयज घरा वचप ना' अशें चिंतून तांणी थंयच बसकण मारली.

तिनसांज उलगली.... रात जाली, पूण ते जाग्यावेल्यान उठले नात. थंयच बसून रावले... सामकेच खट कशे. आतां आनीक जाग्यावेल्यान उठचेंच न्हय अशें तांकां दिसलें. सगली रात ते थंयच बसून रावले. जिवितांत पयलेच फावट. पयलीं तांकां घरा पावपाक मात्सो वगत जाल्यार पांडु तांकां सोदीत येतालो. पूण आतां पांडु सामकोच

ाभायर गेल्लो.

काबरो आनी पोवळो हट्ट धरून बशिल्ले खरे पूण तांची नदर घरचे वाटेर गेल्ली. आपणाक व्हरपाक कोणतरी येतलो हाची तांकां खात्री आशिल्ली. आनी जालें तशें. सक्काळी फुड्यां शेंवतू, पांडुची आवय तांकां सोदीत थंय पावली. ती आयली तांच्या लागसार धांवली. तिणें दोगांचेय फाटीर हात मारलो..... तशें तांणी आंग रशिरायलें, 'उठात.... चलात घरा...' अशें शेंवतून म्हणटकीच ते सगळें विसरून यार उबे रावले. शेंवतूची माया तांकां खबर आशिल्ली. भुरगेपणांत शेंवतुनूच तांची नाय घेतिल्ली. देखून शेंवतूमुखार हट्ट धरप तांकां जमलें ना.

फाटीं - फुडें चिंतीनासतना काबऱ्यान आनी पोवळ्यान घरची वाट धरली. तांचे टल्यान शेंवतू चलपाक लागलें. वाटेर एक तळी आसा. शेंवतून तांकां थंय आडायले नी तांचेर उदक शिपडायलें. वर्सांतल्यान एक फावट सकाळीं फुड्यां तांकां अशें न्हाण टालें. पाडव्या दिसा. आरे! पोवळ्याक आनी काबऱ्याक उगडासूच नाशिल्लो. आयज डवो! शेंवतून तांकां तळयेर बरे न्हाणायले आनी घराकडेन व्हेले. गोठो पयलींच कसूफ केल्लो. धुपाचो वास गोठोभर पातळिल्लो. शेंवतून तांकां गोठ्यांत नवीं दावीं लीं.

घराकडेन बोवाळ आशिल्लो. लोक येताले आनी वताले. पाडव्याचो उगडास णाक आसा देवाक खबर.... पोवळ्याक आनी काबऱ्याक वर्सांतल्यान एक फावट पोळे वपाक मेळटाले. पोळ्यांचो उगडास जालो तशें तांचे जिबेक उदक सुटलें. पांडु तांची वर्सा पुजा करून तांकां पोळे खावयतालो. पोळ्यांचें ताट घेवन पांडु येतलो म्हूण ावसल्यान ते पळयत रावले.

पूण जालें उरफाटें, कालचो तो ड्रायव्हर.... धवे कपडे आनी माथ्यार चेपें लून... पुजेचें सामान घेवन गोठ्यावसल्यान येता तें काबऱ्यान आनी पोवळ्यान पळयलें. ांकूय ताची तिडक मारली. 'हाका पुजा कशीच करूंक दिवप ना... ह्या वर्सा पोळे वप ना' असो तांणी निश्चेव केलो. 'ह्या ड्रायव्हराक येवंदी म्हज्या फुड्यांत... बार कशें ले ऽऽ करीना जाल्यार नांवाचो काबरो न्हय!' काबऱ्याचें रगत तापूंक लागलें. यव्हरान गोठ्यांत पांय दवरिना फुडें काबऱ्यान ताका आपणालीं शिंगां दाखयलीं. णभर तो थंयचे थंय घट जालो. ताका कितें करचें कांय समजना जालें. हेवटेन काबरो नी पोवळ्याचें मन बंड करून उठलें. तांणीय आतां मनशांभशेन घोशणा दिवपाचें रायलें. काबऱ्यान एक धेंकर दिलोच. त्या बराबर ड्रायव्हर गोठ्यांतल्यान भायर

धांवलो. काबरो आनी पोवळ्याचें मन भितरले भितर आड्डतालें 'आमचो पांडु... आ
जावो!' आमचो पांडु... आमकां जावो!

ड्रायव्हराक तांची भास कळ्ळी काय देवाक खबर. पूण तो हाडिल्लें सामान घे
घरावसल्यान परतो गेलो. आनी अजापाची गजाल म्हळ्यार तेंच सामान घेवन पांडु भ
सरलो. पांडु गोठ्यावसल्यान येता तें पळोवन काबरो आनी पोवळ्याक खूब खोशी जा
तांच्या मनांतली आड्डण चालूच आशिल्ली... 'आमचो पांडु... आमकां जावो.' पां
तांची भास कळ्ळी आसूंक जाय. तो आयलो तसो गोठ्यांत भितर सरलो. ताणें का
आनी पोवळ्याचे फाटीवेल्यान मायेन हात ओडलो... आनी दोगूय पाड्यानीं प
शिरशिरायली. तांच्या दोळ्यांतल्यांन भळ्ळ करून दुकां व्हांवलीं... जशें कितें तीं पां
सुचयतालीं... 'आमचो पांडु... आमकां जावो....! आमचो पांडु....

# मोनें झूज

धा वर्सां कितले बेगीन उलगलीं कांयच कळ्ळें ना. शिबिरांत रावन ताणें ाकांतवादाचें पुराय प्रशिक्षण घेतिल्लें. आयज ताचो शिबिरांत निमाणो दीस आशिल्लो. शिबिरांतल्यान भायर सरता आसतना दर एकल्याक अल्लाच्या नांवान सोपूत घेवचो डटालो. आयज सगले मेळून पंचवीस जाण थंयच्यान भायर सरपाचे आशिल्ले. पंचवीसूय ाणांक सोपूत दिवपाक खासा सुवाळो आयोजीत केल्लो. शिबिराचो मुखेली सगल्यांक ोपूत दितालो. अझराचेर सोपूत घेवपाची पाळी आयली तेन्ना ताणेंय हातांतलें मशीनगन उबारून वयर धरलें आनी सोपूत घेतलो - 'हांव अल्लाचें नांव घेवन सोपूत घेतां... हांव हज्या प्राणाचें बलिदान दिवन चडांत चड हिंदुस्थानियांचो बळी घेतलों... आनी जळीं ळीं आकांतवाद पातळायतलों....'

अझरान सोपूत घेना फुडें शिबिरांतल्या सगल्यांनी ताळयांचो गडगड घालो. तेन्ना अझराच्या रगताचो कणान कण सळसळ्ळो. ताणें परत एक फावट हातांतलें मशिनगन उबारून धरलें आनी सांगात्यांच्या ताळयांक तेंको उक्तायलो. शिबिराच्या मुखेल्यान सगल्यांक परत एक फावट तोंडभर आशिर्वाद दिलो. शिबिरांतल्यान भायर सरतकूच खंय वचप, खंयच्यान वचप आनी कशें वचप हाचें प्रशिक्षण सगल्यांक पयलींच मेळिल्लें. तिनसांजचो वगत आशिल्ल्यान भायर काळोख जावपाक पाविल्लो. तांकां व्हरपाक ट्रकाच्या आकाराचें एक वाहन पयलींच येवन तयार राविल्लें. हेरां वांगडा अझरूय तातूंत चडून बसलो. सगळे चडून जातकूच तांचो मुखेलीय वयर चडलो. त्या बराबर खिणाचोय कळाव लायनासतना काळखाचो थाव घेयत तांचें वाहन धांवपाक लागलें. वाहनांत बशिल्ल्यांचीं तोंडां एकामेकांक दिसनाशिल्लीं, तरीय आवाजावेल्यान कोण उलयता तें वळखुपाक येतालें. मुखेल्यान सगल्यो चत्रायो पयलींच दिवन दवरिल्ल्यो. त्या चत्रायांचो ताणे सगल्यांक परत उगडास करून दिलो.

वाहन सुमार वर - दोन वरां धांवले उपरांत एके थंड सुवातेर येवन थांबलें. तेन्ना

मुखेल्यान सगल्यांक वाहनांतल्यान सकयल देंवपाचो आदेश दिलो. मुखेल्याचो आदे मेळनाफुडें वांगडा हाडिल्लो दारूगुळो, बॉम आनी मशिनगनां सांबाळीत एका फाटोफ सगळे सकयल देंवले. सकयले वटेन शेकान शेक देंगण पातळ्ळां हे गजालीचो थ काळखांत लेगीत येतालो. मुखेल्यान काळखांतूच मुखार बोट दाखोवन सांगलें - 'थंयच्य हिंदुस्थानाचो वाठार सुरू जाता. आमी उबे आसात ती सुवात पाकिस्तानांत पडट आयची रात तुमी हांगाच काडात आनी फांतोडेर झिळमिळ्यार शीम हुपून भित घुसात... मागीर मुखार सांगिल्लीं कामां वेवस्थीत जावंदी...'

मुखेल्यान सगल्यांक परत एक फावट तोंडभर आशिर्वाद दिलो आनी तो वच त्या वाहनांत बसलो. त्या बराबर वाहन आयिल्ले वटेन परत फाटीं परतलें आनी धांवपा लागलें. तें दोळ्यां आड जायसर सगल्यांनी खीणभर तेवटेन पळयलें आनी आपणा फाटीक बांदिल्लीं बॅगां सोडयलीं. तीं बॅगां तांणी एके सुवातेर दवरलीं. हातांत आशि मशीनगनांय तांणी सकयल दवरलीं आनी थंयच कवंडाळें करून ते सगले बसले. मागी कितले पंगड करपाचे आनी खंयच्या पंगडांत कोणे रावपाचें तें सगल्यांनी मेळून थाराय कशे कशे तरेन घुरी घालूं येता आनी आकांतवाद मातोवपाचो सांपळो कशे तरेन र येता ते विशींय सगल्यांनी आपणाले विचार उक्तायले. सगल्यांचेंच रगत सळसळटा केन्ना एक फावट हिंदुस्थानाची शीम हुपून भितर घुसतां अशें सगल्यांक जाल्लें. उलय उलयतां बरीच रात जाली. सगल्यांकूच पुरो जाल्लें. दारू - गुळो आनी मशीनगनां तां मदीं दाळून दवरलीं. आनी ताचे भोंवतणी चारूय वटांनीं ते थंयच आड पडले. आकांतवादा प्रशिक्षण घेता आसतना तांची भंय भिरांत तांकां केन्नाच सोडून गेल्ली. आपणालो जत मरपाखातीरूच आसा हाची जाणवीक तांकां सगल्यांक आशिल्ली. हाका लागून आ पडनाफुडें सगल्यांक थंयचे थंय सुस्त न्हीद लागली.

अझरान आपणाक न्हीद पडटली म्हूण जायतो वगत वाट पळयली. ताचे दो जड जाल्ले; पूण न्हीद येनाशिल्ली. कांय वगत तो थंयचे थंय कुशी परतीत रावलो आ उपरांत उठून बसलो. ताणें दोळे उक्ते करून भोंवतणी पळयलें. सगले जाण सुर न्हिदिल्ले. मध्यान रात जाल्ल्यान चंद्रीम वयर सरिल्लो. चान्न्याचो उजवाड सगल्या फांकारिल्लो. त्या उजवाडांत सगलेंच नितळ बरें दिसतालें. बशिल्लो थंयच्यान ता देंगणांवसल्यान पळयलें. सगल्याक किण्ण पडिल्लें. पुराय देंगणांत चान्न्याची निळसा पातळिल्ली. झिळमिळट्यार ह्याच देंगणांतल्यान हिंदुस्थानांत भितर घुसपाचें आशिल्ले आनी लोक उठचे पयलींच तांचेर घुरी घालपाची आशिल्ली. मागीर सगल्याक एकू

वाळ.... एकूच आकांत.... लोकांच्यो किळच्यो... गुळयांचो आनी बॉमांचो आवाज....
आनी चोंयवशीन धुंवरूच.... धुंवर.... अझरानुय तसो सोपूत घेतिल्लो. ताकाय आपणालो
सोपूत पूर्ण करपाचो आशिल्लो...

पूण आपणालो सोपूत खरो करपाक आपणें निशपाप लोकांचो जीव कित्याक
वचो? तांचो कसलो गुन्यांव आसा? ते फक्कत हिंदुस्थानी हो तांचो गुन्यांव? आनी हांव
कोण? म्हजें रगत खंयचें? हांव हिंदुस्थानी न्हय? अचकीत अझराच्या विचारांनीं नवें
मोडण घेतलें. एक मोनें झुजूच ताच्या मनांत सुरू जालें.

अझराचो जल्म भारतांतल्या काश्मीरांत जाल्लो. अचकीत ताका आपणाल्या
भुरगेपणाचो उगडास जालो. भुरगेपणांतूच ताणें आकांतवादाक लागून कितलेशेच संवसार
उबंत पडिल्ले पळयल्ले. कारण नासतना लोकांचो जीव वतालो आनी भुरग्यांचे हाल
जाताले. ह्याच आकांतवादाक लागून ताका शिक्षण अर्दकुटें सोडचें पडिल्लें. तो खीण
ताका उगडास जालो. तो तेन्ना सवेच्या वर्गांत शिकतालो. सगले भुरगे अभ्यासांत गुल्ल
आशिल्ले. शिकोवपी शिकयताले. इतले म्हणसर एक आकांताचो स्फोट जालो. कितें जालें
कोणाकूच कांय कळ्ळें ना. इस्कोलाची अर्दी इमारत भूंय भरवण जाल्ली. तातूंत कितलींशींच
भुरगीं आनी शिक्षक चिडुले. जे कोण बरे उरिल्ले ते जीव मुठींत धरून मेळत तेवटेन धांवत
सुटले. तांचेमदीं अझरूय आशिल्लो. ताणें आपणालो जीव कसो तरी वाटायलो आनी
धांवत वचून जीव घरांत घालून घेतलो. तोच ताचो इश्कोलांतलो निमाणो दीस. तो
शिकपाक हुशार आशिल्लो. ताका मुखार शिकपाचीय खूब इत्सा आशिल्ली. दुसऱ्या
इस्कोलांत नांव घालपाक ताणें बापायक सुचयिल्लें लेगीत. पूण सगल्याच पालकांक भोगूं
तें शिक्षण जाल्लें. अझराकूय बापायन नाका म्हळें. आनी इत्सा आसून लेगीत ताका
शिकपाक मेळ्ळें ना.

अझराचो बापूय जमीनदार आशिल्लो. ताचो आपोलांचो मळो आशिल्लो. ते भायर
हेर पिकांय तो काडटालो. इस्कोल सुटलें तेन्नासावन तो बापायवांगडा मळ्यांत वचपाक
लागलो. ताच्या जिविताचें मोडण बदल्लें. इस्कोलांतलें शिक्षण ताच्या नशिबांत नाशिल्लें.
पूण मळ्यांतलेंकाम कशें करप हाचें शिक्षण तो इल्लें इल्लें घेवपाक लागलो. मदींच केन्नाय
इस्कोलाचो उगडास येतालो आनी दोळ्यांत दुकां भरतालीं. ताचो आवाज बरो आशिल्लो.
केन्नाय गावपाचें आसल्यार शिक्षक ताका गावपाक शिकयताले. देखून ताका राष्ट्रगीत
आनी सगलीं देशभक्तीचीं गितां पाठ आशिल्लीं. पूण आपूण आतां खंय गायतलों? अशें
येवजून तो खंती जातालो. पूण ताणें तें कोणाकूच उलोवन दाखयलें ना.

'त्या दळदिरांत रावून तुका कसलोच फायदो जावचो नाशिल्लो. हांगा आम वांगडा रावल्यार तूं राजा जातलो.' एकलो ताका समजावपाक लागलो. ते त तरेकवार रितीन समजायताले. पूण अझरान तोंड उक्तें केलें ना.

ताका खुब्ब भूक आनी तान लागिल्ली तरीय ताणें कांयच तोंडांत घेतलें ना. ताका खावपा - जेवपाचो आग्रो करताले. तरीय ताणें दोन दीस कांयच उश्टायलें मागीर मात तो सामकोच बेशुद्ध पडलो. तो परतो शितिदांत आयलो तेन्ना ते त कसलोतरी पातळ पदार्थ भरयताले.

दोन - चार दीस पासार जातकूच आपणाक हांगा कित्याक हाडला तें अझर इल्लें - इल्लें कळपाक लागलें. आकांतवादाचें प्रशिक्षण दिवपाचें तें शिबीर आशि 'काश्मीर आमकां मेळपाक जाय... ती मुसलमानांची मिरास... हिंदुस्थानाक ता इल्लोय अधिकार ना...' असलीं व्याख्यानां थंय जातालीं. अझराभशेन कितलेशेच तरण थंय आशिल्ले. ते मन लावन सगलें आयकताले. अझराक त्या वातावरणांत एक जावपाक जायतो तेंप लागलो.

थंय सगलें खाण - जेवण आनी हेर सगल्यो गजाली व्यवस्थित मेळटाल कांयच उणें नाशिल्लें. पूण अझराचें मन थंय लागनाशिल्लें. ताका घरचो उगडास येताल भावंडांची याद जाताली... नुसमाचे यादीन ताचें काळीज हुलपतालें... खिणा - खिण ताचे दोळे दुकांनी भरून येताले. जायते फावट ताणें थंयच्यान पळून वचपाचोय यत्न के पूण सगलेच फावट तो निर्फळ थारलो.

दिसां फाटल्यान दीस आनी वर्सां फाटल्यान वर्सां धांवपाक लागलीं. इ मजगतीं, त्या वातावरणाची अझरान संवंय करून घेतली. पयलीं ज्यो गजाली ता फटश्यो दिसताल्यो त्यो आतां खऱ्यो कश्यो दिसपाक लागल्यो. ज्यो गजाली पयलीं वा दिसताल्यो त्यो बऱ्यो दिसपाक लागल्यो. आकांतवादाचें प्रशिक्षण घेतना हेरां - वांग तोय गुल्ल जावपाक लागलो. थंय ताच्यो हेरां वांगडा वळखी वाडल्यो तसो ताका घर उगडास येवपाचो उणो जालो.

धा वर्सां मजगतीं अझर थंय जायत्यो गजाली शिकलो. ताका मशीन चलोवंक येतालें. हेरांपरस ताचो नेम बरो आशिल्लो. बॉम कशे फोडप... जिलेटीन व पेटोवप... शस्त्रां निकामीं जाल्यार हातांनी कशें झगडप... हाचें पुराय प्रशिक्षण त घेतिल्लें. आपणें घेतिल्ल्या प्रशिक्षणाचो उपेग करपाक ताचे हात हेरांभशेन शिवशिवता स्वतंत्रतायेखातीर झूज झुजपांत कांयच वायट ना अशें ताका दिसपाक लागिल्लें. शिबिरा

खेली अझराक खूब बरो वागयतालो. अझराचेर ताचो विस्वासूय आशिल्लो. देखून ायत्यो गुपीत गजाली लेगीत तो अझराक सांगतालो.

देंगणावसल्यान पळयतना अझराक सगलो भुतकाळ उगडास जालो. मदलीं धा र्सां कुपां जावन उडून गेल्लेभशेन ताका दिसपाक लागलें. आवय... बापूय... भावंडां... समा सगलीं ताच्या दोळ्यांमुखार उबीं रावलीं. तांच्या उगडासान अझराचे दोळे भरून ायले. आपूण आतां परतो हिंदुस्थानांत वतां... पूण अझर म्हूण न्हय... आकांतवादी ावन... परतो उजो पेटोवंक... शेंकड्यांनी संवसार उबंत वडोंवक... ना आपणाकडेन सली दुश्ट करणी जावचीना. 'म्हजीं भावंडां म्हाका परतीं जाय... म्हजो आवय बापूय ्हाका जाय... म्हजें नुसमा कितें करता काय?

अझरांतलो 'आकांतवादी' मरून 'मनीस' अचकीत जागो जाल्लो. ताणें फाटल्यान ळून पळयलें. प्रशिक्षण घेवन खांपे जाल्ले सगले आकांतवादी सुस्त न्हिदिल्ले. दारू - गुळो, ॉम, मशीनगनांची रास तांचे मदीं आशिल्ली. झिळमिळें जावचे पयलीं ते जागे जावपाचे ाशिल्ले. झिळमिळ्यार देंगण देंवून हिंदुस्थानांत घुसपाचे आशिल्ले... आनी... आनी ्डलो विचारूच अझराक सोसना जालो.

खीणभर ताणें विचार केलो. ताचे तकलेंत लख्ख करून उजवाड पडिल्लेभशेन ालें. तो जाग्यारूच उठून उबो रावलो. ताणें जाकिटांत भितर सासपून पळयलें. ाकिटांत आशिल्लो 'रिमोट' ज्युस्त ताच्या हाताक लागलो. ताणें तो अचळय भायर ाडलो. पावलांचो आवाज करीनासतना तो देंगणावसल्यान गेलो. रिमोटाच्या तांबड्या ंगाच्या बटनावसल्यान ताणें एक फावट पळयलें आनी खिणाचोय कळाव लायनासतना ो अचकीत दांबलो. त्या बराबर आकांतवाद्यांचे राशींत मळब फोडून उडोवपी आवाज ानी मळबाक वेंगावपी उजो पेटलो... अझराच्या तोंडांतल्यान 'जय हिंद' असो अस्पश्ट ावाज भायर सरलो आनी देंगणांतल्या काळखांत तो नाच जालो.

अझराची पिराय सतरा - अठरा वर्सांची जाली तेन्ना ताका सगलीं कामां
बरीं येवपाक लागलीं. भुरग्यांमदीं अझर व्हडलो आशिल्लो. ताचे फाटल्यान एक
आनी एक भयण अशीं दोन भावंडां आशिल्लीं. तो व्हडलो जाल्ल्यान बापाय वांगडा ताक
काम करचें पडटालें. तांच्या मळ्यांत तरेकवार पिकावळ येताली. बापायन ता
मळ्यांतल्याकामावांगडा बाजारूय करपाक शिकयिल्लें. केन्ना केन्नाय तो एकलोच बाजार
वचून वेपार विकून येतालो.

एक दीस बाजारांतल्यान घरा येवपाक तो बशीर चडलो. बशींतलीं चड
सगलींच सिटां भरिल्लीं. एका सिटार मात एकलीच चली बसून आशिल्ली. अझरान
फावट ते चलयेवसल्यान पळयलें आनी तो त्या सिटार वचून बसलो. इतले म्हणर
चलयेन ताका पळयलो आनी ती ताका पळोवन हांसली.

'अझर म्हाका वळखलो ना?

'आं...तूं...तूं?' अझर उगडास करपाक लागलो.

'तूं...तूं कितें करता? हांव नुसमा मरे...'

'नुसमा! कितलें व्हडलें जालां गो तूं?'

'आनी तूं जावना?' अशें म्हणून नुसमान अझराक पांयासावन तकले मेर
नदरेनूच सासपिलो. नुसमा अझरावांगडा इस्कोलांत शिकतालें. तेन्ना तीं दोगांय ल्हा
आशिल्लीं. नुसमा जाल्यार सामकीच बावली कशी आशिल्ली. इस्कोलाचेर हल्लो जाह
तेन्ना अझराभशेन नुसमानूय आपणालो जीव वाटायिल्लो. उपरांत तागेलेंय इस्कोल ब
जाल्लें. ताकाय शिकपाची खूब उमेद आशिल्ली, पूण बापायन ताका नाका म्हणिह
तेन्नासावन तें घराच आसतालें. जायतीं वर्सां ताणें घरांतूच बसून काडलीं. घरांत बस
ताका सामकोच वाज येतालो. घडये घडये अझराभशेन ताकाय इस्कोलाचो उगडा
येतालो. नुसमाचीय दुख्खांतिका अझराभशेनूच जाल्ली. उलयतां उलयतां दोगांयच्यो
पयलींच्यो यादी उसवल्यो. खबरींनीं तीं सामकीं गुल्ल जाल्लीं. बस केन्ना सुटली तें लेगी
तांकां समजलें ना. बशीचो कंडक्टर 'टिकेट टिकेट' करीत लागसार आयलो आ
दोगांय खबरींच्या संवसारांतल्यान भायर आयलीं. नुसमा नाका... नाका म्हणटा आसत
अझरानूच दोगांयचीय तिकेट फारीक केली.

'आतां किदें करता तूं?' अझरान विचारलें.

'हांव शिवण क्लासाक वतां. किदें करतलें? घरांत बसून वाज येता'. नुसमा
आपणाली परवड सांगपाक सुरवात केली. खबरी चालू आसतनाच नुसमालों स्टॉ

लो आनी तें देंवपाक उठलें.

'बरें तर' म्हणून तें बशींतल्यान सकयल देंवले. बस परती सुटली. अझर नुसमा तासर फाटल्यान पळयत रावलो.

नुसमा मेळ्ळें आनी कसलीतरी नवी जाणविकाय अझराच्या काळजांत किल्लली. दीस नुसमाचीं चिंतनां ताचे तकलेंत घोळपाक लागलीं. अझर पयलीं - पयलीं बाजार पाकूच बाजारांत वतालो. आतां तो बेश्टेंच कसलेंय निमित्त्य करून बाजाराक वचपाक लो. नुसमाची आनी ताची भेट वयलेवयर जावपाक लागली. नुसमाय ताका सीट रपाक लागलें. नुसमाकूय ताची वाट पळोवपाची संवय जाली.

अझर नवे उमेदीन वावराक लागलो. शिक्षण नासतना जिणेक अर्थ ना अशें ा पयलीं पयलीं दिसतालें. पूण नुसमा मेळ्ळें आनी जिणेक नवी आंकरी फुटिल्लेभशेन ा दिसपाक लागलें. तो नवीं नवीं सपनां पळोवपाक लागलो. नुसमाच्या मोगान तो ो जाल्लो. ताच्या ओंठार गितां घोळपाक लागलीं. आतां जिणेंत फक्कत सुख...सुखाबगर ीक कांयच ना अशें तो येवजितालो..पूण...

पूण ताच्या सुखाक कोणाची तरी नदर लागली. त्या दिसा सदां भशेन तो यांत वचपाक भायर सरलो. रस्तो सोडून ताणें पांयवाट मात धरल्या... कोणेतरी ा चपाटून धरलो. बोब मारूंक तोंड उक्तें करचे पयलींच ताच्या तोंडारूय कोणेतरी धरलो. आनीक दोग जाण धब...धब करून धांवत आयले आनी अझराक तांणी ळय उखल्लो. ताचे दोळे तांणी घट बांदले. अझरान तांच्या चपक्यांतल्यान सुटपाचो यतो यत्न केलो. पूण ताचें बळ उणें पडलें. ताचे दोळे बांदिल्ल्यान ताका भोंवतणचें यच पळोवंक मेळना जालें. तांणी ताका उबारून रस्त्यार हाडलो आनी वाहनांत भितर यलो. वाहन सुटलें तो आवाज अझराच्या कानार पडलो आनी तो शितिदाभायर लो.

अझरान दोळे उक्ते केले तेन्ना तो एके अनवळखी सुवातेर आशिल्लो. तोंडाक डो बांदिल्ले जायते जाण ताचे भोंवतणी उबे आशिल्ले. ताका तांणी एके कांबळीचेर दयल्लो आनी एकलो ताच्या दोळ्यांचेर उदक मारतालो. अझर शितिदांत येतकूच ा तांणी उठोवन बसयलो.

'तुजें नांव कितें? एकल्यान ताका विचारलें.

'....' अझरान नांव सांगलेंना. तो वग्गी रावलो. तेन्ना ते ताका समजावपाचो न करपाक लागले.

# दोंगराचे आवंडे

दनपारचो रखरख वाडटा तसो बुलडोझराचो आवाज इल्लो इल्लो वाडपाक लागलो. आबा आपणाल्या हांतरूणार पडून जिविताचे निमाणे खीण मेजतालो. ताच उस्वास जड जाल्लो. तरीय बुलडोझराची घरघर ताचें काळीज चिरताली. तो हांतरूणाचे तळमळटालो. ताचे दोगूय पूत आनी व्हडली सून ताचे कुशीक बसून आसलीं. व्हडलो पू ताचे तकले पोंदचें उशें परतें परतें सारखें करतालो. आबाचे तळमळे वाडले तशें व्हडल्य पुताच्या काळजांत धडधडपाक लागलें. आबाचो निमाणो खीण आतां लागीं पावला ताका कळिल्लें. तरीय निमाणोसो यत्न म्हूण तो आपले परीन आबाक उपाय करतालो ताची इत्सा कितेंय उरल्या जाल्यार विचारतालो.

'आबा किदेंय पिवपाक दींव?'

'तांकांऽऽ आडायात रेऽऽ'

'घे निवळ पी इल्लो...'

'आऽऽ डाऽऽ याऽऽ त...' जिणेचे निमाणे खीण मेजतना लेगीत आबान एकूच ध्यास धरिल्लो. दोंगोर वाटावपाचो...

आबाचे पिरायेन शंबरी केन्नाच हुपिल्ली. पूण इतलो तेंप ताची कालेत बरी आशिल्ल्यान ताचें जाण्टेपण लिपून राविल्लें. शंबरी हुपून लेगीत ताचे फाटीक बाग पडूंक नाशिल्ली. तो सडसडीत चलतालो आनी जाण्टेपण येवन लेगीत ताका धांप मारिनाशिल्ली पूण एका म्हयन्या पयलींच दांड्या-दोंगोर सरकार कातरपाचें आसा अशें कळत सावन ताका व्हडलो धक्को बशिल्लो. त्या धक्क्यानूच ताणें जिवितांत पयलेच फावट हांतरूण धरलें आनी ताचो जीव इल्लो इल्लो लागीं आयलो.

दांड्या-दोंगोर हो आबाच्या जिविताचोच एक वांटो आसलो. भुरगेपणांत सावन ह्या दोंगराकडेन ताचो दाट संबंद आसलो. आबाच्या भुरगेपणांत गांवांत खूब गोरवं आसलीं. दर घरा कणकणी गोरवांचो एक गोठो आसतालो. जांचे कडेन गोरवां नांत

ीं मनशां गांवांत मेळपाक कठीण आसलें. त्या तेंपार भुरग्यांक व्हडलेशें कांय काम सतालें. शिकपाक वतली जाल्यार शाळा लागीं नाशिल्ली. देखून दर घरांतलीं बेकार गीं गोरवां राखपाक गोरवां फाटल्यान वतालीं. चेडवांचीं ल्हानपणांतूच लग्नां जातालीं नी चेडे गोरवांचे राखणे जावन उरताले.

आबान जायतीं वर्सां गोरवां राखलीं. त्या तेंपार मुखेल राखण्यांमदीं आबाचो स्पाव चुकनासतना जातालो. गोरवांक चरपा खातीर दांड्या-दोंगोर ही एकूच सुवात सली. दोंगराच्या मुळसांत शेकानशेक लांबचे लांब शेतवड आसली. राखण्यांचो दोळो कलो जाल्यार गोरवां अचळय शेतांत देंवतालीं आनी शेताची नासाडी करतालीं. देखून खण्यांक दोळ्यांत तेल घालून गोरवां राखचीं पडटालीं.

दोंगरार तरेकवार झाडां आसलीं. भुरगेपणांत सावन आबाची ह्या झाडांवांगडा ळख आसली. आबाचो बापूय गांवठी वखदां दितालो. देखून पयस पयसुल्ल्या गांवात ावन लोक वखदां व्हरपाक येताले. तेन्ना दोतोर सामके उणे. तांचेरूय लोकांचो स्वास नाशिल्लो. दोतोरांच्या वखदांपरस लोक गांवठी वखदांक चड मानताले. देखून ात दीस आबाल्या घराकडेन वखदां व्हरपाक लोकांच्यो घिट्टयो पडटाल्यो. उपरांत खदां सोदून काडपाचें काम आबाक करचें पडटालें. मागीर तो वखदांच्या निमतान गलो दोंगोर माडयतालो.

एक दीस दोंगरार सावन वखद घेवन येता आसतना आबान वखदाच्या एका ाडाची व्हडली खांदीच मारून हाडली. तें पळोवन बापायन ताका खूब तापोवन काडलो... येदी व्हडली झाडाची खांदी कित्याक कापली रे तुंवेन?... अशो झाडांच्यो खांद्यो ापल्यार झाडां उरतलीं मरे दोंगरार? पोरा... हीं झाडां आसात म्हूण दोंगोर आसा ानी दोंगोर आसा म्हूण गांव आसा... ना जाल्यार ह्या गांवाचे केन्नाच तीन-तेरा जातले ाशिल्ले...!'

भुरगेपणांतूच बापायचें उलोवणें आबान मनार घेतलें. त्या दिसा सावन दोंगराकडेन ळोपाची ताची नदर बदल्ली.

दोंगराच्या मुळसांत आशिल्लें शेत बरें पिकतालें. आख्खो गांव त्या शेताचेर ोसतालो. ह्या शेताक वर्साचे बाराय म्हयने जाय तितलें उदक मेळटालें. दोंगराच्या ोंदच्यान व्हडले व्हडले झरे फुट्टाले. उदक आडावन दवरपाक बांद लेगीत घालचो डनाशिल्लो. शेतांत चिखल बरो आशिल्ल्यान भात बरें पिकतालें. देखून गांव खावन - पेवन सुखी आशिल्लो. कोणाकूच कसली पिरंगण नाशिल्ली.

पिरायेच्या पंदराव्या वर्सा आबाचें लग्न जाल्लें. ताची घरकान्न गंगा त मामालें चेडू ल्हान आसतना तें आबा वांगडाच खेळटालें. ताचे परस तें एका वर्सान ल आसलें. आबा दोंगरार गोरवां घेवन वतालो तेन्ना तेंय ताचे वांगडा वतालें. दो एकठांय खेळटां - खेळटां व्हड जाल्लीं. हेर राखणे तांकां घोव - बायल म्हूण चाळयत सुरवातेक तांणी मनार घेतले ना. पूण जेन्ना तांकां मात्शें कळपाक लागलें तेन्ना लजपाक लागलें. इश्टागतीचें रुपांतर मोगांत जालें. त्या तेंपार चडशीं लग्नां सोयरीग जातालीं. देखून मोग बी म्हण्टात ती कल्पनाच लोकांक खबर नाशिल्ली. देखून दोंगरा तांची सोयरीगत जुळोवन हाडली अशें जाण्टेल्यांक दिसलें आनी उपरांत रोकडेंच त लग्न जाल्लें.

आबाची पिराय वाडटा तशी ताका जायत्या गजालींची जाण येवपाक लाग आवय - बापायचो एकलोच पूत जाल्ल्यान ताका सगल्याच गजालींनी लक्ष घालचें पड एक दीस बापायन ताका लागीं आफोवन व्हेलो...

'आबाऽऽ...'

'किदें दादो...?'

'आमचे आतां इल्ले - इल्ले जाण्टेपण जाता...'

'किद्याक म्हुण्टा तूं अशें?'

'आतां तुयेंन सगल्यो गजाली शिकपाक जाय'

'कसल्यो गजाली म्हण्टा दादो'

'हें पळय... आख्ख्या गांवांत आमगेल्या घराण्याक आयज मेरेन पयलो म मेळटा... शिमग्याक गडे मांडार जमतात तेन्ना पयलो भोवमान आमकांच मेळटा धालांक बायलो उब्यो रावतात तेन्ना पयलो मान आमगेल्या घराण्याक मेळटा... भोवमान किद्याक मेळटालो तो जाणां तूं...'

'ना... म्हाका खबर ना तें'

'तर आयक... पयलींच्या तेंपार गांवाचेर कसलेंय अरिश्ट येयलें जाल्य आमगेले जाण्टेले पयलीं भायर सरताले. ते भियेवन केन्नाच भितर बसं नाशिल्ले... त लोक मात जीव आसल्यार भीक मागून खायन म्हूण घरांत लिपून बसताले... आमगेल जाण्टेल्यांनी पाखल्यां वांगडा सदांच दोन हात केले... पाखल्यांच्या तुबकांक ते भिये नांत. देखून पाखले लेगीत तांकां भियेवन दोन वांव पयस रावताले... गांवांतलीं जाय कुळां बाबत आशिल्लीं... पाखल्यांनीं बायलांचेर आगळीक केल्यार लेगीत ते हात पांगर

बसताले... पूण असल्यो वायट करण्यो पळोवन आमगेल्या जाण्टेल्यांचें रगत सळटालें... अन्यायाचो तांणी सदांच बदलो घेतलो... त्या खातीर गांवान आमकां च पयलो मान दिला... म्हजे फाटल्यान तुयेन तो सांबाळपाक जाय...'

'हय दादो... हांव तो सांबाळून दवरतलो' आबान उतर दिलें.

'आनीक दुसरी गजाल...' तो मुखार सांगपाक लागलो. 'दुसऱ्यांची सेवा करप तो अडचल्ल्याक आदार करप इतली बरी दुसरी गजाल ना. आमगेले जाण्टेले गांवठी दां दिताले... तांचें शिकून हांयेनूय लोकांक वखदां दिलीं. म्हजे फाटल्यान आतां हें चलोवपाक जाय... दांड्या दोंगोर आसा मेरेन वखदां फाल्त आसचींना... गांवठी दां तीं गांवठी वखदां... तांची सुवात दोतोरालीं वखदां केन्नाच घेवपाक पावचीनांत... न हो दांड्या दोंगोर सांबाळपाक जायो... तो आसासर आमकां कसलीच भिरांत .'

आबान बापायन सांगिल्ल्यो सगल्यो गजाली मन लावन आयकून घेतल्यो. यचें उतरान उतर ताच्या मेंदवांत घट जाल्लें. बापूय मदीं मदीं वगत मेळटा तेन्ना ताका त्यो गजाली सांगतालो. आनी आबा त्यो गजाली मन लावन आयकतालो.

आबाच्या पुरूशार्थाचो कस लागपाक चड तेंप गेलो ना. तेन्ना ताची पिराय -पस्तीस वर्सांची आशिल्ली. गोंयचे व्हडले - व्हडले दोंगर पावणेर वताले. मिनाचो ग गोंयांत निक्तोच मूळ धरपाक लागिल्लो. हातार पडटात ते दुडू खरे अशें येवजून लेशेच भाटकार आपणाल्यो जमनी आनी दोंगर मिनेरांक विकताले. दोंगर आनी नी विकत्यो घेवपाखातीर मिनेरांमदीं सर्त लागिल्ली. फुडल्या पन्नास वर्सांची तजवीज गंगडाच करपाक सोदताले. कचाकच दुडू मेजून ते दोंगर विकते घेताले. तेन्नाच कांय रांची दिश्ट दांड्या - दोंगरार गेली. दांड्या - दोंगर मिनान भरला हाची तांकां खात्री ल्ली. देखून तो विकतो घेवपाच्या हालचालींक नेट आयिल्लो. दांड्या - दोंगराची जमीन मुनीदादीची आशिल्ल्यान तिचे सगले हक्क पुर्तुगेज सरकाराकडेन आशिल्ले. काराच्यान आपणाक जायतें करपाक जातालें. तेन्नाच आबान फुडाकार घेवन दांड्या र वाटावपाक जायते यत्न केले. पुराय गांवाक ताणें जागो केलो. गांवूय ताचे टल्यान खंबीरपणान उबो रावलो. सुरवातेक सरकार गांवच्या लोकांक बदलें ना. पूण बान स्पश्ट सांगलें - 'दांड्या - दोंगर मिनाक गेलोच जाल्यार पयलीं आमचीं मडीं ळचीं पडटलीं... त्या बगर कोणाकूच मीन काडपाक मेळचेंना. असलीं निर्धाराचीं रां सरकारान अद्याप आयकूंक नाशिल्लीं. तांणी परिस्थितीचो नियाळ घेतलो आनी

दांड्या - दोंगर मिनेरांक विकपाचो विचार कुशीक उडयलो. अशे तरेन गांवाचें जैत ज
आनी सरकाराक नमतें घेवचें पडलें.

आपणाल्या फुडारीपणाक फळ मेळ्ळें देखून आबा मनांतल्यान खूब खुश
जालो. ताचें मन सामकें उचांबळीत जाल्लें. त्याच नेटार ताणें एक व्हडली घुडी त
केली आनी दोंगराच्या माथ्यार आशिल्ल्या घोडकाच्या रुखार व्हरून बांदली.
रुखाक मागीर लोक देवाचो रुख म्हणून वळखुपाक लागले आनी थंय घुडयांच्यो रा
पडल्यो. तेन्ना सावन कांय लोक दांड्या - दोंगराक वाठाऱ्याचो दोंगर म्हूण वळखुप
लागले. पूण ताचो खरो इतिहास नवे पिळगेच्या साप्प थोड्या लोकांक खबर आशि
पुराय इतिहासाक गवाय आशिल्लो तो एकलो आबा!

आपणाफाटल्यान घराण्याची घुडी आबा बेसबरी केळयतलो हाची ताच्या बापाय
खात्री जाली. ताच्या माथ्यावयलें वजें अचकीत कोणेंतरी सकयल दवरिल्लेवरी ताची
जाली. ताका सामकें मेकळें मेकळें दिसपाक लागलें. ताचे खोशेक अंत आनी पार उर
ना. ताका आपणाल्या पुताचो गर्व दिसपाक लागलो. ताका जाल्ले खोशेनूच ताचो घ
मारलो. पुराय जाण्टो जावचे पयलींच ताका काळजाचो आताक आयलो आनी तातुंत
तो भायर पडलो.

आबान बापायच्या मरणा उपरांत घराण्याचें दायज मुखार चलयलें. जंय ज
अन्याय घडटा थंय थंय ताणें सदांच आवाज उठयलो. पुराय गांव ताचें सांगणें आयकताल
आबाक सांगलेबगर गांवांत खंयचीच गजाल जांय नाशिल्ली. गांव ताका मानतालो. खा
आपणापरस आबान गांवाचेर चड मोग केलो. गांवठी वखदांखातीर पयस पयसुल्ल
वाठारांतल्यान लोक सदांच आबागेर गर्दी करताले. आबा वाजेनासतना सगल्या लोकां
वखदां दितालो. ताणें दिल्ल्या वखदांनी लोक बरे जाताले. बरे जाले उपरांत आब
उपकार मानपाक लोक परते तागेर येताले. तेन्ना आबाक धन्यताय भोगताली.

तेंपापरमाणे माथ्याक कुरपणे म्हण्टात ते भशेन तेंप वता तशें समाजाचें स
बदलपाक लागलें. गांवांत शाळा सुरू जाल्यो. गांवचीं भुरगीं त्या शाळांनी शिकपा
लागलीं. आबाक गांवांत शाळा नाशिल्ल्यान भुरगेपणात शिकपाक मेळ्ळें ना. पूण
शिक्षणाचे आड नाशिल्लो. शिक्षणाक लागून मनशाची उदरगत जाता हाची ताका जाणवी
आशिल्ली. त्याच खातीर ताणे आपणाल्या भुरग्यांक खूब शिकोवपाचें थारायलें.

गांवांतलीं भुरगीं शिकपाक लागिल्ल्यान गोरवां राखपाक राखणे ना जाल
शिकिल्लीं भुरगीं शारांनी वचून कामां करपाक लागलीं, गांवांतल्या जायत्या लोकां

रवां विकून काबार केलीं. काम - धंदो आशिल्ल्या मनशांक गोरवां कोणें सांगल्यांत तीं! बाचे दोगूय पूत शिकून शारांत कामाक लागले. पयशे जोडपाक लागले. देखून तांकां श्टांचीं गोडी उरली ना. आबा मात आपणाच्यान जाता तितले कश्ट निमाणे मेरेन रतालो. फाविल्ल्या वेळार गोरवां घेवन दोंगरार वतालो. लोकांक वखदां दितालो. तां ताचें जाण्टेपण जाल्लें पूण उमेद मरूंक नाशिल्ली.

एक दीस वाऱ्या सारखी खबर आयली. सरकार दांड्या दोंगर कापून तेवटेन यपास रस्तो व्हरपाक सोदी. आबाच्या कानार ही खबर पडली तेन्ना तो चाळवलो. नीक एक आंदोलन करचें पडटलें अशें ताणें मनांत येवजीलें. फाटलो सगलो इतिहास का उगडास जालो. आपूण आसासर दांड्या - दोंगर कापूंक दिवचोना अशें ताणें ारायलें. पारतंत्र्यांत पाखल्यांक आनी त्यांच्या तुबकांक भिलों ना तो आतां ह्या सरकाराक तां? आबान त्याच दिसा पुराय गांवांक जागो करपाचें थारायलें. आंदोलनाचो विचार बा मेळत ताच्या कानांत फुंकीत गेलो. गांवाच्या फुडाराखातीर दोंगराचें म्हत्व आबाक कट्याकूच खबर आशिल्लें. ताचे वांगडचे जाण्टेले केन्नाच सोपिल्ले. गांवांत आशिल्ले ते डशे तरण्या रगताचे तरणाटे. सरकाराक ते आयकुचेनात हाची आबाक खात्री ासली. आबान तिन्हसांजचे मांडार सगळ्यांक जमपाक सांगलें आनी तो तांची वाट ळयत बसलो. पूण आबाच्या उल्याक जाप दिवन कोणूच तरणाटे मुखार सरले नांत. न्ना आबा निर्शेलो पूण ताणे धीर सोडलो ना.

दोंगर वाटावपाक ताणे एकट्यान जायते यत्न केले. खासा ताचे पूत लेगीत ाच्या आदाराक धांवले नांत. हाकालागून सरकाराचें आयतेंच फावलें... रस्तो करपाची गली तयारी नेटान चलपाक लागली. तेन्ना मात आबा पुरायेन निर्शेलो. पयलेच फावट ाका आपणाल्या जाण्टेपणाची जाणवीक जाली आनी ताणें हांतरूण धरलें.

बुलडोझराचो आवाज दोंगरार जावपाक लागलो आनी आबा सामकोच अस्वस्थ ालो. बुलडोझर दोंगर कातरता त्या आवाजान ताच्या जिवाक कितें भोगतालें देवाक ब्बर. निमाणे खीण मेजताना लेगीत तो 'दोंगोर वाटयात' म्हूण वथरेतालो. बुलडोझराचो ावाज मोठ्या - मोठ्यान जायत गांव पोखरता सो दिसपाक लागलो. मदींच ताचो हडलो आवाज जालो आनी आबान जीव सोडलो.

आबा गेलो. पूण 'वाटायात... दोंगोर वाटायात' हीं आबालीं उतरां ताच्या दोगूय ताच्या कानांत अद्याप घुमतालीं.

# धंद्याचो एक दीस

आयज बुधवार. फोंडेंचो सप्तकांतलो बाजार. बबन सकाळचीं स वरां जाव पयलींच जागो जालो. शीं खातालें. तरीय आळशेपणां फापडून तो सडसडीत उठलो हांतूण गुठलावन ताणें कोनशाक आशिल्ले तामरेतीचेर दवरलें. कळशांतलें उदक ताण तांबयांत रकयलें आनी तो खोपट्यांफाटल्यान आशिल्ले खणीर वचून आयलो. उपरां ताणें रस्त्याक फुडो करून सडसडीत तोंड धुलें आनी हातपांय धुवन तो परतो भित सरलो.

लक्ष्मीक जाग आयली तशी ती सडसडीत उठली. तोंड धुंवचे पयलींच तिण रांदनींत उजो पेटयलो आनी बबनाखातीर चायेक दवरलें. बबन कपडे आंगार चडयत रांदनीकडेन आयलो. लक्ष्मीन रांदनींतली नदर वयर काडीनासताना बबनाक हटकिलो

'कित्याक उठयलेंना म्हाकां?

'न्हिदूंदी म्हळें सुशेगाद'

'आनी च्या कोण करता आशिल्लो?'

'आयज बाजार न्ही गो? घेतलों आशिल्लों बाजारांत'.

'घरची च्या बरी लागनां तुमकां' - लक्ष्मीन गाल फुगोवन म्हळें.

'तशें न्ही गो. फकाणां केलीं हांवेन'

'किदें हाडटले म्हाका बाजारांतल्यान?'

'काल सांगिल्लें तें'.

'बरी याद उल्ली मूं तुमकां' - अशें म्हणून लक्ष्मीन फुटी च्या रकोवन बबनाक दिली. डब्यांत हात घालून तिणें दोन बिस्किटी काडल्यो आनी ताचे मुखार दवरल्यो.

बबनाची च्या पिवन जाता म्हणसर दोगांय भुरगीं उठून बबनासरीं आयलीं व्हडलो पांच वर्सांचो चलो किशोर आनी साडेतीन वर्सांची चली किशोरी.

'बाबा......' किशोरान तोंड उत्ते केलें.

'कितें रे?'

'म्हाकां स्वेटर जाय'.

'हाडटां आं. मस्ती करप ना'.

'आनीं म्हाका बावलो जाय.... नाची करता तशलो'.........किशोराचें आयकून
ोरीनूय मागणी केली.

'हाडुंया आंऽऽ. शाणें तें' सकाळीं फुडें भुरग्यांचे तोंड वांकडे जावं नाका म्हूण
ान म्हणून सोडलें. मात दोगांय भुरगीं खूश जालीं. हरशीं नाजाल्यार सकाळीं फुडें
ों जालीं म्हण्टकीच तांची कितें ना कितेंतरी किरकीर आसता. बायल आनी भुरगीं
आसलीं म्हण्टकीच बबनाच्या जिवाक बरें दिसता.

च्या पियेवन जातकीच बबनान भितरलेवटेन दवरिल्लो चादरांचो गठ्ठो भायर
ऽलो. दोगांय भुरग्यांची पापी घेतली. बायलेक 'येता गो' म्हणून पांयांक जोतें चडयलें.
रांचो गठ्ठो माथ्यार मारलो आनी सोमतोच रस्त्यार देंवलो. फोंडे बाजाराचे दिकेन
पाक ताणें बेगबेगीन पावलां उबारलीं.

फोंडेचो बाजार सक्काळीं फुडें भरता. लागशिल्ल्या गावांतल्यान लोक भाजी,
ों, नाल्ल असो तरेकवार वेपार घेवन येतात. जितले सकाळीं बेगीन लोक बाजारांत
तात तितले बेगीन तांकां गिरायक मेळटा आनी परत बेगीन घरा वचपाक मेळटा.
ते लोक बाजार करून कामाचे कामाक वतात. सकाळचीं आठ वरां जाता म्हणसर
ार चिक्कार भरता आनी इकरा वरां जावचे पयलींच पुराय उलगता. फेरीवाले आनी
वेपाऱ्यांक लेगीत होच वगत सांबाळचो पडटा. ना जाल्यार पुराय दीस फुकट वता.
्या वाठारांतल्यान येवपी वेपारी आनी दलाल लोक सकाळचीं आठ वरां जांवचे
लींच पिकपींनी वेपार भरून नाच जातात.

बबन चलत पिंपळा पेडाकडेन पावलो तसो तो देवाक पांयां पडपाक देवाचे
टेकडेन गेलो. चादरांचो गठ्ठो ताणें उखलून पेडार दवरलो. पांयांचे जोते काडून
ी दोळे धांपून ताणे देवाक नमस्कार केलो. 'देवा पाव, बरें गिरायक जाल्यार पुरो'.
ो मनांतल्या मनांत देवाकडेन मागलें. देवाची बिबूत कपलाक लावपाक ताणें दोळे उक्ते
आनी ताची नदर थंय दवरिल्ल्या केळ्याचेर पडली.... ताचे पयलींच कोणेंतरी
ाराक वतना देवाक केळें दवरिल्लें. बबनाक दिसलें देवानूच तो आपणाक प्रसाद दिला.
ों तें केळें हातांत काडलें आनी भावार्थान थंयची बिबूत काडून कपलाक लायली. देवान
ाद दिला म्हण्टकीच गिरायक बरें जाले बगर रावचें ना.बबनाक देवान हो पयलेच

फावट प्रसाद दिवंक ना. हाचे पयलींय जायते फावट दिला आनी जेन्ना जेन्ना प्र दिला तेन्ना ताका गिरायकूय बरें जालां. देवावयल्या भावार्थान ताचें मन भरून अ घुमटेवसल्यान ताणें परत एक फावट पळयलें आनी पांयांक जोतें चडयत चादरांचो ग माथ्यार घेतलो.

पयरूच ताणें मुंबय वचून चादरांचो नवो स्टॉक हाडिल्लो. लोकांची रूच अ पयलीं भशेन उरूंक ना. लोक नवे नवे डिजायन आनी तरेकवार रंगाचो म्हाल सोद खंयच्या वगतार कसलें गिरायक मेळत सांगपाक जायना. ते भायर वेपाऱ्यांमदींय खूब वाडल्या. पयलीं बबन आनी हेर दोग - तीग जाण चादर घेवन बसताले. आतां हो - तिगांचो आंकडो धा - पंदरांचेर पावला. सगलेच जाण एकामेकांचें गिरायक अ व्हरतात. हाका लागून कोणाक फायदो जाता तो जाता. जाल्यार केन्ना - के फायद्या भशेन लुकसानूय सोसचें पडटा. सप्तकभर जे जे सुवातेर बाजार भरता थं थंय बबन चादरां घेवन वता. शेनवार - बुधवार फोंडें, सोमाराक म्हाड्डोळा, सुक्र बाणस्तारी, बिरेस्ताराक दिवचले जाल्यार मंगळाराक राय नाजाल्यार शिरोड्यां तरेन ताचे सगले दीस वांटिल्ले आसतात. शेनवारा सांजवेळां तो मुंबय वता अ आयतारा रातीकडेन चादरांचो नवो स्टॉक घेवन परतो येता. अशेतरेन पुराय सप्तव ताचें वेळापत्रक थरिल्लें आसता.

बबन मुळचो लोंड्यावयलो. धा वर्सां पयलीं कोंकण रेल्वेचें काम सुरू जालें त हेर लोकांवांगडा तोय एक कामगार म्हूण आयिल्लो. खणपाचें, फातर फोडपाचें बरें मेळिल्ल्यान बबनाचीं कांय वर्सां मजेंत गेलीं. मजगतीं ताणें फोंडें लागसार कुट्टी आशिल्ले झोपडपट्टेंत हेरांवांगडा आपणालीय एक झोपडी बांदली. काम करता आसता लक्ष्मीवांगडा ताची वळख जाली. उपरांत तांचें लग्न जालें. ज्युस्त एका वर्सान किशो जल्म जालो. सुरवातेचीं कांय वर्सां कशीं गेलीं कांय कळ्ळेंच ना. पूण कोंकण रे वावर पूर्ण जालो आनी वयल्यान आयिल्ले सगले कामगार काम नाशिल्यान बेकार प कांय जाणांनी आपणाली साटली - पोटली कवळ्ळी आनी काम सोदीत ते खंय प देवाक खबर. जे साडेसुडे आशिल्ले तांणी मेळत तीं कामां करपाक सुरवात केलीं.

कोंकण रेल्वेचें काम सोपलें आनी बबनाचे सामके हाल जाले. पयलीं तो जीव आसताना बरें आशिल्लें, पूण आतां ताचे वांगडा ताची बायल लक्ष्मी आनी किशोर आशिल्लो. ते भायर बायलेक परते दीस गेल्ले. जायतीं वर्सां गोंयांत काडिल्ल गोंयचे जिणेची संवकळ जाल्ली. हांगासल्ल्या लोकांवांगडा वळख वाडिल्ली. स्वताची झो

ोल्ल्यान जाग्याचें सुख आशिल्लें. एकटो जाल्यार खंयूय वचूं येतालें. पूण आतां ताचे डा ताचो संवसार आशिल्लो. कांय दीस चिंतून चिंतून ताची तकली विरार जाल्ली.

पूण बबनान धीर सोडलो ना. कांय दीस ताणें हमालीपण केलें. कोणालेंय काम ल्यार लोक ताका आपोवन व्हरताले. पूण तें काम एकाच दिसाचें आसतालें. दुसऱ्या ा परतें कसलें काम मेळटलें हाची वाट पळोवची पडटाली. सद्दां सकाळचो तो बेगीन ठालो आनी भुती घेवन फोंडेच्या प्रासावेल्या सांकवार बसून कसलेंय काम मेळटलें आशेन रावतालो. पूण काम मेळ्ळ्यार मेळटालें. ना जाल्यार दिसां फाटल्यान दीस ट वताले. अशे तरेन ताची परिस्थिती सामकी वायट जाल्ली. कसलेंय काम मेळ्ळें ल्यार तो तिनसांजे येतनां घरांत ना तें सामान उगडासान हाडटालो आनी काम मेळ्ळें जाल्यार ताका हात हालयत परत येवचें पडटालें. तो कितेंयतरी हाडटलो म्हूण लक्ष्मी ी वाट पळयत रावताली. देखून ज्या दिसा काम मेळना त्या दिसा लक्ष्मीचे नदरेक र दिवपाचो धीर ताका जाय नाशिल्लो.

थंडेच्या दिसांनी झोपड्यांनी रावपी लोकांचे सामके हाल जाताले. थंडी सोसपाक य नाशिल्ली. बबन कशें तरी शीं सोसतालो. पूण धाकटुलो किशोर आनी ताका वेगांत न कडकडपी लक्ष्मीक पळोवन बबनाक वायट दिसतालें. देखून एक दीस काम पोवन घरा येता आसताना तो चादर घेवपाक गेलो. पूण चादरांचे दर ताका वडपासारखे नाशिल्ले. निमाणें वांटपण करून - करून देडशें रुपयांची एक चादर का पन्नास रुपयांक मेळ्ळी.

त्या दिसासावन बबनाच्या मनांत वेगळोच विचार घोळपाक लागलो. आपणेंय सो चादरांचो धंदो केलो जाल्यार? आनी ताणें तशी तयारी करपाक सुरवात केली. ळत तसलें काम करून ताणें कांय पयशे गांठीक मारले. सुरवातेक ताणें एका नंटाकडल्यान चादर घेतले. ह्या धंद्यात ताका वेगळोच अणभव आयलो. फायदो जालो ल्यार बरोच फायदो जातालो. देखून हो धंदो ताका मानवलो. उपरांत तो मुंबयच्यान ल हाडपाक लागलो आनी आपणाल्या पांयार उबो रावलो.

फोंडें बाजारांत पावलो तशी बबनान एक सुवात सोदून काडली. चडशी सुवात रयेवाल्यांनी आदल्या दिसाच आडावन दवरिल्ली. बबनान चादरांचो धंदो सुरू केल्लो ना चड फेरयेवालेय नाशिल्ले आनी चादरूय घेवन कोण चड बसनाशिल्लो. पूण आतां ाय धंद्याचे बरे दीस फाटीं पडल्यात. मेळत ते लोक होच धंदो करपाक लागल्यात. बनान कुशीच्या फेरयेवाल्यांचेर एक नदर मारली आनी आपणालो चादरांचो गठ्ठो

सोडयलो. बेस बरे रितीन ताणें तीं मांडून दवरलीं आनी गिरायकां येवपाची तो व
पळयत बसलो.

कुशीक बशिल्ले फेरयेवाले तोंडान बोब मारून गिरायकांक लागीं आपयता म्हालाचो उण्यांत उणो दर सांगून वेपाराची जायरात करून गिरायकांक आकर्श करताले. बबनाक अशी तोंडान बोवाळ करपाची संवय नाशिल्ली. आपणाल्या नशिब आसा तें आपणाक मेळटलें म्हणून तो बसून रावतालो. आनी खऱ्यांनीच केन्ना - केन्न गिरायकां बोवाळ करून आपोवप्यांक फाट करून बबनावसल्यान चलून येतालीं.

'कशी दिली रे जोडी?' - एके किरिस्तांव बायलेन चादरांक हातं ला विचारलें. बबनान पळयलें. गिरायक बरें पेजाद आसा.

'तिनशें रूपया बाय.... यो व्हर... तुका म्हारग सांगना'.

'आवयसऽऽ कितो म्हारग रे?' 'दोनशांक दिता?'

'ना बाय दोनशांक परवडना.....अडेचशें दी.'

'दोनशें पंचविसांक दिता?'

'आनीक धा रूपया सुबेज दी...' बबनान वांटपण वाडयलें आनी ती बाय दुसरेकडेन गेली. बबनाक बेश्टेंच पिकासांव जालें. कांय बरें गिरायक वगडायलें. ब बोंडी जातली आशिल्ली. हरशीं ती चादरांची जोडी दोनशीं रूपयांक दिल्ली जाल्यार ता शंबर रुपया फायदो जावपाचो. वेल्यान तिणें ती सव्वा - दोनशांक मागिल्ली. बबन आपणाकूच दोश दिलो. चड आशा जाली ताका. पूण ताणें व्हडलेंशें मनार घेतलें न बाजाराचो दीस आयज, जातलें गिरायक म्हूण तो फुडल्या गिरायकांची वाट पळ बसलो. कांय जाणां येतालीं. चादरांक हात लावन पळयतालीं आनी दर विचारीनासत मुखार वतालीं. कांय जाणां चादरांची लांबी - रुंदी विचारून घेतालीं, कांय जाणां चा सोडोवन दाखोवंक लायतालीं. दर विचारतालीं आनी मुखार वतालीं. मागीर बबनाक चादर परती घडी करून दवरची पडटाली. बेश्टे फोल्गाक आयिल्ल्या लोकांची ता तिडक मारताली. पूण गिरायकांचे आशेन नाका तोंड धांपून वगी रावचे पडटालें. भायर हे गजालीची ताका आतां सामकी संवय जाल्ली. बाजारांत बशिल्लेकडेन ता तरेकवार लोक पळोवंक मेळटाले.

'कशी रे जोडी?' आनीक एकलेन विचारलें.

'तिनशें रूपया बाय.'

'आवयस! तिनशें रूपया?' 'देडशांक दिता?'

'देडशांक परवडना बाय.... दोनशीं दी' - बबनान पयलींच्या अणभवाक धरून गलें.

'देडशांक दिता जाल्यार दी..... ना जाल्यार चल्लें हांव' - अशें म्हणून खऱ्यांनीच चलपाक लागली.

'पावणे दोनशीं दी यो व्हर' - बबनान पयशे उणे करून सांगले. पूण ती परतना पळोवन बबनान दर आनीक उणे केलो.

'यो व्हर... देडशें जाल्यार देडशें'. पूण बबनान 'देडशें......' म्हळें तें आयकनासतना मुखार गेली.तोंडाकडेन आयिल्लें आनीक एक गिरायक बबनान वगडायलें.

उपरांतचीं पांच - धा मिनटां अशींच गेलीं. इतले म्हणसर एक दादलो आयलो. चो उलोवपाचे झेत पळोवनूच बबनाक तो थंयच्यान बेगीन गेल्यार पुरो जालें. ताणें तनाच विचारलें-

'कशी रे जोडी?'

'दोनशीं रूपया'.

'दोनशीं रूपया! कितें फोल्गाक येयला रे?'

'कितले दिता सांग?'

'मुंबय असल्या चादरांच्यो दोनशांक दोन जोडयो मेळटात'.

'तशें जाल्यार मुंबयच्यानूच कित्याक हाडिना?' - अशी जाप बबनाच्या तोंडार ायिल्ली. पूण तशें म्हणप आपणाक सोबचें ना अशें येवजून ताणें तोंडार आयिल्लीं तीं तरां भितरले भितर गिळ्ळीं. तो दादलो तोंडाक येता तें उलयत मुखार गेलो. बबनाकूय केन्ना एक फावट थंयच्यान गेल्यार पुरो जाल्लें.

मागीरचीं सगळींच गिरायकां तशींच लटर-फटर. दर विचारून विचारून तालीं घेवपाक कोणाकूच नाका आशिल्लें. परतो- परतो दर सांगून सांगून बबनाक ामको वीट आयलो. पूण ताणें आशा सोडूंक नाशिल्ली. गिरायक कोणाच्या रूपान येत ूण सांगपाक जायनाशिल्लें. देखून तो वाजेनासतना येतल्या - वतल्याक हांसरें तोंड रून दर सांगतालो.

दीस माथ्यार आयलो तसो पुराय बाजार उलगलो. बाजारांतले लोक इल्ले - इल्ले रून पातळ जाले. एक तरी गिरायक मेळ्ळ्यार पुरो आशिल्लें. बबनाक घराकडेन ाशिल्ल्या बायल आनी भुरग्यांची याद आयली. बाबडीं आपूण कितें-कितें हाडटलों म्हूण ाट पळयत रावतलीं. रित्या हातांनी घरा गेल्यार आपूण लक्ष्मीक आनी भुरग्यांक तोंड

कशें दाखयतलों? अशें येवजून ताची तकली विरार जावपाक लागली.

कितलोसोच वगत तो तस्सो बसून रावलो. ताका तान आनी चुरचुरीत भु लागिल्ली. पूण बायल आनी भुरग्यांची जाणवीक चड खर आशिल्ली. देखून तान अ भुकेचें ताणें तितलेंशें मनार घेतलें ना. आतां घरा कशें वचप होच एक मोटो प्रस्न त मुखार आशिल्लो. सांज जायत आयली, पूण एकूय गिरायक आयलें ना. आनीक र कांयच फायदो नाशिल्लो. तो जाग्यावेलो उठलो आनी ताणें मांडून दवरिल्लीं स चादरां एकठांय केलीं. गठ्ठो बांदलो आनी उबारून माथ्यार घेतलो.

घरा वता आसतना बेश्टोच आनीक एक यत्न म्हूण तो मेळत ताका 'चा जाय' काय विचारीत वचपाक लागलो. तो सामकोच अकलेक आयिल्लो. कोणेंय श रूपयांक लेगीत जोडी घेतल्यार तो दिवपाक तयार आशिल्लो. सकाळचीं दोन त गिरायकां वगडायलीं आनी सगली वाट लागली. देखून तो आपले - आपणाकूच व दिवपाक लागलो.

'कशी दिली रे जोडी?' - रस्त्याकुशीच्या एका पसरकारान उक्त्या पोटार भोंवडायत विचारलें.

'देडशें रूपया' - बबनान वगीच फट मारली.

म्हाका म्हूण सवाय दिवचो ना?' - पसरकार वांटपण करपाक लागलो.

'माग.... कितले दिता तें सांग.'

'सत्तर दितां' - पसरकारान तोंड उक्तें करीनाफुडें बबनान गठ्ठो सक दवरलो. सकाळचो अणभव परतो येवपाक नाका म्हूण ताणें तोंड उक्तें केले ना. चादर जोडी काडून ताणें पसरकाराले ताबीर दवरली. पसरकार पांचशांची नोट भायर का तें पळोवन ताणें मोडीचेच पयशे दिवपाक सांगले. पसरकारान मेजून सत्तर रूपया दि तीस रूपयांचे हुननीत लुकसाण बबनाक सोसचें पडलें. तरीय भुरग्यांक कितेंय व्हर मेळटलें म्हूण तो खोशी जालो. आनीक गिरायकाची वाट पळयनासतना ताणें त घरची वाट धरली.

# फातरपटो

किरींगऽऽ... किरींग.. फोनाच्या आवाजान हांव सुस्त न्हिदेंतल्यान जागो जालों. ाकडलो टॉर्च काडून हांवें वण्टीवेले घडयाळीचेर उजवाड घातलो. आवयस्. रातचीं : बारा जाल्लीं. एदे व्हडले राती कोणालो फोन काय? कितें तरी इमर्जन्सी आसतली. : चोळीत हांव फोनासरीं आयलों आनी फोन उखल्लो... 'हॅलो?'

'गांवकार दी मात्सो?'

'कोण गांवकार?'

'गांवकार! आनीक कोण?' कोण तरी अधिकारवाणीन उलयतालो.

'ह्या घरांत सगलेच गांवकार. हांव गांवकार... म्हजे भाव गांवकार... बापूय कार... पूत गांवकार...'

'तो रे कॉन्ट्रेक्टर आसा तो.'

'ह्या घरांत आमी दोग जाण कॉन्ट्रॅक्टर आसात.'

'कला भवनाचो कॉन्ट्रक्ट कोणाकडेन आसा?'

'हां! म्हजेकडेन... हांवच तो.'

'चड सुबेज उलयता मरे तूं... हांव कोण तो जाणा तूं?'

'कोण उलयता?'

'मिनिस्टर फॉर कल्चरल डॅव्हलपमेंट...'

'सॉरी सर! पयलीं वळखलों ना हांव'... मुखावेलें कॉन्ट्रॅक्ट मेळटलें जाल्यार यांमुखार आमकां अशें नमतें घेवचें पडटा.

'कला भवनाचें काम खंय पावलां?'

'चलता सर!'

'आनीक कितें उरलां?'

'भितल्लें काम पुराय जालां. भायल्या कंपाउंडाचें काम जालें म्हणटकीच जालें'.

'तें काम फाल्यांच सोंपय... परां उक्तावण दवरलां'.

'एकाच दिसान कशें जातलें सर?'

'परतें विचारता?'

'सॉरी सर...'

'आनी हें पळय...'

'...' परतें परथो उलयलो अशें ताका दिसत म्हूण हांवें कितें काय म्ह

विचारलें ना. पूण तोच मुखार उलयलो.

'फातरपटो बीन तयार आसपाक जाय.. म्हजें नांव मोठ्या अक्षरांत आसुं

'बरें सर!... 'हांवें म्हळें आनी ताणें फोन घडांयच करून सकयल आपटिलो म्हाका आवाजावेल्यान कळ्ळें.

जालें! रातच्या साडेबारांकूच म्हजे उरिल्ले न्हिदेचें खोबरें जालें. फाल्यां दिसाभितर सगलें उरिल्लें काम पुराय जावपाक जाय. म्हणटकूच फुडलीं सगलीं कारस्था आनी यंत्रणा आतांच सुरू जावपाक जाय. देखून फोनाची डिरेक्टरी सोदपाक हांवें मेज गवेत उक्तें केलें...

पाड पडिल्लीं सरकाराचीं कामांच अशीं! पंदरा दिसां फाटीं सुरेंद्र नायक असोच जीव खाल्लो. तेन्ना तो कला आनी संस्कृताय मंत्री आशिल्लो. सरकार पडप आसा हाची सुलूस ताका दोन दीस आसात म्हळ्यार लागली. आनी पाड पडिल्लो एक दिसान काम सोंपय म्हूण फाटीक लागलो.

'आजूच सगलें काम प्रॉंत जावपाक जाय' - ताणें ऑर्द सोडली.

'पूण एकाच दिसान कशें आटापा हाडूं सगलें?'

'केल्यार कितेंय जाता. कितें कितें उरलां जावपाचें?'

'भायल्यान आडो उरला काडपाचो. त्या भायर भितर झाडां रोवपाचीं उरल्यांत

'आडो मारलो झक... तो केन्नाय बांदू येता... झाडां रोयल्यांत अशें दाखोवप झाडांचे मोटे मोटे खांदे हाडून पूर...' खासा मंत्र्याच्या तोंडांतली भास आयकून म्हा हांसचें काय रडचें तें कळना जालें.

'आनी हें पळय...'

'आंऽ...'

'फातरपटो बरो जावंदी.'

'बरें सर!' आनी उपरांत हांवें जाता नजो करून, लाखाचे बारा लाख मो

ों तरी एका दिसान काम सोंपयलें. नवो फातरपटो बसोवन जाल्लो. कला भवनाच्या त्तावणाक जायतो लोकूय जमिल्लो. पूण उक्तावणाचो वगत जावन लेगीत मंत्री आयलोच मंत्री सदांच वेळान येतात हे लोकांक खबर आसता. देखून दिल्ल्या वेळा भायर लोक नीक दोन वरां बसून रावले. मंत्री येना तें पळोवन लोक वाजेवपाक लागले. इतले गसर कोणे तरी खबर हाडली. दोन वरां पयलींच सरकार पडिल्लें. लोक पयलींच पाची तयारी करताले. 'सरकार पडलें' ही खबर वाऱ्याभशेन सगल्याक पातळ्ळी. नी बांद कोसळटकीच बांदांत उपाट भरिल्लें उदक जशें खिणांत नाच जाता ते भाशेन मेल्ले सगळे लोक नाच जाले. म्हाका मात मुखार कितें करचें तें येवजना जालें. देखून ती मनान कितलोसोच वगत हांव एकटोच थंय बसून रावलों. नवो फातरपटो बी बसोवन ल्लो. ताचें आतां कितें करपाचें ते थारावंक नाशिल्लें. खर्चूय बरोच आयिल्लो. हो खर्च तां खंय दाखोवपाचो तें हांवें थारावंक नाशिल्लें. कॉन्ट्रॅक्टर जावचे परस रस्त्यार बसून कांले बूट पॉलीश केल्ले बरे अशें वगीच दिसपाक लागलें. मात त्या दिसासावन हांवें तनायेन पावल घालपाचें थारायलें. पूण हे मिनिस्टर म्हळ्यार सामके ब्रूत लोक. तांकां स - भास कांय समजना हें हांव अणभवान जाणा आसलों.

आतां ह्या मिनिस्टर सायबाची अशीच कितेंय भानगड जाल्या आसतली. ना ल्यार असो एकदम रातीकडेन म्हजे फाटीक लागचो नाशिल्लो. सरकार पडपाचें सलें म्हणटकीच तांकां रोखडोच वास लागता. मागीर तांकां कितें करूं आनी कितें का कांयच समजना. उण्यांत उण्या वेळाभितर तांकां मागीर हाताक लागीं मेळटा तें तलावचें पडटा. कित्याक तर आपूण परतो थंय पावत म्हणपाचो ताका भरवंसो नासता. पलें नांव जाल्यार चडांत चड सुवातींनी जल्मभर कोरांथून उरचें अशें तांकां मनांतल्यांन सता. देखुनूच ते सरकार पडटा आसतनाच आपणालें सादोवन घेतात. थंय तांकां गीर कसलेंच सुवेर - सुतक लागना.

मेजाच्या गवेतांतल्यांन हांवें फोनाची डिरेक्टरी भायर काडली आनी गवेत पलें. कोणाकोणाक फोन लावचे तें कांयच थारावंक नाशिल्लें. कितें पयलीं करचें आनी तें मागीर करचें तेंय थारावंक नाशिल्लें. देखून कांय खीण बेठीच डिरेक्टरी चाळीत वलों. फातरपटो पयलीं तयार जावपाक जाय देखून म्हापशेंकाराक पयलीं फोन यल्यार बरें अशें येवजून हांवें म्हापशेंकारालो नंबर लायलो. रींग जावपाक लागली. टीवेले घडयाळीचेर हांवें नदर मारली. रातचें एक वर जावपाकडेन पाविल्लें. रातीकडेन कांक त्रास दिवपाक म्हज्या जिवार येतालें. पूण म्हजेकडेन कांयच उपाय नाशिल्लो.

'हॅलोऽऽऽ' - बायल मनशेचो वाजेल्लो आवाज आयकूंक आयलो.

'म्हापशेंकार आसा?'

'न्हिदला तो. कितें सांगपाक जाय तें सांग. हांव सांगता ताका.'

'कोण उलयता काय विचार मुगो' - म्हापशेकारालें प्रॅाम्टींग फोनावेल्यान म्हज कानार पडलें. म्हणटकीच म्हापशेंकार जागो आसा तर! तिणें कोण उलयता क विचारले पयलींच हांवें सांगून सोडलें -

'हांव गांवकार उलयतां.

कॉन्ट्रॅक्टर...'

'सकाळीं करशात फोन...?'

'ना... ना... प्लीज आतांच' - हांव अशें म्हणटा आसतनाच म्हपशेंकार फोनाला आयलो तें म्हाका कळ्ळें. ताणें तिचेकडल्यान रिसीव्हर घेतलो.

'हॅलोऽऽ...'

'आं... म्हापशेंकार सायब... हांव गांवकार उलयतां' - नांवामुखार साय जोडल्यार कामां मात्शीं बेगीन जातात हें म्हाका अणभवान खबर आशिल्लें.

'कितें रे... एदे व्हडले रातचो फोन सो केलो?'

'एक अर्जंट काम आसा... फातरपटो जाय आशिल्लो एक'.

'केन्ना जावपाक जाय?'

'फाल्यांच जावपाक जाय रेडी...'

'फाल्यां...!? कसोच जावचो ना. एका दिसान म्हूण फातरपटो जाता?'

'प्लीज उपकार कर. कशेयभशेन फाल्यां जावपाक जाय...'

'कित्याक रे? इतली गडबड कित्याक? सरकार बी पडपाचें ना मरे?'

'तें चिंतपाक म्हाका वगत ना. म्हजे शेंपडेक सामको उजो लागला.'

'तशें जाल्यार म्हाका सगलीं कामां पँडींग दवरचीं पडटलीं मरे?'

'पळय, मात्शे उपकार कर...'

'खर्च दोब्राद येतलो पळय...'

'उपकारता... सकाळीं मॅटर हाडून पावयतां... बरें तर... गुड नायट'.

हांवें फोन सकयल दवरलो आनी आनीक कोणाक फोन लावपाचें तें चिंतपा लागलों. बाबुशाचो उगडास जालो आनी हांवें परतो फोनाक हात घातलो. बाबुश लेब कॉन्ट्रॅक्टर. हेर बारीक बारीक कामां ताचेकडल्यान करून घेतल्यार बरीं अशें येवजू

वें बाबुशाचो नंबर लायलो. जिस्त चार फावट रींग जावन दुसरेवटेन फोन उखल्लो नी बाबुशाच्या घरांतलें चित्र म्हज्या दोळ्यांसामकार उबें रावलें... फोनाच्या आवाजान चीं धाकटीं भुरगीं जागीं जावन रडटालीं... तांकां ओगी करीत ताची बायल एदे व्हडले तचो फोन करतल्याक खेपताली... बाबुश रिसीव्हर हातांत धरून तिका ओगी रावपाक गतालो... पूण ती फरफरत रावली... मागीर बाबुश उलयलो -

'हालोऽऽ? कोण?'

'आरे हांव गांवकार उलयतां... कॉन्ट्रॅक्टर...'

'कितें जालें? एदे व्हडले रातचो सो?'

'आरे कितें सांगूं तुका? मिनिस्टर सायब सामकोच फाटीक लागला मरे... ला भवनाचें काम फाल्यांच पुराय कर खंय'.

'मागीर हांव कितें करूं?'

'थोडे मानाय पळय आनी कला भवना भोंवतणची सगली सुवात लीप करून घे.'

'फाल्यांच जावपाक जाय?'

'हय... हय... फाल्यां सगलें प्रॉत जावपाक जाय... आनी हें पळय...'

'आनीक कितें?'

'मात्शें पांचवें दिसपाक जाय... फाल्यां रातीकडेन थोड्यो झाडांच्यो खांदयो ाडून पुरच्यो...'

'बरें...'

'फाल्यां मेळचें मागीर...'

'बरें...' अशें म्हणून ताणें रिसिव्हर सकयल दवरलो. आनीक एक काम जालें हूण म्हज्या जिवाक बरें दिसलें. आनीक खंयचीं कामां करपाचीं तांचो हांव उगडास रपाक लागलों. मागीर दिसलें उरिल्लीं सगलीं कामां बरोवन काडिल्लींच बरीं. विसरपाक आनी नाका. अशें चिंतून हांवें एक पेपर काडलो आनी एका फाटल्यान एक अशीं सगलीं कामां बरोवन काडलीं. ताचेर एक - दोन फावटी परत नदर मारली. कितेंय चुकून उरलां काय पळयलें. सगलें सारकें जालां अशें दिसतकूच एक आळस आयली. परती हांवें घडयाळीचेर नदर मारली. रातचीं अडेच वरां जाल्लीं.

आनीक एक चार वरां न्हीद मेळटली म्हूण परतो आड पडलों. जांबयो येताल्यो. दोळे जड जाल्ले. पूण न्हीद येना जाली. रातभर कुशी परतीत रावलों. दोळे जड जावन लेगीत सकाळचो उजवाड जायसर दोळ्याक दोळो लागलो ना. उजवाड जायना फुडें

सडसडीत उठलों. हांवेंच आळशेपणां केल्यार कामां कशींच लागीं येवचीं नात ह
म्हाका खबर आशिल्ली. हो म्हजो पयलोच अणभव नाशिल्लो. देखून सगलीं सकाळ
कामां हांवें बेगोबेग आटापाक हाडलीं आनी भायर सरून स्कुटर घेवन नीट क
भवनाकडेन गेलों.

जिस्त साडे आठ वरांचेर बाबुश मानाय घेवन आयलो. तांकां हांवें खंय र
कितें करपाचें तें सांगलें. सांजवेळ मेरेन सगलीं कामां सोंपूंक जाय हाची चत्राय दि
बाबुशाक कुशीक व्हरून कानांत चार गजाली सांगल्यो. त्यो गजाली भायर फोडपा
न्हय. मागीर स्कुटर घेवन नीट म्हापशेंकाराक मेळपाक गेलों. म्हापशेंकार काम
लागिल्लो. आमचेंच काम चालू आसा तें पळोवन जिवाक सूऽऽ जालें. हांव आयलां
पळोवन ताणें म्हाका बसपाक कदेल दिलें. हांवें मॅटर काडून ताचेकडेन दिलें आनी ह
बसलों. म्हपशेंकाराक म्हजी काकूट दिसताली. तें हांवें ताच्या दोळ्यांत पारखिलें. तर
ताणें म्हजीं फकाणां मारपाची संद वगडायली ना. 'गांवकारबाब... हे फावटी तरी उ
जातलो मरे?'

'पळोवया कितें जाता तें.'

'अशें केल्यार कशें...?'

'कितें तें...?'

'मंत्र्याचें नांव पयलीं घालचें न्हय...'

'मागीर कितें घालपाचें...?'

'फक्कत मिनिस्टर फॉर आर्ट ॲन्ड कल्चर म्हूण घालपाचें आनी उक्ताव
जाय मेरेन मिनिस्टर उरलो जाल्यार वगतारूच ताचें नांव हाडून दसोवपाचें!'

'आयडिया वायट ना. पूण आतां आमचेकडेन वगत खंय आसा?' ताच्या
उतरांनी ताका हांवें जाप दिली. सांजमेरेन फातरपटो बसोवन जावपाक जाय म्हूण ता
चत्राय दिली आनी फुडलीं कामां करपाक हांव थंयच्यान भायर सरलो.'

तान - भूक विसरून दीसभर लागून सगलीं कामां लागीं हाडलीं. जिवाक पु
जाल्लें. दुसऱ्या दिसा सकाळीं साडे णव वरांचेर उक्तावण जावपाचें आशिल्लें. दे
वळखीच्या आनी मेळटा त्या लोकांक आपोवणें दिलें. पत्रकारांक फोन करून कळय
फोटोग्राफर सांगलो. कला भवनाचे फुडले वटेन झाडांचे खांदे हाडून पुरून घेतले. प
एक फावट सगल्याचेर नदर मारली आनी नीट घरा आयलों. घरा पावलों तेन्ना रात
धा वरां जाल्लीं. आतां तकलेचेर चड वजें नाशिल्लें. कार्यावळ बरे भशेन जाली म्हणटक

लों! अशें येवजीत सडसडीत न्हालों. जेवलों आनी न्हिदपाक गेलों. रातीचें जागरण शें आशिल्लें. देखून आड पडनाफुडें न्हीद लागली.

कावळ्यांच्या आवाजान दुसऱ्या दिसा सकाळींफुडेंच जागो जालों. सात वरां ल्लीं. पेपरवाल्यान पेपर हाडून पयलींच उडयल्लो. म्हाका ताकतीक आशिल्ली म्हणटकीच र वाचूंक बसनासतना उबो रावुनूच मुखेल खबरांचेर नदर मारूंया म्हूण हांवें पेपर ांत काडलो. आनी मुखेल खबर वाचून थंयचे थंय घट जालों. हांसचें कांय रडचें तेंय ना जालें. हांवें कपलार हात मारलो आनी थंयच बसकण मारली. म्हजो दुबाव खरो ल्लो. सरकार पडिल्लें आनी रातीकडेनूच मुखेलमंत्र्यान आपणालो राजिनामो राज्यपालाक डून दिल्लो.

# फटकिरें तत्वगिन्यान

रातभर दोळ्याक दोळो लागूंक नाशिल्लो. सगली रात कुशी परतीत सारिल्ली
पूण फांतोडेर मात्सो दोळो लागलो आनी वर - दोन वरां न्हिदुनूच उल्लों. कसल्यात
आवाजान म्हाका जाग आयली. हांवेन दोळे उक्ते केले. दीस बरोच वयर सरिल्लो. मीन
कुशीक बुरखो मारून अजून न्हिदून आशिल्लें. पयलेच फावट. लग्न जाल्ल्याक इतल
वगत मेरेन तें केन्नाच न्हिदून रावूं नाशिल्लें. चडांत चड सकाळचीं स मेरेन तें हांतुणा
उरतालें. मागीर उठून सगलीं सकाळचीं कामां पर्थून उडयतालें. हांव सुशेगाद उट्टाल
तेन्ना सगलें तयार आसतालें. मीनाक लागुनूच हांव चड आळशी जाल्लों. म्हजीं सगल
कामां मीना करता तें पळोवन म्हाका वायट दिसतालें. पूण ताका मात खूब समाधा
मेळटालें.

चादराच्या बुरख्याभीतर 'सुंऽऽक' आवाज जालो आनी हांवेन मीनावसल्या
पळयलें. हय ह्याच आवाजान हांव जागो जाल्लों. हांवेन ल्हवूच मीनाच्या तोंडावयलो चाद
कुशीक काडलो. मीना रडटालें. हांवेन ताका उठोवन बसयलें. रडून - रडून ताचे दोळ
सुजिल्ले. रातभर तेंय न्हिदूंक नाशिल्लें. हांवेन ताच्या माथ्यावेल्यान हात भोवंडायलो. तस
ताका एकदम हुंडको फुटलो. हांव ताका समजावपाक लागलों....

'मीना... म्हजें आयकतलें?

'.......................'

'प्रकाश किदें आमकां सोडून गेला? येतलोच न्हय तो परतो?'

तुमकां समजूंचें ना तें. म्हाका म्हजे भुरगे दोळ्यां मुखार आसचे कशे दिसतात
आवयचें काळीज म्हजें....'

'मीना... म्हाकां किदें नाका जाल्यात ते? म्हाका म्हूण काळीज ना?' हांव
मीनाक समजायतालों काय म्हाकाच हांव समजायतालों तें म्हाकां समजनां जालें. हांवेन
म्हजें तोंड दुसरेवटेन घुवंडायलें आनी मीनाक कळूंक दीनासताना चादराच्या पोंतान दोळे

सले.

परेशाभशेन प्रकाशूय काल अमेरीकेक गेलो. आमीं ताका जायतो समजायलो. नान जाल्यार व्हडलो आकांतूच केल्लो. पूण ताणेंच आमकां चड समजायलीं आनी माणेकडेन तोच जैतिवंत जालो. दोगूय पोरांचो हावेसूच मळबायेदो. आमगेल्या इल्लयाश्या रांत तो मावचो नाशिल्लो. देखून उपाय नासून हांवेन ताका चड आडावपाचो यत्न केलो . मीना मात आपलें तें खरें करपाचो यत्न निमाणें मेरेन करतालें.

ताच्या हट्टामुखार मीनाक नमतें घेवचें पडलें. मागीर मात ताणें आपणालें मन यार केल्लें. प्रकाशाली वचपाची सगली तयारी ताणें एकट्यानूच केली. प्रकाश वचपाक चि दीस आसात म्हळ्यार मीनाची चडशी तयारी पुराय जाल्ली. ताचे व्हरपाचे सगले पडे मीनान व्यवस्थीत घडी करून बॅगांत भरिल्ले. सगलो वगत तें प्रकाशावांगडा ारतालें. ताका कितें जाय कितें नाका सगलें आपूण जावन लक्ष घालून पळयतालें. गेल्या परांत कितें कितें करपाक जाय... कशें कशें वागपाक जाय... व गतार जेवपाक जाय... गतार न्हिदपाक जाय... तकलेर चड ताण घेवपाक जायना... हें सगलें मीना ताका परतें परतें सांगतालें. प्रकाश सगलें आयकून घेतालो आनी हांव सगलें मोन्यांनी पळयतालों. रेशा फाटोफाट प्रकाशूय दोळ्यां मुखावेल्यान पयस वतलो हें येवजुनूच म्हाका कितेंशेंच ातालें. तें उतरांनी सांगूक जावचें ना.

भुरगेपण सोपून पोरगे कितले बेगीन व्हडले जाले कळ्ळेंच ना. परेशाचो जल्म ाल्लो तेन्ना कितली खुशालकाय भोगिल्ली आमकां. कितें करचें आनी कितें नाका कांयच मजनाशिल्लें. दीसभर भोंवून गांवभर पेडे वाटिल्ले त्या खीणाचो उगडास आजुनूय ताजो ासा. बारशाचो दबाजो जाल्यार अपेक्षे परस मात्सो व्हडलोच जाल्लो. मीनाचे आनी म्हजे ोशये अंतपार नाशिल्लो. तेन्ना आमचें बेतोड्या व्हडलें घर आसलें. घरांत सगलीं मेळून ंदरा - वीस मनशां आशिल्लीं. परेशाच्या जल्माची खोशी आमचे भशेन घरच्या हेर नशांकूय जाल्ली. म्हजी आई आनी दादा जाल्यार आजी आनी आजो जालीं म्हूण चडूच ोशी जाल्लीं. परेशाची भुरगेपणांत खुबूच अपुरबाय जाली. चड अपुरबायेक लागून तो वड पारपोळ जायत म्हूण म्हाका भिरांत दिसताली. पूण तशें जालें ना.

जिस्त चार वर्सांनी प्रकाशाचो जल्म जालो. चली जाल्यार पुरो म्हूण मीनान देवाक आंगवण केल्ली. पूण ताची आंगवण देवान आयकलीना. दुसरोय चलोच जालो. हे फावट मीनाक खूब त्रास जाल्ले. ऑपरेशन करचें पडिल्लें. देखून परेशापरस प्रकाशाचेर ताचो चड जीव आशिल्लो.

दोगांय भुरग्यांचें सगलें करता म्हणसर मीनाचे दीस अचळय उडून वताले मीनाचें शिक्षण एम. ए. मेरेन जाल्लें. ताच्या शिक्षणाचो उपेग जावंचो अशें सगल्यांकू दिसतालें. भुरग्यांक लागून ताचीं सुरवातीचीं पांच - स वर्सां फुकट गेल्लींच. आतां आनी वचचीं न्हय अशें वगीच दिसतालें. देखून हांवेन एक दीस ताका म्हळें... 'मीना...?'

'कितें...?'

'अशें भुरग्यांचेंच कितलो तेंप करतलें?'

'कित्याक म्हण्टा...?'

'खंयूय सिर्विस मेळ्ळ्यार करपाक कसली हरकत आशिल्ली?'

'आनी भुरग्यांक कोण पळयतलो?'

'दवरची कोणाकूय...'

'नाका... नाका... हांवूच पळयतलें तांकां. म्हाका सिर्विस बीन कांय करपा नां.'

त्या दिसासावन हांवेन मीनाक सांगपाचेंच सोडून दिल्लें. भुरग्यांवांगडा तें खुशाल आशिल्लें. तांकां कितें जाय कितें नाका तें सगलें तेंच पळयतालें. आनी खऱ्यांनींच मीना लागून म्हाका भुरग्यांचो हुस्को जायनाशिल्लो. ते दोगूय इस्कोलाक वचपाक लागले तेन्न मीनाच तांकां हाडपाक व्हरपाक लागलें. इस्कोल सुरू जालें तशीं तांचीं कामां वाडलीं घराकडेन मीना हेर कामां जाल्या उपरांत तांकां अभ्यास करपाक घेवन बसतालें. च अपुर्बायेक लागून ते हाताभायर वचत म्हूण भिरांत आसली. पूण तशें जालें ना. वयल्या बरें जालें. ते दोगूय शिकपाक हुशार आशिल्ले. परेश प्रकाशापरस चार वर्सांनी व्हड आशिल्ल्यान तो शिकपाक चार वर्सां मुखार आशिल्लो. दोगूय बऱ्या मार्कांनी पास जाताले वर्गांत पयल्या तीन नंबरांभीतर तांचो नंबर आसतालोच.

धावेच्या परिक्षेंत परेश गोवा बोर्डांत दुसरो आयलो. ताणें आमचें नांव वयर काडलें. परेशापरस लोकांनी म्हाका आनी मीनाकूच चड परबी दिली. तेन्ना आमचे खोशयेक शीम-मेर उल्ली ना. ऑफिसांत जाल्यार सगल्यांनीच म्हाका उबारून माथ्यार घेतलो. सगल्यांक मागीर पार्टी दिवची पडिल्ली. त्या वगतार पयशांचो बीन हुस्को दिसना ती एक वेगळीच खुशालकाय आसता.

परेशाक कॉलेजींत प्रवेश मेळोवपाक कांयच तकालस पडली ना. बोर्डांत दुसरो नंबर मेळिल्ल्यान ताका जायतीं इनामां मेळिल्लीं. त्या खातीर पयशाचेंय चड वजें पडलें ना हांवेन जाल्यार तांकां सांगुनूच दवरिल्लें - 'तुमी शिकपीच जायात... हांव कितलेंय पयशे

करपाक तयार आसा.' आनी खऱ्यांनीच तांचे खातीर कितलेय पयशे मोडपाक कांयच दिसं नाशिल्लें.

बारावी जाल्या उपरांत परेशान दोतोरकेचें शिक्षण घेवचें अशें म्हाका मनांतल्यान तालें. मीनाकूय तशेंच दिसतालें आसुंये. पूण ताणें तशें उलोवन केन्नाच दाखयलें ना. वेचो निकाल लागल्या उपरांत मुखार कितें करपाचें थारायलां अशें परेशाक हांवेन रलें मात. ताची जाप तयार आशिल्ली 'म्हाका दोतोर जावपाचें ना. हांव कॉम्प्यूटर नियरींग करपाक सोदता'.

'जशी तुजी इत्सा' अशें म्हणून हांवेन मुखार उलोवपाचीं पिशेपणां केलीं नांत. ांच्या भुरग्यांक सगलें पयलींच कळटा. कितें करपाक जाय तें तांकां कोणीच पाची गरज ना. आमच्या तेंपार तशें नाशिल्लें. बापूय सांगता ते सगलें आयकुचें ालें. हांव मॅट्रीक पास जाल्लों तेन्ना विज्ञान फांट्यात वचपाची म्हाका खूब उमेद ली. पूण बापायन म्हाका नाका म्हळो. देखून मन मारून कॉमर्साक वचचें पडलें. तरी शिकयलें आनी बापायचें काम जालें. ताचो परिणाम आतां हांव भोगतां. फिसांत दीसभर फायलींनी तोंड घालून बसचें पडटा. दिसाचें काम सोपलेंना जाल्यार चोय मागीर बसचो पडटा. देखून हांवेन पयलींच थारायल्लें. भुरग्यांचे इत्से आड येवप तांकां कितें आवडटा तें करूं.

परेश कॉम्प्यूटर इंजिनियर जालो आनी म्हज्या जिवाक सूऽऽ जालें. कॉम्प्यूटर नियरांक वचत थंय खूब वाव आसा हें हांव जाणां आशिल्लों. आनी जालेंय तशेंच. शाक वेगवेगळ्या कंपन्यांकडल्यान पत्रां येवपाक लागलीं. पूण परेशाक असल्या न्यांनी रस नाशिल्लो. हें म्हाका उपरांत कळ्ळें. एक दीस अमेरीकेंतल्यान आयिल्लें एक ताणें म्हाका दाखोवंक हाडलें... तो सामकोच उचांबळ जाल्लो.

'पप्पा म्हाका अमेरीकेंतल्यान ऑफर आयल्या'.

'कसली रे...?'

'सिर्विशेची!'

'कितें? इतले पयस सिर्विस? हांगा कितें सिर्विसो ना पडल्यात?'

'तशें न्हय पप्पा. पगार कितो जाणा?'

'कितलो?'

'सुरवातेकूच म्हयन्याक देड लाख रुपया! त्या भायर रावपाक सुवात, मोटार सगलें फ्री...'

‘तें आसूं रे. पूण इतले पयस वचप म्हळ्यार...’

‘नाका म्हणूं नाका पप्पा. थोडो तेप तरी हांव थंय वचून पळयतां’.

‘मम्मीक विचार...’ म्हजें सांगणें ताणें आयकलें ना तरीय मीनामुखार त
शाणेपणां चलचीं नात हें हांव जाणां आसलों. मीनान ताचें आयकून सुरवातेक साम
कानार हात दवरले. पूण उपरांत हांवेनूच चिंतले तें. ताची तशी इत्सा आसल्यार
ताका. अजून मेरेन ताची एकूय इत्सा हांवेन मारूंक नाशिल्ली. मीनाकूय हांवेन ते
जायतें समजायलें. परेश सदांच दोळ्यांमुखार दिसचो ना हें येवजुनूच ताका कितें
भोगातालें. पूण हांवेन ताका जायतो धीर दिलो आनी निमाणेकडेन म्हाकाच ताका त
करचें पडलें. पूण मीनान मनांतल्यान हयकार दिलोच ना. दोगांय भुरग्यांक सोडून म
एकूय दीस खंय भायर सरून वचूंक नाशिल्लें. परेश दोळ्यां मुखावेल्यान पयस वतलो
कल्पनाच ताका सहन जाय नाशिल्ली. परेशाचें अमेरिकेक वचपाचें निश्चित जातकूच
मीनान फुडली सगली तयारी केल्ली. पूण परेश जेन्ना भायर सरून गेलो तेन्ना
मीनाक समजायताना म्हाका नाकापुरो जाल्लें. मीना कितल्या हळव्या मनाचें तें तें
म्हाका कळिल्लें. शेगीत दोन दीस ते रड रड रडलें. ताचें कित्यांतूच लक्ष लाग नाशि
कितल्योशोच राती ताणें जागोवन काडल्यो. परेश म्हयन्यांतल्यान एक तरी चीट बरयता
मीना परेशाचे चिटयेची वाट पळयत रावतालें.

दोन वर्सांनी परेश परतो येवन वतां म्हण्टालो. पूण कामाचो व्याप वाडिल्ल
ताका येवपाक मेळनाशिल्लें. पंदरा मार्चाक परेशाचो वाडदीस येतालो. तो अमेरि
वचचे पयलीं ताचो एकान एक वाडदीस व्हडा दबाज्यान मनयल्लो. पूण आतां त्या दिस
अर्थूच उरूंक नाशिल्लो. अर्थ आशिल्लो तो ताका फोन करून परबीं दिवपा पुरतो. ता
वाट्याची सगली अर्थ - अपुर्बाय आतां प्रकाशाच्या वाट्याक येताली. मीना जाल
परेशाची उणीव प्रकाशाक दोळ्यांसामकार दवरून भरून काडपाचो यत्न करी. अशेत
पांच वर्सां कशींतरी उलगली.

प्रकाश दोतोरकेची परिक्षा पास जालो आनी ताणे म्हजी इत्सा पुराय के
एकटो तरी भुरगो दोतोर जाल्यार पुरो अशें हांव मनांतल्यान मागतालों. प्रकाश दो
जालो. पूण खरी खुशालकाय भोगली ती म्हाका. पूत दोतोर जाला ही कितले खोश
गजाल! पूण मीनाक इल्लीय खोशी जावंक नाशिल्ली. एक दीस उलयतां - उलयतां
म्हाका म्हणिल्लें - ‘जांचीं भुरगीं सारखीं शिकनांत ते आवय बापूय कितले नशिब
न्हय?’ ताचें उलोवणें आयकून हांवेन ताका पिशांर काडिल्लें. पूण ताच्या हिसपान ता

ंण्याक खूब अर्थ आशिल्लो.

आपूण दोतोरकेची परिक्षा पास जालों ही गजाल प्रकाशानूच परेशाक कळयली. ाकूय ती गजाल आयकून खूब खोशी जाली. पूण भारतांत दोतोरांक चड वाव ना ंच्या गिन्यानाचो फावो तसो उपेग जायना अशी परेशाची कागाळ आशिल्ली. देखून ने भशेन प्रकाशाकूय ताणें अमेरिकेचें पिशें लायलें. ताणें ताका आपणावांगडा रिकेक येवपाक सांगलें. आनी प्रकाशानूय पयलीं आमकां विचारिनासताना अमेरिकेक ाची तयारी दाखयली.

प्रकाशान गोंयांतूच रावून प्रॅक्टीस करची अशें म्हजें मत आसलें. त्या खातीर हॉस्पिटल लेगीत बांदून दिवपाची म्हजी तयारी आसली. त्या निमतान कामा वांगडा ज सेवाय जावपाची. पूण आतांचे पिळगेक कितें जालां देवाक खबर! प्रकाशानूय ाभशेनूच केलें. तोय ताच्याच वळणार गेलो. अमेरिकेक वचपाचें पिशें घेवन बसलो ो आमकां दोगांकूय सांडून गेलो.

आतां जाता त्या उतरांनी मीनाक समजावपाभायर म्हजेकडेन कसलोच उपाय ाल्लो. एके वटेन मीनाची म्हाका काकूट दिसताली. जाल्यार दुसरेवटेन भुरग्यांचोय गुन्यांव दिसनाशिल्लो. आमींच दोगांय सुवार्थान वागतात अशें म्हाका दिसपाक लें.

आतां आपणाक आनीक उठपाचेंच ना अशेतरेन मीना खाटीचेर दसून राविल्लें. याय जिवाक जायतें भोगतालें पूण मीना हुजीर तरी तें उक्तावंक जाय नाशिल्लें. देखून ंन ताच्या माथ्यावेल्यान हात भोंवडायलो. ताका लागीं ओडलें आनी समजावपाच्या ांत एक एक तत्वगिन्यान ताचे तकलेंत भरपाक लागलों 'दर्या कुशीक कार्यशाळांनी बोटी बांदतात त्यो सोबेखातीर आसनात... जाल्यार त्यो दर्यांत सोडपाखातीरूच सतात. दर्याचो थाव घेयत त्यो मागीर आपणालें अस्तित्व सोदून काडपाचो यत्न तात...' हांव सांगतालों आनी मीना शून्यांत नदर लावन आयकतालें. म्हाका मात नेंच तत्वगिन्यान फटकिरें आनी अडेचें कशें दिसतालें... तरीय मीनाच्या दोळ्यांत यत हांव म्हाकाच समजावपाचो यत्न करीत रावलों.

# निपुत्रीक

'आपासारखो भांगर मनीस चुकुनूच जल्माक येता.'

'असलेच मनीस देवाक पयलीं जाय पडटात'.

'एकूच चुकयलें ताणें'

'कितें तें?'

'निपुत्रीक तो!'

भायल्यान आयिल्लो कोणाचो तरी आवाज निलाच्या कानांत सुयेवरी रोम आनी आवयक वेंग मारून रडपी निला सट्ट करून उठून बसलें. भायर आंगणात शंबरे लोक जमिल्ले. आयतार आशिल्ल्यान सगळ्यांक सुटी आशिल्ली. आपाच्या कुडीचें निम दर्शन घेवंक ताच्या मरणाक लोकांनी गर्दी केल्ली. पूण सगळ्यांकूच एक व्हडलो प्र पडिल्लो. आपाची किरी आनी मरण कोण करतलो? जाण्टेले जाल्यार अख्खें म तकलेर घेवन बशिल्ले. कोंड्याची तिरडी बांदून तयार जाल्ली. आपाची कुडूय तिचे दवरिल्ली. पूण पयलो खांद मारपाक कोणूच मुखार येनाशिल्लो.

आपा जिवो आसताना आपा म्हळ्यार गांव आनी अख्खो गांव म्हळ्यार आ अशें समिकरण जातालें. आपाचें खरें नांव थोड्याच जाणांक खबर आशिल्लें. पूण अख गांव ल्हान भुरगीं ते जाण्टे मेरेन ताका आपा म्हणून वळखताले आनी आपा म्हण पाचारताले. आपा एक समाज कार्यकर्तो आशिल्लो. तो व्हडलोसो शिकूंक नाशिल्लो. प ताचे विचार शिकिल्ल्या मनशांक लेगीत लजयताले. अडचल्ल्या मनशाखातीर तो राती दीस करतालो. आपा भुरग्यांवांगडा भुरगो जातालो आनी जाण्ट्यांवांगडा जाण जातालो. आपाक विचारल्या बगर गांवांत कसलीच गजाल जाय नाशिल्ली. आपा म्हळ्य सगल्यांचोच व्हड आदार आशिल्लो. असो हो आपा... सगल्या गांवाक सोडून पुर जाण्टो जावचे पयलींच काळजाच्या आताकान भायर पडलो. ताच्या मरणान गांवाक ए

ोच दिल्लो.

गांवात तेन्ना एकट्याचीं पांच तरी भुरगीं आसतालीं. एक तरी भुरगो आसपाक ना जाल्यार वंशाचो दिवो पेटत रावचो ना हाची भिरांत लोकांक भेश्टायताली. चली ार परक्याल्या घरचें धन. तें आयज आसा म्हळ्यार फाल्यां ना अशे समजुतीन लोक ाले, पूण आपाचे विचार वेगळे आसले. चलो आनी चली हांचेमदीं आयज कांयच पण उरूंक ना. हाची जाणविकाय ताका जाल्ली. हाकाच लागून निलाचो जल्म कीच ताका आनीक भुरगीं नाका अशें दिसपाक लागलें. ल्हान घराबो म्हळ्यार चो वझरो अशें तो मानतालो. आपलो विचार लोकांकूय पटोवन दिवपाचो तो यत्न . पूण ताचो तो विचार लोकांक अविचारूच दिसलो आसूंये. हो एक विचार ल्यार आपाचे सगळे विचार लोकांक मानवताले. हाकाच लागून लोक ताका खूब ाले.

आपान आपणाल्या बऱ्या आनी उजू करण्यांनी गांवांत आपणालें नांव अज्रंवर न दवरिल्लें. आपाचें भाट बेंस आशिल्ल्यान ताका घरची येणावळ बरी मेळटाली. घराबो आशिल्ल्यान ताका चड खर्च येनाशिल्लो. पूण ताका पयसो गांठीक मारून पाची संवय नाशिल्ली. ताचो सभाव दानी आशिल्लो. देखून ताणें गरजेवंतांक दान ाना केन्नाच फाटीं - फुडें चिंतले ना. गांवांत कोणाचींय लग्नां कार्यां पयशांक लागून चलीं जाल्यार आपा तांच्या आदाराक धांवून पावतालो.

लोकांनी शिकपाक जाय. शिक्षणाबगर मुक्ती ना. आनी मनशाक मुक्ती आसलेबगर र येनांत अशें आपा सांगतालो. गावांत शिक्षणाच्यो सगल्यो सुविधा उपलब्ध जांवच्यो आपान खूब यत्न केल्ले. पयलीं गांवच्या भुरग्यांक गांवात शिकपाची व्यवस्था ल्ली. पूण आपाच्या यत्नांनी गांवात इस्कोल जालें आनी जांकां गरीबतायेक लागून प शक्य नाशिल्लें तांकां लेगीत शिकपाची संद मेळ्ळी.

एका वर्सा भर पावसांत गांवाचेर व्हडले अरिश्ट आयलें. वादळ जावन जायतीं मातयेभरवण जालीं. मातयेच्यो वण्टी उदकांत पघळल्यो. लोक बेघर जाले. तेन्ना ल्यांत पयलीं आपाच तांकां धांवून पावलो. ताणें फाटलो विचार करिनासताना ांक आपणाल्या घरांत, गोठ्यांत, लॉजांत खंय खंय लुगार मेळटा थंय रावपाक रो करून दिलो. इतलेंच न्हय जाल्यार लोकांच्या खाणाजेवणाची व्यवस्था ताकाच ची पडली. आपाचें व्हड मन पळोवन राजकारण्यांची कावळ्यांची नदर ताचेर पाक वगत लागलोना. राजकारणी ताका आपणाल्या पक्षांत ओडपाक तरेकवार

मांडण्यो करपाक लागले तेन्ना आपान कानार हात दवरून तांकां जाप दिली.

'हें पळयात. हांव एक समाजसेवक. लोकांची सेवा करप हें हांव म्हजें क

समजतां. तें करपाक म्हाका राजकारण खेळपाची गरज ना'.

'पूण आमकां तुमची गरज आसा. आतां तुमी फक्कत गांवाचीच सेवा करत

पूण राजकारणांत आयले जाल्यार तुमकां देशाची सेवा करपाची संद मेळटली'-राजका

अकलेक येवन ताका समजायताले.

'कोण सांगता हांव देशाची सेवा करीना म्हूण? गांवाची सेवा केल्यार ले

देशाचीच सेवा घडटा. तें म्हाकां कोणीच सांगपाची गरज ना' - अशें सांगून अ

राजकारण्यांक फापुडटालो. तो तांचेपसून सदांच वांवभर पयस रावतालो.

आपा चड शिकूंक नाशिल्लो पूण शिक्षणाखातीर ताका कसलीच केन्ना अड

आयलिना. पूण गांवच्या सगळ्या भुरग्यांनी शिकचें अशें ताका दिसतालें. कोणा

भुरगो शाळेंत वचपाक तयार नासलो जाल्यार आपा आपूण जावन ताची खबर घेत

'शाळा सोडली खंय रे तूंवेन?

'..................................'

'तोंड ना रे उलोवपाक?'

'नाऽऽ आपा. शाळा सोडूंक ना.'

'मागीर कित्याक गेलो ना तर शाळेंत?'

'आतां वतलों... ' अशें म्हणून तो भुरगो आपा हुजीर शाळेंत वचपाक भ

सरतालो आनी तो शाळेंत गेलो काय ना तें आपा आपूण मुजरत शाळेंत वचून पळयत

अशे तरेन आपाक लागुनूच गांवचे जायते भुरगे शिकपाक पाविल्ले.

'चलयांक कित्याक शिकोवपाक जाय?' अशें कोणीय म्हळें जाल्यार आ

पित्त चाळवतालें. चले आनी चलयांमदीं लोक आजुनूय वेगळोचार करतात तें पळ

आपाक गांवच्या फुडाराचो हुस्को जातालो.

'संवसार खंय पावला. पूण तुमचीं अडाणीपणां सोपनांत मरे?' - चलयांचो

आयलो म्हणटकीत आपा तिडकतालो.

निला ही आपाची अपुरबायेची एकलीच धुव. आस्पतिचो वारसदार

आपाक एक चलो भुरगो जांवचो अशें सगल्या गांवाक दिसतालें. पूण खासा आपाक

तशें केन्नाच दिसलें ना. निलामदीं तो पूत आनी धूव अशीं दोनूय रूपां पळयतालो. क

जाण्टेल्यांनी चल्याभुरग्याचो विशय काडलोच जाल्यार आपा तांकां परती जाप दित

'चलो भुरगो ना म्हूण म्हाका इल्लेंय वायट दिसना. तुमी कित्याक म्हजो इतलो करतात?'

'आपा, चलो तो चलो! चली कितें घराच दवरूंक मेळटा? लग्न जाली कीत चली आवय बापायक विसरता'.

'विसरना तेवटेन? भुरग्यांनी जाण्टेपणांत आवय - बापायक पळोवचीं अशी ाच तुमी कशी करतात म्हाका समजना'

आपाचे विचार लोक आयकून घेताले. पूण तांकां ताचे विचार म्हळ्यार पिशेपणाचे दिसताले.निमाण्या खिणाक तरी चलो जाय पडटा अशें लोकांक दिसतालें. मनांत ल्यार आपागेर चलो-भुरगो जांव येतालो. पूण आपान चल्या भुरग्याचो विचारूच न दिल्लो. आपणाली देख हेरांनीय घेंवची अशें ताका मनांतल्यान दिसतालें. पूण ाची परिक्षा घेवपाची लोकांची तयारी नाशिल्ली.

निला खंयचेच वटेन फाटीं उरचें न्हय म्हूण आपान जायती जतनाय घेतिल्ली. ां सगळे तरेचें शिक्षण दिल्लें. पुस्तकी गिन्याना भायर शिवण -सूत, रांदप-वाडप हेंय ा बेस बरें कळटालें. निला खेळांत हुशार आसलें. ताका सगले तरेचे खेळ कळटालेच. ायर काराटे, जुडो हातुंतूय ताणे नांव जोडिल्लें. तें सायकल आनी स्कुटरूय यतालें. चली भुरगें स्कुटर चलयता तें पळोवन सुरवातेक गांवच्या लोकांक कितेंशेंच तालें. पूण उपरांत लोकांक ते गजालीची संवय जाली. आपाक मात आपणाले येचो अभिमान दिसतालो. चल्याभुरग्याचें उणेपण निला भरून काडटलें हाची ताका ी आसली आनी घडटालेंय तशेंच.

एक दीस गांवातलो एकटो जाण्टेलो अकस्मात भायर पडलो. ताका भुरगेंबाळ शिल्लें पूण ताच्या उजू सभावाक लागून गांवचो लोक ताका खूब मानतालो. ताच्या णाक खूब लोक जमिल्लो. पूण मरण करपाक कोणूच तयार नाशिल्लो. तेन्ना आपान ूण मुखार सरून सगळें केलें. जाण्टेल्यांनी ताका जायतो समजायलो, पूण आपा तो! ो आपलें तें खरें केलें. असलीं कामां करताना आपाक पुण्य केल्ल्याचें समाधान टालें. आपणाकूय कोणूय असोच पावतलो अशें ताका दिशिल्लें काय?

पुराय गांवाक आपाचो व्हड आदार आशिल्लो. पूण तो आदार आयज सासणाचो जाल्लो. आपाच्या मरणान निलाक आनी आपाचे बायलेक व्हड धक्को बशिल्लोच. तेच ाडा पुराय गांवाचेर लेगीत दुख्खाचें सांवट पातळ्ळें. जाण्टेल्यांचेर जाल्यार दोट्टी वजें डेल्लें. एके वाटेन आपाचें अचकित मरण आनी दुसरे वाटेन ताचे मरण कोणी करपाचें हुस्को. कांय जाण जाल्यार जायफाय उलोवपाक लागिल्ले.

'निपुत्रीक तो' हीं कोणेतरी म्हणिल्लीं उतरां निलाच्या काळजाक रोम
आपाचेंच रगत ताच्या शिरंतरांनी खेळटालें. फाटलो - फुडलो कसलोच विचार करीनासत
तें एकाच दमान घरांतल्यान भायर सरून आंगणांत आयलें. 'हांव आसां... कोण सां
आपा निपुत्रीक म्हूण?' निलाचीं उतरां आयकून सगले तटास जाले. आंगणांत ज
सगले जाण्टे नेण्टे दादले उलोवपाचे थांबून निलाक पळयत रावले.

निला भायर आयलें तशें तिरडे म्हऱ्यांत गेलें. ते बराबर गांवातलो एक
जाण्टेलो ताच्या लागसार गेलो. निला तिरडेक हात घालपाक बागवलें. जाण्टेल्यान ता
आदार केलो. खिणाचोय कळाव लाय नासतना ताणें तिरडेंच्या कोंड्याक हात घातल
निला तिरडी उखलता तें पळोवन चार-पांच जाण धांवून मुखार आयले आनी तां
निलाक आदार दिलो. एकेवटेन निलान तिरडी उबारून कोंड्याचें पोंत आपणाल
खांदार घेतलें. निलान आपणालो पांय उखल्लो तशे सगळे जाण ताचेवांगडा चलपा
लागले. आपाली अंत्ययात्रा सुरू जाली.

निला वांगडा सगळे जाण मसंडीची वाट चलताले. वाटेर वाटभर कोणेंच ज
काडलीना. सगल्याक किण्ण पडिल्लें. जाण्टेल्यांक जाल्यार आपणाल्या दोळ्यांचेर विस्वा
बसं नाशिल्लो. आपाच्या मरणाच्या दुख्खान घरांत आवयक वेंग मारून रडपी निला
डोळे पाशाणावरी सुके सडसडीत आशिल्ले.

आपाची कूड जळपाक सारी दाळून पयलींच तयार आशिल्ली. तिचेर का
जाणांनी आपाची कूड उबारून दवरली. हेर विधी जाल्या उपरांत कोणेतरी उज्या
कवदो पेटोवन मोन्यांनी निलाच्या हातांत दिलो. निलान शांतपणान उज्याचो कव
पेटोवन सारयेच्या लाकडांक तेंकयलो. लाकडांनी पेट घेतलो. आपाची कूड उज्यां
लेगीत तुश्ट हांसता असो वगीच निलाक भास जालो.

कांय खीण निलान बापायच्या उज्यांत जळपी कुडीवसल्यान पळयलें आनी थंय
तें कुशीक वचून उबें रावलें. कांय वगत मोन्यानींच गेलो. तितले म्हणसर सारये
आपाल्या मेंदवाचे कवठेचो ठाऽऽ करून आवाज जालो. मुखार कितें करपाचें तें निला
खबर नाशिल्लें. व्हदळचो जाण्टेलो कुशीक बसून ताकाच पळयतालो. तो मुखार सरल
ताणें ताच्या फाटीवेल्यान हात ओडलो. 'या.. न्हू गो पुते?' - जाण्टेल्याच्या उतरांनी इतल
वगत आडावन दवरिल्लो निलाच्या दुख्खाचो बांद फुटलो. पूण खीणभरयांत ताणें आपणा
सावरून धरलें आनी जाण्टेल्या वांगडा परतें घरा वचपाक पावल उबारलें. थंय जमि
सगळे जाण अजापान ताका पळयत उल्ले. 'निपुत्रीक' उतर चुकून लेगीत कोणाच्
तोंडार आयलेंना... जायत्या जाणांक प्रस्न पडिल्लो - 'आपा खरोच निपुत्रीक?'

# भिरांकूळ 'मनीस'

निमाणी बस चुकत म्हूण कांचन धांवतूच बस स्टॉपार आयलें. तिनसांजचीं सात ां जायत आयिल्लीं. मावशेन ताका रावपाचो जायतो आग्रो केल्लो. पूण दुसऱ्या दिसा माक वगतार पावपाक जाय म्हूण तें रावलें ना.

'आगो तुका रात जातली घरा पावता म्हणसर?' मावशेक हुस्को जाल्लो.

'ना गे जायना... बशी आसात घे म्हूण... आठ - णव मेरेन पावतलें हांव घरा'.

'मावशेगेर रावपाक जायना दिसता?'

'तशें न्ही गे. आई हुस्को करतली. कशेय भाशेन घरा येतां सांगलां हांवें' ंचनान फट मारली.

'तशें जाल्यार चल तूं... परतें येतना मात रावतलें म्हूण सांगुनूच यो'

'बरें येता तर हांव' अशें म्हूण ज्युस्त साडे-संक तें थंयच्यान भायर सरलें. यच्यान चलून मुखेल रस्त्यार पावता म्हणसर ताका वीस - पंचवीस मिनटां लागलीं. नवळखी वाठारांतल्यान आनी पांयवाटेन चलत येतना ताका बेश्टीच भिरांत दिसताली. स्त्यार पावलें आनी ताची भिरांत उणी जाली.

धडगिऱ्यां वचपाक - येवपाक फक्कत दोन बशी घोळटाल्यो. कांचन अदीं - मदीं ावशेगेर येतालें. देखून ताका बशींचो वगत खबर आशिल्लो. धडगिऱ्यांतल्यान मडगांवां वपाक सात वरांचेर निमाणी बस आशिल्ली. ती चुकली जाल्यार आनीक बस नाशिल्ली. खून सात वरां जावचे पयलीं ताणें आपलो जीव बस स्टॉपार घालून घेतलो. सातांची स धरली म्हण्टकीच कशेय भशेन रातचीं णव मेरेन आपूण मडगांवां पावतलें हाची ताका ात्री आशिल्ली.

जायतो वगत तें बशीची वाट पळयत उबें रावलें. सात वरां जावन सव्वा सात रां जायत आयलीं. तरीय बशीचो पत्तो ना. रस्त्यार चलून वचपी लोकूय कोण दिसनाशिल्लो. मदींच दोग जाण सायकल घेवन गेले. आपणा सांगाताक बशीन वचपी

कोणय तरी येवचो अशें ताका वगीच दिसलें.

साडेसात वरां जालीं आनी काळोख देंवपाक लागलो तशें भिरांतेचें एक ल्हार ताच्या आंगावेल्यान गेलें. आतां आनीक बस येवपाची ताची आशा पालवली. कितें करप ताका कांय समजना जालें. परतें मावशेगेर वतलें म्हळ्यार काळखांत पांयवाटेन कशें वतलें? ते भायर अर्दवराची वाट काळखांतल्यान चलप म्हळ्यार फकाणाचीं कामां नाशिल्लीं. काय बरी मावशी रावपाचो आग्रो करताली. पूण कांचनानूच सुबेजपणां केलीं. आईन ताका घरांतल्यान भायर सरता आसतना परत परत सांगिल्लें.

'वेळ जाल्यार येवं नाका आं... मावशेगेरूच राव... आमकां आनी हुस्को नाका फाटल्यान!

'वेळ जालो जाल्यार हांव रावलें अशें समजयात.. हुस्को करपाची गरज ना.' कांचनान जाप दिल्ली.

'रावूच तूं... सकाळीं फुडें मागीर पयले बशीर यो... एक दीस कामाक पावपाक मात्सो कळाव जाल्यार कांय जायना.'

'बरें बरें... वेळ जालो जाल्यार येयना हांव'! अशें सांगून तें घरांतल्यान भायर सरिल्लें. म्हळ्यार घराकडेनूय कोण हुस्को करपाचो नाशिल्लो. हे गजालीचो उगडास जालो तशें ताका गोळाक लागिल्ले भाशेन जालें. कसलीं आपणें पिशेपणां केलीं अशें येवजून ताका पश्चाताप जालो.

इतले म्हणसर गाडयेचो आवाज येता म्हूण ताणें पयस मेरेन बागून पळयलें. गाडी पयस आसतना ताका ती बस कशीच दिसली. खीणभर ताच्या जिवाक सूऽऽ जालें. पूण दुसऱ्याच खिणाक रस्त्यान गडगड घालीत एक ट्रक येता तें पळोवन तें पुराय निर्शेलें. ट्रकाक हात दाखोवचो अशें खीणभर ताच्या मनात आयलें. पूण दुसऱ्याच खिणाक ताचें मन शिरशिरलें. ट्रकार वचप म्हळ्यार जाणा जावन जीव त्रासांत घालून घेवप. सगलेच ड्रायव्हर सभावान बरे आसतातूच अशें ना. असो विचार तकलेंत येना फुडयां तें ट्रकाक फाट करून उबें रावलें. ट्रक लागीं पावलो तसो ड्रायव्हरान ताका हॉर्न मारलो. पूण तें तश्शें उबें रावलें आनी ट्रक गडगड घालीत मुखार गेलो. ट्रक गेलो तसो आपणें पिशेंपणां केलीं अशें ताका दिसपाक लागलें. कितें जाता तें जावं आशिल्लें. आपणें ट्रकाक हात दाखोवपाचो अशें ताका वगीच दिसपाक लागलें. बेश्टो आपणें चान्स वगडायलो म्हूण ताणें आपणाकूच दोश दिलो. आतां मात कोणूय आयलो जाल्यार हात दाखोवपूच अशें येवजून रस्त्यावसल्यान फुडो करून तें उबें रावलें.

काळोख दाट जायत वता तशें ताच्या काळजांत भिरांतेन कलकलपाक लागलें. ालतड ना आनी पलतडूय ना अशी ताची गत जाल्ली. कितें करचें ताका कांयच समजना ाशें जाल्लें. इतले म्हणसर रस्त्यान एक मोटारसायकल आयली. बुडटल्याक काडयेचो ादार मेळचो अशें कांचनाक दिसलें. फाटीं फुडें पळयनासतना ताणें आपणालो हात ाखयलो. ताच्या मुखार येवन मोटारसायकल थांबली.

'खंय वयता?' एक खणखणीत आवाज कांचनाच्या कानार पडलो. हॅल्मेटाक ागून ताचें मुखामळ दिश्टी पडनाशिल्लें.

'मडगांवां...'

'हांव वचना मडगांवां...' अशें म्हणून तो वचपाक सोदी.

'खंय पावता थंय मेरेन व्हर... बस चुकली म्हाका' - अचकीत ताच्या तोंडांतल्यान उतरां भायर सरलीं.

'यो तर बस' ताणे बसपाक सांगिनाफुडें कांचन ताचे फाटल्यान बसलें आनी ताणे मोटारसायकल सोडली.

'इतली रात कित्याक केली वचपाक?'

'मावशेगेर गेल्ले हांव... सातांची बस पयलींच गेली दिसता?'

'ना. बंद पडल्या ती पेडाकडेन...'

'आरे देवा!' म्हणून कांचनान हुस्कार सोडलो. धा-पंदरा मिनटांनी मोटारसायकल दोन रस्त्यांर पावली आनी तो थांबलो.

'हांव असो दाव्यान वतां... उजव्यान गेला तो मडगांवचो रस्तो' ताणें सांगलें. 'हांगासल्ल्यान वचपाक म्हाका किदेंय मेळटलें न्हय?'

'हांव किदें सांगू तुका? पूण म्हाका दिसना...' ताणें अशें म्हणनां फुड्यां कांचनाक एकदम रडपाक आयलें. ताणें आपणाल्या तोंडाचेर ओडणी ओडली... 'रडूं नाका... तुज्यान एक करूं येता... आयज तूं आमगेर राव आनी फाल्यां सकाळीं चल... सकाळीं स वरांचेर बस आसा' - ताणें अशें म्हणनाफुडें कांचनाच्या जिवाक मात्शें बरें दिसलें. पूण ताचें तोंड उक्तें जालें ना. मोन्याभाशेन जावन तें थंयचे थंय घट जाल्लें. ताचो अवतार पळोवन तो समजलो आसुंये. तांणे कांचनाक परतें बसपाक कुरू केली. त्या बराबर फाटलो फुडलो विचार करिनासतना तें मोन्यांनी परतें बसलें.

मोटारसायकल गांवांत भितर सरली तशें कांचनाच्या पोटांत परतें कांपरें भरलें. खऱ्यांनीच देवमनीस हो. पूण घराकडेन तो कितें सांगतलो काय? म्हाका खंयच्यान

हाडलां म्हूण सांगतलो? तांकां म्हजो दुबाव बी येवचो ना मूं? ताची आवय आपणाव दुबावान पळोवची ना? आनी... आनी तो लग्न जाल्लो आसल्यार ताची बायल आपणाव घरांत घेतली मूं? अशे विचार कांचनाच्या मनांत घुंवताले. इतले म्हणसर ताणें मोटारसायकल व्हरून एका धाकटुल्या घरामुखार उबी केली. ताणे कांचनाक देंवपाक सांगलें आनी मोटारसायकल स्टँडार काडली. भायलेवटेन आशिल्ल्या खांब्यावयले लायटीचो उजवाड घराचेर पडटालो. घराक भायल्यान कुलप आशिल्लें. बोल्सांत हात घालून ताणे चावी भायर काडली. कुलूप काडलें आनी दार उक्तें केलें. कांचनाक ताणें भितर येवपाक सांगलें. घरांत भितर वचचें काय भायर रावचें तें कांचनाक येवजना जालें.

'यो भितर यो' - ताच्या आवाजा सरशीं तें गोंदळ्ळें आनी तशेंच भितर सरलें. ताणें भितरल्यान दाराक खिळी घाली आनी लायट पेटयली. कांचनाक खीणभर दिपवल्ले भशेन जालें. कितें घडटा ताका कांयच कळनाशिल्लें. ताणें आपणाली नदर घरांत घरभर भोंवडायली. सगलें सामान जळामळाक पडिल्लें. घराक दोनूच कुडी आशिल्ल्यो. भितरल्या कुडीक दार नाशिल्लें. ह्या घरांत बायलमनीस केन्नाच पावूंक ना हाची गवाय मेळटाली.

घरभर नदर भोंवडावन जातकीच कांचनान ताचेर नदर मारली. ताणें आपणाल्या हातांत आशिल्ली पोती खुंटयेक लायली आनी माथ्यावयलें हॅल्मेट काडलें. ताचें तोंड आनी लांब रुंद कूड पळोवन कांचनाच्या दोळ्यांमुखार काळोख आयिल्ले भाशेन जालें. तो नावाडगो गुंड कामील आशिल्लो. कामिलाचो फोटू जायतेफावट ताणें पेपरार पळयल्लो. ताचें नांवूच आयकून सगलीं जाणा ताका थर्त भियेतालीं. आतां जाल्यार कांचनाच्या तो सामकार उबो आशिल्लो. ताका पळोवन आपूण वागाचे घोलींत पाविल्ल्याचो कांचनाक भास जालो. ताच्या आंगाक शेळो घाम फुटलो.

'बस मुगो... उबें कित्याक?' कामिलान कुशीक आशिल्लें प्लास्टीकाचें कदेल ताचे वसल्यान धुकल्लें आनी तो भितर गेलो. त्या बराबर दार काडून धांव मारची असो विचार खीणभर कांचनाच्या मनांत आयलो. पूण धांव मारून खंय वयतलें. कोण आसा वळखीचो? वळख - पाळख नाशिल्लो गांव हो. गांवचें नांव लेगीत ताका खबर ना. मनीस वेंताक चुकल्यार वांवाक चुकता आनी वांवांक चुकल्यार गांवाक चुकता तशी गत कांचनाची जाल्ली. केन्ना चिंतूंक नाशिल्लें संकश्ट ताच्या सामकार उबें आशिल्लें.

कांचनाचे पांय उबे राविल्लेकडेन बेश्टेच कडकडपाक लागले. अशेंच उबें रावलें जाल्यार आपूण जमनीर पडटलें अशें ताका दिसलें. देखून तें व्हडा कश्टांनी कदेलाचेर बसलें. किदें करचें ताका कांयच सुचनाशिल्लें. ताची चिंतपाची शक्तूच निकामी जाल्ली.

थ नदरेन भितरले वटेन नदर लावन तें पळोवंक लागलें.

कामील हातपांय धुंवन कपडे बदलून भायर आयलो तेन्ना कांचनान वगीच हातपांय चोरून घेतले. ताणें आपणाली नदर जमनीचेर थीर केली.

'नांव किदें म्हळें तुजें?' कामिलान विचारले.

'कांचन... 'व्हडा कश्टांनी भायर सरिल्लो घोगरो आवाज आयकून कामिलान कांचनाची गत वळखली.

'हें पळय कांचन... हांगा कसलोच भंय ना... तुजें घर लागीं आशिल्लें जाल्यार हांव तुका घराच व्हरून पावयता आशिल्लों... पूण ताका उपाय ना... बाथरूम भितर आसा... हातपांय बी धुवपाचे आसल्यार चल' कामिलान कांचनाक संवकळीचें जावचें म्हूण सांगलें. पूण कांचनाक ताच्या उलोवण्याचेर विस्वास बसलो ना. देखून तें तश्शें बसून उरलें.

कामिलान खुंटयेक लायिल्ली पोती सकयल काडली. पोतयेंत हात घालून ताणें कागदाक गुठलायिल्ले पाव भायर काडले. एका डब्यांत घालून ताणें भाजी हाडिल्ली.

'एकलोच आशिल्ल्यान म्हाका रांदपाक वाज येता... तुका भाजी पाव चलता मूं गो?'

'ना म्हाका भूक ना... तूं खा' - किदेंतरी उलोवंक जाय म्हूण कांचन उलयलें. 'वगीच सांगू नाका... हांगा कसलेंच परकीपण ना... केन्ना किदें खाल्लें म्हूण देवाक खबर'

'खरेंच... देवाच्यान तर म्हाका भूक लागूंना'

'मागीर उपाशींच न्हिदतलें?'

'हय, इल्लें उदक मेळ्ळ्यार पुरो...'

'उदक जाय जाल्यार भितर आसा... तुका हांव फोर्स करीना... 'अशें म्हणून कामिलान कांचना मुखारूच बसून खावपाक सुरवात केली. ताका खूब भूक लागिल्ली आसतली हें ताच्या खावपावेल्यान कळटालें.

कामिलाचें खावन जालें तसो तो भितर वचून तोंड धुवन आयलो. पत्र्याच्या शेजार दवरिल्ल्यो दोन शेंदऱ्यो ताणे ओडून काडल्यो. आपणाली शेंदरी थंयच भायरूच पातळायली. म्हेळें जाल्लें एक उशें काडून तें शेंदरेर शेवटिलें. दुसरी शेंदरी व्हरून ताणें भितर कांचना खातीर पातळायली. कांचनाक दिवपाखातीर ताचेकडेन दुसरें उशें नाशिल्लें.

'चल तूं भितर वचून न्हीद... हांव हांगा भायरूच न्हिदतां.' कामिलान अशें

म्हण्टकूच तें उठलें आनी भितर गेलें. वण्टीक तेंकोवन पातळायल्ले शेंदरेर तें वचून बस

'लायट पालोवं?... काय तूं मागीर पालयता?'

'आसूं... लायट पालोवं नाका'- लायट पालोवं काय विचारतकूच ताका पर कच्च जालें.

'आनी हें पळय... सुस्त न्हीद तूं... हांगा कसलीच भिरांत ना... गुड नायट' अ म्हणून कामील भायर गेलो. भायली लायट ताणें पालयली आनी तो शेंदरेर आड पडल अशीं तशीं पांच मिनटां गेल्यांत आसतलीं. तो रोकडोच घोरेवपाक लागलो.

कामील आड पडना फुड्यां घोरेता तें पळोवन कांचनाक अजाप दिसलें. इत बेगीन मनशाक कशी न्हीद पडुं येता? ताका कामिलाचो आनीक दुबाव मारलो. शेर्त नाटकां करता आसतलो. कामिलाचीं कितलीशींच कारस्थानां कांचनान आयकल्लीं. भायर पेपरांनी वाचिल्लीं. सगले लोक ताका भिरांकूळ गुंड म्हूण वळखताले. फाटल्या वर्सांत जाल्ल्या कितल्याशाच मारामारींनी ताचो मुखेल हात आशिल्लो. कांचनाक ता चड भिरांत दिसताली ती तो बायलांक पळोवन सामको पिसो जाता म्हूण. ता कितल्याश्याच बायलांचेर आनी चलयांचेर आगळीक केल्ली. आयज मेरेन कामिलावि तें आयकुनूच जाणां आशिल्ले. ताचे फोटू पळयल्ले ते पेपरांनी. फोटवांत लेगीत त भिरांकूळ दिसतालो. पूण आयज भिरांकूळ सपन पडचें आनी सपनांत कामील येवचो ते भशेन ताच्या जिवितांत खरेपणान घडिल्लें. आपूण जावन तें ताच्या जाळांत पडिलें. कामी म्हळ्यार राकेस. तो आपणाक कसोच सोडचो ना हाची कांचनाक खबर आसली.

खंयच्याय खिणांत कामील भितर सरूं येता आनी वागाभाशेन घुरी घालूं ये हे भिरांतेन तें दोळे उक्तेच दवरून बशिल्लें. सगलीं वायट वायट चिंतना ताचे मतीं येतालीं. कसली पाडी बुद्ध जाली आनी आपूण मावशेगेर रावलें ना हाचो ताका पश्चाता जालो. कामिलान ताका आपूण एकलोच रावतां अशें पयलींच सांगिल्ले जाल्यार तें ता वांगडा कशेंच येवचें नाशिल्लें. पूण 'आयज आमगेर राव' अशें सागून कामिलान आपणा फटयलें अशें ताका दिसपाक लागलें. कांचनाक दिशिल्लें ताच्या घरांत जायतीं मनश आसतलीं. पूण कामिलान आपणालें ज्युरत्त सादोवन घेतलें अशें येवजून मनांतल्या मनां तें कामिलाक खेपूंक लागलें.

सगली रात कांचनान थंयच एकेच सुवातेर बसून काडली. केन्ना एक फाव ताका दिसाचो उजवाड जाल्यार पुरो जाल्लें. खंयच्या खिणाक कामील ताचेर घुर घालीत तें सांगपाक जाय नाशिल्लें. ताचे दोळे न्हिदेन सामके जड जाल्ले. पूण भिरांते

ाणें आपणाले दोळे उक्तेच दवरिल्ले. घडये कामील आपूण न्हिदपाची वाट पळयता ासतलो अशें येवजून ताचें आंग शिरशिरलें.

रात मुयेचे गतीन उलगताली. कांचन परतें परतें घडयाळीचेर वरां पळयतालें. ्युस्त साडे तीन वरांचेर शेजारचो एक कोंबो आड्डलो. त्या बराबर बाकीचेय कोंबे ाड्डवपाक लागले. कोंब्याचे जागीन कांचनाक मात्सो धीर आयलो. कामील आजून ोरेतालो. आतां रोकडोच दीस जातलो अशें येवजून तें मात्शें आंग सोडून बसलें. ताच्या ाथ्यावयलें भिरांतेचें वजें इल्लें इल्लें सकयल देंवतालें. अचकीत ताका केन्ना दोळो लागलो ांयच समजलें ना. ताचो दोळो लागलो तशें तें सपनेलें... कांचन शें बस स्टॉपार बशीक उबें रावलां... इतले म्हणसर कामील सो रस्त्यान मोटारसायकलीन येता... तें शें कामिलाक वळखता आनी रस्त्यावसल्यान फाट करून उबें रावता. कामील थंयच्यान एक ावट गेल्यार पुरो अशेंशें ताका जाता... पूण तो मुखार वचनासतना मोटारसायकल हाडून ताच्या सामकार उबी करता... कांचनाक सो ताका पळोवन थरथरो सुट्टा... तें थंयच्यान पयस वचपाक सोदता... तें पळोवन कामील मोटारसायकल स्टँडार काडटा... कांचन शें धांवपाक लागता... ताचे फाटल्यान कामील सो धांवता... तें शें खर्शेता... धांवपाक ताचीं पावलांच उखलनांत... इतले म्हणसर कामील सो ताच्या हाताक धरता... आनी वोडीत मोटारसायकली वयल्यान घरा व्हरता... कांचन शें आपणाक सोड म्हूण ताचे काकुळटेक येता... पूण तो सो ताका सोडिना... तें बोब मारपाक तोंड उक्तें करता... पूण तो ताच्या तोंडार हात धरता... कांचनाचें बळ कामिलामुखार सामकेंच उणें पडटा... आनी फूल कशें तो ताका उबारून व्हरता... मुखार कितें घडटलें तें येवजून शी ताका घुंवळ येता आनी तें शाबुदीभायर जाता.

'कांचन उठ... दीस जावपाचो जालो' - कामिलाच्या आवाजान कांचन फडफडीत जागें जालें. तें सडसडीत उठून उबें रावलें. आपणाक पडिल्लें तें सपन आशिल्लें हें येवजून ताच्या जिवाक मेकळें मेकळें दिसलें.

'न्हीद पडली मुगो...?' - कामिलान ताच्या तोंडाक पळयत विचारलें, आपणाक न्हीद कशी पडली हें येवजून कांचनाक लज जाली. ताणें घडयाळींत पळयलें. साडे पांच वरां जाल्लीं.

'चल सडसडीत तोंड धूय... आनी भायर सर... हांव तुका दोन रस्त्यांर व्हरून पावयतां' - कामिलान ताका ताकीद लायली आनी कांचनाच्या जिवाक सामकें ल्हव - ल्हव दिसपाक लागलें. कामिलाविशींची भिरांत खंयचे खंय नाच जाली.

ताणें नळ सोडलो आनी तोंड धुयलें. पर्सीतल्यान हारशी आनी फणी काडून केंस सारके केले. पांच-धा मिनटांभितर तें वचपाक तयार जालें. 'इतले बेगीन तुक उठोवचो नाशिल्लों... पूण...' कामिलान दाराची खिळी काडटा आसतना म्हळें. 'पूण किदें?' कांचनान पयलेच फावट मेकळ्या आवाजान विचारलें. 'म्हाका सगलो लोक वायट मनीस म्हूण वळखतात... देखून लोक जागे जांवचे पयलींच तुका वाड्यावेल्यान भायर काडपाक जाय... तूं म्हज्या वांगडा येवन रातचें रातभर म्हज्या वांगडा रावलें तें पळोवन लोक वगीच दुबाव घेतले... तुजेविशीं जायफाय उलयतले... तातूंत तुजो कोणूय वळखीचो आसल्यार जालेंच मागीर. लोकांक खंय खबर हांव अडचल्ल्यांचे वाटेक वचना म्हूण?'

कामिलाचें उलोवप आयकून कांचन सामकें अजाप जालें. हो खरोच कामील काय आनीक कोण? असो खीणभर ताका दुबाव मारलो. पूण तो कामिलूच आशिल्लो.

वाड्चावयले सगले लोक जागे जावचे पयलींच कामिलान कांचनाक मोटारसायकलीन व्हरून दोन रस्त्यांर पावयलें. अजून सकाळचीं स वरां जावपाक धा मिनटां आशिल्लीं. कामिलाचे उपकार कांचनाक कशे मानचे तें कळनां जालें. तें किदेंतरी म्हणपाक सोदी. पूण ताचे पयलींच मोटारसायकल परतून कामील रस्त्याक लागिल्लो. कांचनाक उपकार मानपाची संद लेगीत ताणे दिली ना.

कामिलाभितर आशिल्ल्या मनशान कांचनाक अजापाचो धक्को दिल्लो. तो दिसतासर कांचन ताका फाटल्यान पळयत रावलें. पळयत रावलें...

# पातकन्हाण

राजून दनपार मेरेन सगलीं संवकळीचीं कामां सोपयलीं. आयज जेवण रांदपाचो र नाशिल्लो. आपणापुरतें ताणें रांदून दवरिल्लें. झाडपाचीं आनी पुसपाचीं कामां पेल्लीं. देखून तो मेकळो जावन येवन हॉलांत बसलो. इतले बेगीन ताचें काम केन्नाच नाशिल्लें. दनपारचीं कामां सोपलीं म्हण्टकीत ताचीं सांजचीं कामां सुरू जातालीं.

जिरत्त वीस वर्सां जालीं हीं कामां तो नेमान करता. पूण केन्नाच वाजेंवना. तसो का वाजूय येनां. फक्कत चार मनशांलीं कामां. तीं करपाक आनी कसलो वाज ? फाटें ताका आपूण आपणालीं घरचींच कामां करतां अशें दिसतालें. सुधाकर पात्रांव नी निलिमाबायन लेगीत ताका परकी कसो मानलो ना. तीं ताका घरचोच कसो रतालीं. राजून लेगीत सुरवातेक तांचो विस्वास जोडपाक जायती तकालस घेतिल्ली. लीं कामां तो वेवस्थित करतालो. खंयचेंच काम राजूचेर सोपयलें आनी तें सारकें लेंना अशें केन्नाच घडलेंना. ह्याच ताच्या गुणाक लागून ताणें दोगांयचींय काळजां ड्याच दिसांभीतर जिखिल्लीं.

सुधाकर बँकेत कामाक आसता. निलिमाबाय इस्कोलांत शिकयता. चलो आनी ी दोगांय भुरगीं इस्कोलांत शिकतात. हाका लागून चडसो वगत पुराय घर राजुच्याच यांत आसता. मागीर तो राजा कसो अख्ख्या घराचेर शेक गाजयता. पूण आयज ल्लेकडेनूच ताच्या जिवाक वेगळेंच शें दिसपाक लागलें. पुराय घर आपणाक खावपाक असो वगीच ताका भास जावपाक लागलो.

सुधाकर पात्रांव आनी निलिमाबाय भुरग्यांक घेवन दिल्ली भोवंडेक गेल्यांत. आठ ा दीस तरी तीं थंय उरतलीं. निलिमाबायक मदीं मदीं सुटी मेळटा. पूण पात्रांवांक नाच सुटी मेळनां. आयताराक लेगीत तागेलीं कामां थारिल्लीं आसतात. हाकालागून लिमाबाय ताचेर वाजेता. तिका भोंवपाक खूब आवडटा. पूण फाटल्या वीस वर्सांत तीं यच वचूंकनांत. खंयूय गेलींच जाल्यार दीस पडचे पयलीं घरा पावतात. देखून हे फावट

पात्रावांन धा दिसांची रजा घेतल्या. भुरगींय आतां व्हडलीं जाल्यांत. तांकांय घरांत बसू - बसून वाज येता. दिवाळेची सुटी आशिल्ल्यान निलिमाबायक रजा काडपाची गरज पडलीना. वचपाची सगली तयारी जातकीत निलिमाबायनूच राजूक विचारलें - 'वचूं मं आमीं ? घराकडेन पळयता मरे सगलें ?'राजूक सुरवातेक बाय आपलीं फकणां करता दिसलें. देखून तो हांसलो आनी ताणे फकणाचेर व्हेलें - 'कसलीं फकणां करता बाय ?
'फकणां कसलीं रे ? खऱ्यानींच म्हण्टा हांव.'
'सगलें म्हजेर पातयेवन वतलीं तुमीं ?'
'हय तर! तूं किदें परकी आसा आतां ?' - बायचें उलोवणें आयकून राजूक आपू सपनांत आशिल्लेवरी दिसलें. जापसालकेच्या वोज्यान ताच्या पोटांत कलकल्ल्याभशे जालेबगर रावलें ना. इतलें व्हडलें भरिल्लें घर आपणाकडेन सांबाळपाक जातलें? अस दुबावूय ताच्या मनांत आयलो.

आतां बशिल्लेकडेन ताका तो उगडास जालो आनी ताणें एक हुस्कार सोडले दनपारच्या जेवणाचो वगत जालो तसो तो जाग्यावेल्यान उठलो. किचनांत वचून ता आपणाक वाडून घेतलें. पूण इतलोतेप ताका एकटो जेवपाची संवय नाशिल्ली. बायन आ पात्रांवान ताका नोकर कसो केन्नाच वागयलो ना. जेवणाच्या वगतार लेगीत पात्रां ताका एकाच जेवणाच्या मेजार जेवपाक आफयतालो. सगलीं वांगडाच जेवतालीं. ख कितें घडलें त्यो गजाली मागीर सगलींच सांगतालीं. हाका लागून गजालींनी आनी हांसू हांसून जेवन केन्ना जाता तेंच कळंनाशिल्लें. सदचेभशेन राजून वाडून घेतलें खरें. पू ताका उंडीच वचनां जाली. तरीय सुटनां कामाक तो कसोतरी जेवलो.

सांजवेळचें आतां कांयच काम उरूंक नाशिल्लें. दनपारचेंच जेवण रातीकडे जेवपाचें अशें येवजून तो परतो भायर आयलो. हरशीं तो दिसूयभर किदें ना किदेंतरि करीत आसतालो. पूण आतां किदें करचें ताका कांयच येवजनां जालें. भायर हॉलां येवन ताणें थंयचे थंय चार पासयो माल्ल्यो. एक न्हिद काडल्यार बरी दिसता अशें येवजू तो बद्द आपणाले कुडींत गेलो आनी आड पडलो.

न्हिद पडटली म्हूण तो बरोच वगत पडून रावलो. ताका दनपारची न्हिदपाच संवय नाशिल्ली. हाकालागून ताका कशीच न्हिद येनां जाली. कांय वगत तो तसोच पडू कुशी परतीत रावलो. इतले म्हणसर ताका चावयांच्या घोंसाची याद जाली. निलिमाबाय ताचेकडेन दिल्लो चावयांचो घोंस ताणें भायरूच हॉलांत शोकेसीचेर दवरिल्लो.तो उठल आनी बेगबेगीन भायर हॉलांत आयलो. धा - पंदरा चावयांचो घोस ताणें थंयचे - थंय वय

लो आनी जिखून घेतलो.इतल्यो ह्यो चावयो खंयच्यो काय ? खंय - खंय लागतात ावन पळयल्यार बऱ्यो दिसता अशें येवजून तो परतो भीतर गेलो. भितल्ले कुडींत कपाटां लायनीन दवरिल्लीं. राजून एक - एक चावी कपाटांक लावन पळोवपाक त केली.कपाटांच्यो सगल्यो चावयो त्या घोसाक आशिल्ल्यो. एका कपाटाक चावी ी तशें ताणें तें उक्तें केलें. पात्रांवाचे सगले म्हत्वाचे पेपर आनी कागदां तातूंत ल्लीं. पळोवपासारखें भीतर कांय नाशिल्लें. ताणें तें वेवस्थीत धापलें आनी चावी केली. चावी लावन दुसरें कपाट उक्तें केलें. ह्या कपाटाक भीतर आनीक खण आशिल्ले. ल्या खणाक खंयची चावी लागता ती पळोवपाक ताणें एक एक चावी लावपाक ात केली. एक चावी जिस्त लागली आनी खण उक्तो जालो. तातूंत किदें आसा तें पाक ताणें भीतर हात घातलो. पळय जाल्यार भीतर पयशांचीं बंडलां आशिल्लीं. यो शंबरांच्योच नोटो. तीं नोटींचीं बंडलां पळोवन ताचें आंग वगीच शिरशिरलें. ताणें आशिल्लीं तशीं परतीं भीतर दवरलीं आनी चावी घुवंडायली. दुसऱ्या खणांत किदें तें पळोवपाक ताणें दुसरो खण उक्तो केलो. पळय जाल्यार बायल्यो सगल्यो राच्यो वस्ती तातूंत भीतर आशिल्ल्यो. बायन वतनां फक्कत गरजेचेंच भांगर आंगार ल्लें. बाकिचें सगलें कपाटांतूच भीतर दवरिल्लें. त्यो भांगराच्यो वस्ती राजून पळयल्ल्यो तोय खण ताणें धांपलो आनी चावी घुवंडायली. कपाटाक चावी करून चावयांचो घेवन तो परतो भायर हॉलांत आयलो. हातांतलो चावयांचो घोंस घट्ट धरून तो भायर बसलो.

सुधाकर पात्रांव खूब पयशेकार हें राजू जाणां आशिल्लो. पूण तो घरांत पयशे ता हें ताका खबर नाशिल्लें. बँकेंत काम करता म्हळ्यार सगले पयशे बँकेतूच दवरता तलो अशें ताका दिशिल्लें. राजूक दर म्हयन्याक कामाचे एक हजार रूपया मेळटाले. ाणें तश्शे जमोवन दवरिल्ले. ताका कसलोच खर्च नाशिल्लो. पयशे कोणाक धाडून लो म्हळ्यार ताचीं नात्यांतलींय कोण मनशां नाशिल्लीं. ताचे पिरायेचो हिशोब शिल्ल्यान आपणाली पिराय कितली जाल्या आसतली हें ताका सारकेंच खबर शिल्लें. पूण अदमासान चाळीस - पंचेचाळीस तरी जाल्या आसतलीं अशें ताका ताले. आपणाक हांगा आसरो मेळ्ळा तो व्हडलो अशें येवजून ताणें लग्नाचो लेगीत ार करूंक नाशिल्लो. मनांत जायतें दिसतालें पूण कोणाक उलोवन दाखयतलो ? न सगल्यो उमेदी ताका भितल्ले भीतर जिरोवच्यो पडटाल्यो.

येवजीता आसताना परतोय ताच्या मनांत विचार आयलो. आजून आपणाली

पिराय चड जांवकना. चिंतल्यार आजून मेरेन आपणाच्यान लग्न जावन बरे भ
संवसार करूं येता. आनी जोगूल कसो एक विचित्र विचार ताचे तकलेंत भीत
सल्लो.पात्रांव आनी निलिमाबाय आनीक आठ - धा दीस तरी परतीं येवपाची आस्त
मजगतीं सगलें हाताक मेळटा तें घेवन हांगासल्ल्यान पळून गेल्यार कशें ? कितलो
काडपाचो नोकर म्हूण हांगाच ? जाण्टेपणांत मागीर आपणाक कोण पळयतलो
हातपांय घोळटासर बरें. जायतो वगत बसून ताणें बरेंच चिंतलें. ताच्या चिंतनानीं देंवच
रिगलो. ताणें निश्चेव केलो. हय तशेंच केल्यार बरें. आयती बरी संद मेळ्ळ्या. अस
संद परती मेळत सांगपाक जांयना. निश्चेव पक्को जालो तसो तो बशिल्लो थंयच्यान अ
उठलो. परत एकफावट ताणें चावयांच्या घोंसावसल्यान पळयलें आनी खिणाचोय व
लांय नासताना तो परतो भीतर सल्लो.

ताणें मदल्या कपाटाच्यो चावयो काडल्यो आनी कपाटाचे भितल्ले खण उ
केले. सगलीं नोटांची बंडलां आनी आशि - नाशिल्लें भांगर ताणें भायर काडलें. तागेल
सामानाची एक म्हेळीशी पोती आशिल्ली. ते पोतयेंत ताणें तें भांगर आनी पयशांच
नोटांचीं बंडलां भीतर भल्लीं. तागेले कामाचे जमिल्ले पयशे आशिल्ले तेय ताणें भीत
उडयले. वयल्यान आपणाले गरजेचे आनी बरेशे कपडे भल्ले. ताणें घड्याळीवसल्य
पळयलें. सांजवेळचीं चार वरां जावन गेल्लीं. भरिल्ली पोती घेवन तो हॉलांत आयलो. आ
ताका कितेंच चिंतपाक इल्लोय वगत नाशिल्लो. केन्ना एक फावट ह्या वाठारांतल्यांन भाय
पावल्यार पुरो अशें जाल्लें. घराचें फुडलें दार उत्तें करून तो भायर सल्लो. दारांतूच उ
रावन ताणें सभोंवतणी नदर माल्ली. आपणाक कोणूय पळयत म्हूण ताका वगीच भिर
दिसली. पूण कोणाचीच जाग नाशिल्ली. ताणें भायल्यान दार धांपलें आनी चावी केल
चावयांच्या घोंसाचें किदें करचें ताका खीणभर कांयच येवजलें ना. देखून ताणें
चावयांचो घोंस काडून पोतयेंत भीतर वडयलो.

पोती सांबाळीत तो तसोच मुखेल रस्त्यार आयलो. थंय हरशीं बस स्टॉ
आशिल्लो. पूण वळखिचो कोणूय मेळत वा पळयत म्हूण तो तसोच चलत फुडल्या स्टॉपा
गेलो. रस्त्यान जायत्यो मोटारी येताल्यो आनी वताल्यो.अकस्मात कोणीय वळखि
मेळत म्हूण ताका भिरांत दिसताली. हरशीं म्हूण आपणें केल्ल्या कर्माक लागून ताच
पोटांत कलकलतालें.

बस स्टॉपार आनीक कोणूच नाशिल्लो. बसपाक सुवात आशिल्ली. पूण त
खांब्याचो आदार घेवन तसोच उबो रावलो. इतलो वगत ताणें पळून खंय वचपाचें

क नाशिल्लें. ताचे वळखिचोय कोण नाशिल्लो. आपणाक कोणूच वळखचोना अशी खंय मेळत काय ? बसीर चडल्या उपरांत कंडक्टर खंय वता काय विचारतलो. सट्ट करून सांगपाक जाय. मुंबय गेल्यार कशें ? हय. बरी सुवात. मुंबय लाखांनीं रावतात खंय. थंय कोणाक कोण वळखना. राजून टी. वी. चेर मुंबय पळयल्ली. लोक फुटपाथीचेर लेगीत रावतात. तांचे मदीं आपूण वचून रावलों जाल्यार कूच दुबाव येवचोना. अशें येवजून ताका खीणभर बरें दिसलें.

इतले म्हणसर एक बस आयली. राजूक पळोवन ड्रायवरान बसीचो ब्रेक लो. कंडक्टरान हात हालोवन ताका विचारलें - 'येवपाचो ?'. 'ना. चला तुमीं'. नें सारकें बरें थारूंक नाशिल्लें. तो येना तें पळोवन कंडक्टरान ताका कसलीतरी घाली आनी बस गेली. बस गेली तशे राजूक चुरचुरे पडले. काय बरी बस सोडली. म्हळ्यार जाता तितले बेगीन हांगासल्ल्यान पळपाक जाय आशिल्लें. कोणीय वळखीचो यार जालेंच मागीर. आतां येता ती बस कशीच सोडप ना अशें येवजून तो फुडलें ाक लागलो.

येवजितानां ताका अचकीत प्रस्न पडलो. हें आपूण करतां तें सारखें मूं ? ालें किदेंय चुकनां मूं ? ताच्या मनांत विचारांचें घेर्रर्र सुरू जालें. ताचें एक मन तालें - 'तू करता तें सारखें. हीच संद बरी आसा.' जाल्यार दुसरें मन सांगतालें - चुकता.' आनी दुसरें मन इल्लें इल्लें बळिश्ट जावपाक लागलें. तें आड्डेवन ताका विचारपाक लागलें.... 'कितलो सुवार्थी रे तूं ? कितल्या विस्वासान निलिमाबायन कडेन चावयांचो घोंस सोपयल्लो. त्या विस्वासाचो असो घात करतलो ?' ोर किदें करपाचें ?' - पयलें मन आपलें तें खरें म्हणपाक सोदी. ं करपाचें म्हळ्यार ? आपूण विस्वासाक पात्र आसां अशें दाखोवन दिवपाचें. काय तुकां संद आसा. आनी ताणीं तुजें किदें वायट केलां म्हूण तूं असो तांकां लुटपाक ता ? घडये तुजी परिक्षा पळोवपाक तीं सगलें तुजेर सोपोवन गेल्यां आसतलीं. इतलो विचार केला तुवें ?'

राजूच्या मनांतलो संघर्ष चालू आसताना आनीक एक बस गेली. बस केन्ना ं पावली आनी पयस गेली तें ताका कळ्ळेंच ना. खरेंच पात्रांवान आनी निलिमाबायन ्चें कांयच वायट करूंकना. उरफाटें सगलें बरेंच केलां. राजूच्या दोळ्यांमुखार लो इतिहास उबो रावलो. तो एका हॉटेलांत काम करतालो. खूब भुरगेपणांत सावन त्या हॉटेलांत कामाक आशिल्लो. थंय तो केन्ना आनी कसो पावलो तें लेगीत ताका

उगडास नाशिल्लें. हॉटेलांत ताका मरसर काम करचें पडटालें. बसन दिसलें म्
बसपाक मेळंनाशिल्लें. वा रातचे दोळे जड जाले म्हूण न्हिदपाक मेळंनाशिल्लें. त्या भा
उरिल्लें आनी बेळशेल्लें जेवण खावन दीस काडचे पडटाले. तोंड उक्तें करून कांयच प
विचारपाची माणसुकी नाशिल्ली. पात्रांव सामकोच राकेस कसो आगांर धांवून येता
पगार मेळपाचें जाल्यार नावूंच नाशिल्लें. राजूक जाल्यार सदांच तो थोमणे मारताले
'तुकां हांवेन विकतो घेतला तो उबो रावून पळोवपाक न्हय.काम करपाक. समजलो

पात्रांवाच्या ह्या उलोवण्याचो राजूक बोध जांय नाशिल्लो. पूण उपरांत ताका इ
- इल्लें समजुपाक लागलें. आपणाक पयशांखातीर कोणेंतरी विकला आसतलो हा
ताका खात्री जाली. आपूण आसां ती बंदखण अशें ताका दिसपाक लागलें. थंयच्या
कसोतरी भायर सरपाक जाय अशें तो सदांच येवजितालो. एकदीस ताच्या हातांत
ट्रेंत आशिल्लीं दोन च्याचीं कपां निसरून सकयल पडलीं. तेन्ना पात्रांव रागान साम
तांबडो जालो आनी राजूच्या भेंडार ताणें 'चलूंक लाग' म्हूण एक खोंट घातली.राजून
निमीत धल्लें आनी तो थंयच्यान भायर सल्लो. पांय व्हरतात तसो तो चलत रावलो. चल
- चलतां तो खूब पयस पावलो. पूण मुखार खंय वचपाचें तें ताका सुचनां जालें. अर
मळब आपणाक गिळपाक पळयता असो खीणभर ताका भास जालो. तेन्नाच देवमन
कसो सुधाकर पात्रांव ताका मेळ्ळो. ताणें ताची वासपूस केली. ताणें ताका आपणा
कामाक दवरपाची तयारी दाखयली. तेन्ना राजूक तेय अवस्थेंत खूब खुशालकाय जा
इतलो तेंप तो मोनजातीचीच जीण जगिल्लो. मनशाचें जिवीत म्हळ्यार किदें तें त
सगल्यांत पयलीं हांगाच पळयलें.

सुधाकर पात्रांव आनी निलिमाबाय दोगांय भांगर मनशां, असल्या मनश
विस्वासघात म्हळ्यार व्हडलें पातक. ह्याच्याकूय व्हडलें पातक आसुंकूच शकना. निलिमाबा
कितल्या विस्वासान ताचेकडेन चावयो सोपयल्ल्यो ताचो ताका उगडास जालो. तीं ता
घरचोच कशीं मानतालीं. आनी आपूण असो खाल्ल्या पानार हळशीक करपाक क
मुखार सल्लों तें येवजून ताका स्वताचीच लज दिसली. ना अशें जावपाक फावोना. त
आपणाकूच समजायलो. इतले म्हणसर रस्त्यान एक जीप येता ती ताणें पळयली.
पुलीसांली जीप. हय पुलीसांलीच ती. ताणें उबो राविल्लेकडेन आपणालें आंग जाता ति
चोरून घेतलें. पुलीसांल्या जीपीवसल्यान उक्त्या मनान पळोवप ताका शक्य जालेंना. ज
स्टॉप फाटीं वुडोवन मुखार गेली तशें ताणें जीपीवसल्यान पळयलें. पुलीसांनीं कोणाक
चपाटून धरून हाडिल्लो. तें पळोवन ताच्या आंगार शिरर्र करून कांटो उबो राव

ोय अशी विपश्टा जाली जाल्यार? ना... अशें जावपाक फावोना. ताचे विचार परते ले... आपणालें कितेंतरी चुकता हाची ताका जाणवीक जाली. आनीक एक बस येवन ा थांबली तें ताका कळ्ळेंच ना. 'येवपाचो रे ?' कंडक्टरान ताचेवसल्यान बोट ोवन विचारलें. 'ना' राजून रोकडीच परती जाप दिली. बस जाग्यावयली हाल्ली तशें ून चिंतलें. आतां आनी हांगा रावप ना. ताणें हातांतली पोती सासपून पळयली आनी येल्ले वाटेन तो परतो चलपाक लागलो. येता आसताना तो भिरांतेन सो आयिल्लो. पूण ां ताच्या मनांत भिरांत नाशिल्ली.

नेटान पावलां उडयत तो परतो घराकडेन आयलो. ताणें भायल्यान एकफावट ा घेतली. पोतयेंत वडयल्ल्यो चावयो सासपून भायर काडल्यो. फुडल्या दाराच्या पाची चावी काडून दार उक्तें केलें. भीतर सल्लो आनी ताणें दाराक भितल्ल्यान खिळी ली. भीतर वचपाक घुंवता आसताना ताची नदर वण्टीवेल्या फोटवाचेर पडली. ाकर पात्रावांच्या बापायचो फोटो सामको जिव्या मनशाभशेन दिसतालो. ताणें आपणाक यलो अशें राजूक वगीच दिसपाक लागलें. पूण थंय चड लक्ष दीनासताना तो नेटान ार सल्लो. कपाटाची चावी काडून ताणें पयशांचीं बंडलां आनी सगल्यो भांगराच्यो वस्ती शिल्ल्यो तश्श्यो परत्यो जाग्यार दवरल्यो. कपाटाक वेवस्थित चावी करून तो आपणाल्या ांत आयलो. तिनसांजचीं सात वरां जाल्लीं. सगलें सामान चोरून घेवन वता आसताना का व्हडलीशी भिरांत दिसूंक नाशिल्ली. पूण आतां आपूण पातकांतल्यांन सुटलों अशें सून लेगीत ताचें काळीज भितल्ल्यान थरथरतालें. घामान ताचें सगलें आंग चिकचिकीत ल्लें. केन्ना एक फावट आपूण आंगार उदक रकयतां अशें ताका जाल्लें.

साबाण आनी तुवालो घेवन ताकतिकेन तो बाथरूमांत गेलो. थंड उदकाचो वर चालू करून ताणें तें उदक आपल्या आंगार घेतलें. ते बराबर ताच्या जिवाक बरें सलें. आपणाक दशिल्लें पातक इल्लें - इल्लें व्हावून वता अशें ताका दिसपाक लागलें. नी कुडी वांगडा मन लेगीत पुरायेन नितळ जायसर तो न्हायत रावलो.

# नशिबाचो खेळ

'तुगेल्यो कितेंय अपेक्षा आसल्यार सांग'. सुदेशान मिनाक जायते प्रस्न विचारल्या उपरांत सांगलें. तेन्ना मिनाक ताका सट्ट करून सांगचें अशें दिशिल्लें. पूण इतले बेगीन सांगल्यार आपणालीं हुतहुतेपणां जातलीं अशें ताका दिसलें आनी तकली सकयल घालून तें तशेंच बसून रावलें.

'बरें तर... येतात आमी' मिना कांयच उलयना तें पळोवन सुदेशान म्हळें. तेन्ना मिनान तकली वयर काडून सुदेशावसल्यान पळयलें. ताका 'बरें' म्हणपाचें आसलें, पूण लजेन ताका उतर फुटलें ना. सुदेश तें ज्युस्त वळखलो. ताणें परत एक फावट मिनाक 'बरें येतां' म्हळें आनी तो जाण्टेलीं बशिल्लीं थंय परतो हॉलांत आयलो.

सुदेशाक मिना मानवल्लें. तें दिसपाकूय बरें आशिल्लें. अपेक्षेप्रमाण ताका शिक्षणूय आशिल्लें. गरजेपुरत्यो हेर सगल्यो गजालीय ताका कळटाल्यो. देखून ताणें आपणाली पसंती कळोवपाक वगत लायलो ना.

दुसरे वटेन मिनाच्या जिवाक चिटमिटे पडिल्ले. काय बरी सुदेशान ताका अपेक्षा विचारपाची संद दिल्ली. पूण तें वगीच रावलें. आपणें काय बरी संद वगडायली अशें ताका दिसलें. ताच्यो अपेक्षा व्हडल्यो कांयच नाशिल्ल्यो. फक्कत सुदेशाक ताका एक अट घालपाची आशिल्ली. ती अट म्हळ्यार लग्न जाले उपरांत सुदेशान मोटार चलोवपाक जायना. पूण तेन्ना लजेन ताचें तोंडूच उक्तें जालें ना.

मिना मोटारींक थर्त भियेतालें. जंय चड मोटारी आसात थंय तें वचनाशिल्लें. मोटारी ह्यो मनशांक मारून उडोवपाखातीर आसतात अशी भुरगेपणांतूच ताची समजूत जाल्ली. हे गजालीक तशेंच कारण आशिल्लें. भुरगेपणांत शिकता आसतना ताणें एक विचित्र अपघात पळयल्लो. तांची शाळा मुखेल रस्त्याक तेंकुनूच आशिल्ली. हाका लागून रस्त्यावेल्यान येवपी वचपी गाडयो भुरग्यांक शाळेंत बशिल्ल्या जाग्यार सावन दिश्टी पडटाल्यो. एक दीस अकस्मात व्हडलो आवाज जालो. एक ट्रक आनी धाकली मोटार

ांमदीं अपघात जावन तीन मनशां जाग्यारूच सोंपिल्लीं. अपघात पळोवपाक मास्तरावांगडा ोय धांवून रस्त्याकडेन गेल्लीं. तांचेमदीं धाकटुलें मिनाय आशिल्लें. रक्तान भरिल्ल्यो ्या मनशांच्यो कुडी तें पयलेच फावट पळयतालें. ताका तो देखाव पळोवन थंयच घुंवळ ाली. मुखार कितें जालें तें ताका कांयच कळ्ळें ना. तें जेन्ना शितिदांत आयलें तेन्ना ाराकडेन आशिल्लें. घरांतलीं सगलीं मनशां आनी शेजारी ताचे भोंवतणी जमिल्लीं. त्या ा सावन मिनान मोटारींचो सामकोच कांच घेतिल्लो. मोटार ताका दोळ्यांमुखार ा आशिल्ली. मोटारींत बसपाक तें भितालें. सोयऱ्यांगेर वता आसतना सुटना कामाक ा बशीर वच्चें पडटालें. मागीर थरिल्ले सुवातेर पावतासर दोळे धांपून तें आवयक घट्ट ्न रावतालें.

मिना व्हड जालें तरीय मोटारीविशींची ताची भिरांत गेली ना. इस्कोलाक वता तना तांकां एक रस्तो हुपून पलतडीन वचचें पडटालें. ताका लागून मिनाक भोंगूं ते ोल अशें जातालें. ताचें आठवी मेरेन शिकून जायसर ताची आवय ताका रस्तो हुपून ोलांत पावयताली. उपरांत तें हेर भुरग्यांचो हात धरून रस्तो हुपतालें. पूण रस्तो ्न जायसर ताच्या काळजांत कलकलतालें. मुखार तें कॉलेजींत पावलें, पूण ताचो ाव इल्लोय बदल्लो ना.

आतां तें लग्नाचें जाल्लें. सुदेशाची सोयरीक ताका आयिल्ली. सुदेश एके बँकेत ्म करतालो. मिनाच्या घरच्यांनी सुदेशाची पुराय खबर काडिल्ली. सुदेश मिनाक ावल्लो. पूण एकूच गजाल ताच्या मनासारकी नाशिल्ली. ती म्हळ्यार सुदेश बँकेंत ्माक वतना आपणाले मोटारीन वतालो आनी मोटारीन येतालो. हें मोटारीचें एक सन सोडलें जाल्यार सुदेशाक आनीक कसलेंच व्यसन नाशिल्लें. जेन्ना सुदेशान ताका ्यो अपेक्षा विचारिल्ल्यो तेन्ना ताका सट्ट करून म्हणचें अशें दिशिल्लें - 'म्हजी एकूच ् आसा. लग्न जाले उपरांत तुवें मोटारीन भोंवप ना.' पूण ताचें तोंडूच उक्तें जालें ना. ्नी अट घालपाची तशीच उरली. पूण ताणें मनांतल्या मनांत गांठ मारली लग्न जालें ्गटकीच पयलीं सुदेशाक अट घालप. मागीर ताका मोटारीन भोंवपाक दिवप ना.

लग्न जालें म्हणटकीच नव्यो व्हंकलो नवीं नवीं सपनां पळयतात. पूण मिनाचें ्न जालें तरीय दिसपाक जाय तितली खुशालकाय ताच्या मुखामळार दीसं नाशिल्ली. ्देशाक खंय तरी पयसुल्ले सुवातेर हनीमुनाक वचपाचें आशिल्लें. पूण मिनाक ताचो ्वार आवडूंक नाशिल्लो. तरीय सुदेशाक वायट दिसत वा ताचो विरूस जायत देखून ्गें कांयच म्हळें ना. पूण जेन्ना सुदेशान मोटारीन या म्हळें तेन्ना मात ताणें सामकेच

कानार हात धरले.

'ना... ना... मोटार व्हरपाक जायना' - ताणें हट्टाक पेटून सांगलें.

'आगो मोटार म्हज्या सामकी हातार बसल्या'.

'ना... ना. आमी ट्रेनीन वचुंया.'

'बरें तर. तुजी इत्सा'- अशें म्हणून सुदेश ट्रेनीन वचपाक तयार जालो. ते पळोवन मिनाक मात्शें बरें दिसलें. ताका संद पळोवन सुदेशाक अट घालपाची आशिल्ली. देखून ती संद येवपाची तें वाट पळयतालें.

हनीमुनाक गेल्लेकडेन तांणी जायत्यो गजाली केल्यो. फुडाराचीं जायतीं सपनां रंगयलीं. आपणाक संद मेळटा अशें दिसतकूच मिनान ल्हवूच सुदेशाचो हात हातांत घेतलो. तें आपणाक कितें तरी सांगपाक सोदता हें कळपाक सुदेशाक वगत लागलो ना.

'तूं कितें सांगपाक सोदता?' सुदेशान ताका विचारलें.

'सुदेश म्हजी एक अट आसा'.

'कसली ती?'

'तूं आयकतलो? रागार जावचो ना?'

'हांव रागार कित्याक जातलों?'

'सुदेश म्हाका मोटारीची खूब भिरांत दिसता.'

'आगो पिशा, मोटारींक कित्याक भिवपाक जाय?'

'हांव नकळो. पूण म्हाका भिरांत दिसता.'

'मागीर हांव कितें करूं?'

'तूं मोटार चलोवं नाका'.

'आगो.. पूण?'

'प्लीज. म्हजेखातीर...'

'तूं अपघात जायत म्हूण भिता मुगो? आगो हांव फाटलीं पंदरा वर्सां जाली मोटार चलयतां. पूण अजून हांवें मोटार खंय तेंकोवं लेगीत ना. अपघात जावपाचे सोडूच...'

'तेन्नाची गजाल वेगळी...'

'आनी आतां अशें कितें जालां तर?'

आतां मोटारी खूब वाडल्यात... दर दिसा एक तरी वायट खबर आसता!'

'मागीर हांवें कामाक कशें वचपाचें...?'

'बशीन चल...'

'बशीन...?'

'म्हजेखातीर... प्लीज'.

'बरें आसा' - हनीमुनाचो मुड इबाडचो न्हय म्हूण सुदेशान मिनाचें सांगणें मान्य कलें. सुदेशान आपणालें आयकून घेतलें देखून मिनाय मनांतल्यान खोशी जालें.

लग्नाच्या निमतान सुदेशान एका म्हयन्याची सुटी घेतिल्ली. सगल्या बोवाळांत एक म्हयनो कसो उलगलो कांयच समजलें ना. सोयरिकेन जुळोवन हाडिल्लें लग्न जावन वेगीत मिनान ताचें काळीज जिखून घेतिल्लें. तशें मिनाचेंय काळीज ताणें चोरिल्लें. तांची वळख जावन फक्कत म्हयनो देड म्हयनो जाल्लो खरो, पूण दोगांकूय तशें दिसनाशिल्लें. उरफाटें दोगांकूय आपणाली वळख खूब पोरणी आसा अशें दिसतालें. म्हयनोभर तीं खूब भोंवलीं. लागींच्या सोयऱ्यांगेर वचूंन आयलीं. दोगांकूय नव्यो नव्यो वळखी जाल्यो. इतले मजगतीं, तीं दोगांय एकामेकांत पुराय भरसून गेलीं.

सुटी सोपिल्ल्याची खबर सुदेशान मिनाक सांगली तेन्ना ती आयकून मिनान तोंड वांकडें केले. सुटी केन्ना सोपचीच न्हय अशें ताका दिसतालें, तरीय पिशांभशेन तें उलयलेंच-

'आनीक थोडे दीस रावपाक मेळचें ना ?'

'आनीक थोडे दीस? म्हयनोभर रावलों मुगो!' - सुदेशान मिनाक समजावपाक म्हूण म्हळें. खरें म्हळ्यार ताकाय कामाक वचपाक भायर सरचें म्हळ्यार जिवार येतालें. पूण चुकोवंक कशें मेळटलें? देखून सगली तयारी आदल्या दिसाच ताणें करून दवरली.

दुसऱ्या दिसा सकाळीं फुडेंच सुदेश कामाक वचपाक भायर सरून गेलो. तो मोटार घेवन गेला हें मिनाक उपरांत कळ्ळें. आपणाले अटीचो ताका परत उगडास करून दिवपाक तें विसरिल्लें. सुदेशाकूय तो उगडास आशिल्लो काय नाशिल्लो देवाक खबर. हरशीं म्हूण गाडयेची ताका सामकी संवय जाल्ली. सांगाताक मोटार नासली म्हणटकीच ताच्या जिवाक चिटमिटे पडटाले. कितें तरी चुकिल्लेवरी ताका दिसतालें. जशें कितें मोटार हो ताचे जिणेचो एक वांटोच जाल्लो. पूण मिनाक मात ताची मोटार म्हळ्यार सवत कशी दिसताली. सुदेश मोटार घेवन कामाक गेलो आनी ताचें कित्याचेरूच मन लागना जालें. दनपार जावचे पयलींच तें सुदेश परतो येवपाची वाट पळोवंक लागलें. ताचे मांयच्या ही गजाल लक्षांत येवपाक कळाव लागलो ना. दनपारच्या जेवणाचो वगत जाल्लो. मांयन ताका ल्हवूच थोमणो मारलो...

'जेवपाक यो तूं आतां... तो येतलो सांजचो.' आपणाल्या मनांतले भाव मांयक कळ्ळे तें पळोवन मिनाक लज जाली. मोन्यांनी तें जनेलाकडल्यान फाटीं सरलें आनी डायनींग रूमांत भितर सरलें.

ज्युस्त सांजच्या स वरांचेर सुदेश घरांत भितर सरलो. मिना पयलींच फुगून बशिल्लें. ताका पळोवन तें आनीक मात्शें फुगलें. ही गजाल सुदेशाच्या लक्षांत आयली तशें ताणें मिनाक विचारलें-

'मिना, कितें जालें?'

'सुदेश तुवें म्हाका उतर दिल्लें'!

'कसलें तें?'

'कामाक वतना मोटार व्हरचो ना म्हूण?'

'आगो कसलीं भुरगेपणां करता...? कितलीं वर्सां जालीं हांव मोटार चलयतां!'

'इतलीं वर्सां चलयली ती पुरो जाली. आतां आनीक नाका.'

'लोक कितें म्हण्टलो?'

'लोक कितेंय म्हणुंदी... म्हाका खरेंच भिरांत दिसता रे...' अशें म्हणटनाच मिनाक रडपाक आयलें. ताका थातारता म्हणसर सुदेशाक नाका पुरो जालें. पूण तें कशेंच थारना तें पळोवन सुदेशान ताका परतें उतर दिलें- 'फाल्यांच्यान व्हरना हांव मोटार'. ताणें अशें म्हणनाफुडें मिना रडपाचें थांबलें. इतलो वगत कांयच जावंक नाशिल्ले भशेन वातावरण एकदम बदल्लें आनी काळशीं कुपां वचून चक्क वोत पडचें तशें जालें. खिणांत मिना सगलें विसरून गेलें.

दुसऱ्या दिसा मिना आपलो दोळो सुदेशाचेर दवरून रावलें. ताची संवय एक फावट मोडपाक जाय. संवय एक फावट मोडली म्हण्टकीच मागीर भिरांत ना. सुदेश न्हेसलो आनी भायर सरता आसतना ताणें संवयेप्रमाण मोटारीचे चावयेक हात घालो तेन्ना मिनान ताका ज्युस्त धरलो.

'सुदेश तुवें म्हाका काल कितें सांगिल्लें?'

'म्हणटकीच तूं तुजो हट्ट सोडचें ना तर?'

'म्हजो सोपूत आसा तुका... परती मोटार व्हेली जाल्यार...'

मिनान सोपूत घालो आनी सुदेशान चावी परती मेजार वडयली. तो तसोच भायर सरून गेलो. बस धरपाक चार - पांच मिनटां चलून वचचें पडटालें. बेगीन मेळटा ती बस धरून वचपाक जाय आशिल्लें; मोटारीची संवय जाल्ल्यान ताची बशीची संवय

डिल्ली. ते भायर बशी मदीं थारत थारत वतात आनी कामाक वगतार पावनात हाचोय
णभव ताणें पयलीं घेतिल्लो.

सुदेश चलतूच बस स्टॉपालागसार पावलो. एक बस पयलींच येवन थारिल्ली. टॉपावयले लोक बशींत चडिल्ले. कंडक्टरान शिटीय मारिल्ली. बस वचपाक हाल्ली तसो देशान हात वयर काडून कंडक्टराक राव म्हूण कुरू केली. धांवतूच तो बशी लागसार लो. वयर चडपाक ताणें पांय वयर दवरलो. तो हात धरपाक सोदी. इतले म्हणसर ायव्हरान एकदम स्पीड घेतली. सुदेशाचो तोल गेलो आनी कितें घडटा तें कळचे यलींच ताची तकली रस्त्याक आपटली.

लागसार आशिल्ल्या लोकांनी ताका इल्लोय कळाव लायनासतना हॉस्पिटलांत ावयलो. पूण ते पयलींच ताचो जीव गेल्लो. हेवटेन सुदेशान मोटार व्हरूंक ना म्हूण मिना ूश आशिल्लें. जायत्या दिसांनीं तें हुस्क्यां मेकळें जावन टी. वी. मुकार टी. वी. पळोंवक शिल्लें. दाराची बॅल वाजली म्हूण तें बेगी - बेगीन धांवून दाराकडेन गेलें. ताणें दार उक्तें ल्लें. चार जाण पुलीस सुदेशाचें मडें घेवन घराकडेन आयिल्ले. तें पळयतानांच मिनाच्या ोळ्यांमुखार काळोख आयलो आनी तें भूंय पडलें.

आनी यत्न करून लेगीत मिनाकडेन नशिबाचो खेळ आडावंक जालें ना.

# दळडीर

'कमलेश वेळीप....!'

कमलेशाच्या नांवाचो इंडिया इंटरनेशनल सेंटरांत गजर जालो आनी कमलेश आपणाल्या आसनावेलो उठून उबो रावलो. तोय ह्याच खिणाची वाट पळयतालो. केन्ना एक फावट 'कला रत्न पुरस्कार' घेवन घरा परतो वतां अशें ताका जाल्लें. हाचे पयलीं इतलो शिश्टाचार ताणें खंयच पळोवंक नाशिल्लो. मेकळेपणान जगपाची संवय आशिल्ल्यान इंटरनेशनल सेंटरांत ताचो जीव फुगार जाल्ल्याभाशेन जाल्लो. आतां आपूण हे बंदखणींतल्यांन सुट्टलों अशें येवजून कमलेशाच्या जीवाक सूऽऽ जालें.

मेजून पावलां उडयत तो प्रधानमंत्र्याच्या मुखार वचून उबो रावलो. प्रधानमंत्र्याक ताणें नमस्कार केलो. प्रधानमंत्र्यान उपरांत ताच्या खांदावेल्यान शाल घालून ताचो भौमान केलो. ताका यादस्तीक आनी पांच लाखांचो चेक भेटयलो तेन्ना ताळयांचो गडगड जालो. हाचे पयलीं इतल्यो ताळयो ताका केन्नाच पडूंक नाशिल्ल्यो. पुरस्कार घेवन आपणाले सुवाते वसल्यान परत येतना ताचें हड्डें गर्वान फुलून आयिल्लें. पुराय सेंटर लोकांनी गच्च भरिल्लें. सगल्यांच्यो नदरो ताचेर थीर जाल्ल्यो. सगळे जाण आपणाली नदर हालय नासताना ताका एकसारखो पळयताले. तोय लोकांचेर नदर भोंवडायत परतो आपणाल्या आसनाकडेन आयलो. आपणाले जिणेचें आनी कलेचें सार्थक जालें अशें कमलेशाक दिसपाक लागलें. कार्यावळ सोंपली आनी लोकांचे झुंडे वांगडा तो थंयच्यान भायर सरलो.

ताच्या हातांत यादस्तीक आनी खांदार शाल तशीच आशिल्ली. इंडिया इंटरनेशनल सेंटरा भायर लेगीत सगळे लोक तोखणायेन ताचेवसल्यान पळयताले, तो थंयच्यान भायर सरलो खरो पूण आतां आपणांक खंयच्यान वचपाक जाय तें खीणभर ताका येवजना जालें. इतले म्हणसर एक गोंयकार धांवतूच ताचे लागसार आयलो. कमलेश ताका वळखं नाशिल्लो पूण तो कमलेशाक नांवान वळखतालो. फाटले दोन दीस आपूण आतव्याच

ससारांत वावुरतां असो ताका भास जाल्लो. वोंठावयली तांबडी हिंदी उलोवन ताचो ळ्ळो सुकून आयिल्लो. पूण कोंकणी उतरां कानार पडलीं आनी रेंवट प्रदेशांत भोंवतना ड उदकाचो झरो मेळचो तशी ताची गत जाली. तो धांवत कमलेशा लागसार आयलो नी ताणें ताका परबीं दिलीं.

'परबीं तुका कमलेशबाब...'

'देव बरें करूं....'

'गोयकारांचें नांव वयर काडलें तुवें...' ताणें अशें म्हणटकीच कमलेशाच्या ावाक बरें दिसलें. गर्वान ताचें हड्डें परत एक फावट फुलून आयलें. पूण ताणें तें यल्यान दाखोवन दिलें ना.

'आतां खंय वचपाचो तूं? गोवा सदनांत?'

'ना. आतां हांव बद्द गोंयांत वचपाचों.'

'ट्रेनीन काय विमानान?'

'ट्रेनीचीच रिटर्न टिकेट आसा म्हजेकडेन'.

'हांव पायतां तुकां स्टेशनार.... मोटारीन'.

'तुका कित्याक बेश्टे त्रास....?'

'च्ये! त्रास कसले......? हांव तेवटेन वचपाचोच आसा.'

'बरें तर' - अशें म्हणून कमलेश ताच्या फाटल्यान गेलो. लागसारूच ताणें आपणाली मोटार पार्क केल्ली. ताणें दार उक्तें केलें आनी कमलेशाक बसपाक सांगलें ानी तो वचून आपणाल्या सिटार बसलो. 'नांव कितें म्हळें तुजें?' - कितें तरी उलोवपाक नाय म्हूण कमलेश उलयलो. 'रमेश. हांव मूळ दिवचलचो. सद्याक हांगाच आसतां' - मेशान आपणाली पुराय वळख करून दिली.

हेवटेन - तेवटेनच्यो गजाली करता म्हणसर मोटार स्टेशनार पावली. तो मोटार ोमतीच भितर घेवपाक सोदतालो. पूण कमलेशानूच ताका आसूं म्हळें आनी ताकतिकेन ो सकयल देंवलो. कमलेशाक रमेशाचे उपकार कशे मानचे तें कळना जालें. दुसरे वटेन रमेशाक आपणें व्हडलें काम केलें अशें दिसतालें.कमलेशान ताका हात दिलो आनी 'देव बरें करूं' म्हळें. 'वळख आसूंदी' अशें म्हणून रमेशान मोटार परती सुरू केली आनी तो गेलो. कमलेश मात मोटार दोळ्यांआड जायसर फाटल्यान पळयत रावलो. रमेश ताका देवाभशेन पाविल्लो. ना जाल्यार कमलेशाचे बरेच हाल जावपाचे. हातांत चार - पांच किलांचें यादस्तीक आशिल्लें. तें घेवन चलत स्टेशनाचेर येवचें पडिल्लें जाल्यार कितें

जावपाचें? कमलेशाक चिंतुनूच कितेंशें जालें. बोल्सांत पांच लाखांचो चेक आशिल्लो. पूण रोकड्या - रोकडे मोडपाक शंबरेक रूपयां वयर दुडून नाशिल्ले. देखून इंटरनेशनल सेंटरांत लेगीत बोल्सांत आशिल्ली ट्रेनीची तिकेट तो परत - परत सासपून पळयतालो. दिल्लींत तो पयलेच फावट आयिल्लो. तोय बी पूरस्कार घेवपाच्या निमतान. ना जाल्यार दिल्ली ताच्या सपनांत लेगीत नाशिल्ली. इतले पयस कोणूय वळखीचो मेळपाची निखालूस शक्यताय नाशिल्ली देखून तान - भूक मारून ताणें आशिल्ले पयशे तश्शे सांबाळून दवरिल्ले.

रमेशाच्या उपकारांचें वजें घेवनूच तो स्टेशनांत भितर सल्लो. प्लॅटफॉर्मार लोकांची गर्दी आशिल्ली. हातांत आशिल्लें यादस्तीक पळोवन साद्या लोकांक लेगीत ताची व्हडवीक कळपाक वगत लागलो ना. हांगासल्ले लोक लेगीत तोखणायेन ताचेवसल्यान पळयताले. ताणें स्टेशन मास्तराकडेन ट्रेनीविशीं वासपूस केली. ट्रेन येवपाक अजून पंदरा - वीस मिनटां उरिल्लीं. हातांतलें यादस्तीक मांडयेर धल्लें आनी थंय आशिल्ल्या सिमिटाच्या बांकड्यार ताणे बसकण माल्ली. बोल्सांत आशिल्लो पांच लाखांचो चेक वगीच सांसपून पळयलो. ट्रेनीची रिटर्न तिकेट परत एक फावट बोल्सांतल्यान भायर काडून पळयली आनी परती भितर दवरली.

स्टेशनावयल्यो हालचाली पळयतानां ताचें मन परतें चिंतनांनी शेणलें. कमलेशाचो जल्म एका गरीब घराण्यांत जाल्लो. ताचें पुराय जिवीत गरिबतायेंत गेल्लें. ताचो बापूय कोणागेरूय दिसवड्याचें काम करून दोन वेळो कश्यो तरी चलयतालो. तीन भावंडांमदीं कमलेश सगल्यांपरस व्हडलो. धाकट्यो दोन भयणी. गरिबतायेचो मार हेरांपरस कमलेशाकूच चड बसलो. ताका शिकपाची खूब इत्सा आसली. पूण ताचे घरचे परिस्थितीन ताका आडावन दवरलो. तो धावी पास जाल्लो. भुरग्यांक शिकोवपाची ताच्या बापायक जबर इत्सा आशिल्ली. पूण दिसवड्याच्या कामाक गेल्लेकडेन सोरपान ताका घांस मारलो आनी पिराय सोपचे आदींच संवसाराचें वजें कमलेशाचेर दवरून ताणें संवसार सोडलो.

कमलेशाक शिकपाची इत्सा आसून लेगीन ताका मुखार शिकपाक मेळ्ळे ना. बापायच्या मरणाचे बारा दीस जावंचे पयलींच ताका काम सोदपाक घरांतल्यांन भायर सरचें पडलें. तो कसलेंय काम करपाक तयार आशिल्लो. काम सोदपाक तो जायतो भोंवलो. पूण काम खंय मेळटा? निमाणेकडेन काम सोदून ताकाय दिसवड्याचेंच काम करचें पडलें.

कमलेशान एकट्यान वावर करून बापाय उपरांत घरांतली चूल पेटत दवरली. बापायच्या मरणाचें दुख्ख आवयक पचोवपाक बरेंच जड गेल्लें. सुरवातीचे दोन - तीन

यने तिणें आपणालें तोंड कोणाकूच दाखयलें ना, जगपाची तिची इत्साच मरून गेल्ली. मलेशा फाटल्यो दोगीय भयणी पिरायेन ल्हान आसल्यो. तांचेर कसलोच पेंच नाशिल्लो पणाक आपणालें शिक्षण अर्दकुटें सोडचें पडलें हाचें कमलेशाक खूब वायट दिसतालें. पणाली उमेद ताणें दोगीय भयणींक बरे तरेन शिकोवन भागोवपाची थारायल्ली.

दीसभर काम केलें म्हणटकीच तिनसांजां ताच्या हातार दिसवड्याचे पंचवीस पया पडटाले. त्या पयशांनी जाता तश्यो सगल्यो गरजो तो भागयतालो. अशे तरेन सां फाटल्यान दीस कशे तरी वचपाक लागले. वर्सांय उलगपाक लागलीं.

कमलेशाक भुरगेपणांत चित्रां काडपाक खूब आवडटालें. शाळेंत शिकता आसतना स्तर सगल्या भुरग्यांक 'तूं शिकून कोण जातलो?' असो प्रस्न विचारतालो. सगल्या रग्यांल्यो जापो आसताल्यो. कोण दोतोर, कोण इजनेर, कोण आदवोगाद जातलो श्यो जापो आयकूंक मेळटाल्यो. कमलेशाची जाप मात हेरांपरस वेगळी आसताली. 'तूं शिकून कोण जातलो?' अशें मास्तरान विचारलें म्हणटकीच 'हांव चित्रकार जातलों' शें तो सांगतालो. हीं दळडिराचीं लक्षणां अशें समजून मास्तरासयत सगलीं भुरगीं ाका हांसतालीं. पूण ताणें आपणालें सांगणें बदल्लें ना.

धावी पास जातकीच 'फायन् आर्टस्' शिकपाची ताची उमेद आसली. पूण नेयतीन नाका त्या मोडणार ताची वाट बदलून उडयली. ताच्या फुडाराचीं सपनां गळखांत बुडयलीं. कमलेशाच्या जिवितांत बऱ्या परस वायटूच प्रसंग चड आयले. पूण ाणे आपणाली आवड सोडून दिली ना. मेकळो वगत मेळटा तेन्ना तो एकांतांत बसतालो ानी चित्रां काडटालो. जिवितांतले बरे - वायट प्रसंग चित्रांत बंदिस्त करतालो. ताचीं चेत्रां ताच्या एकट्याच खातीर आसतालीं. काडिल्लीं चित्रां तो मागीर पळयत बसतालो. ावयक आनी भयणींक ताच्या चित्रांचो अर्थूच कळनाशिल्लो. तो कितें तरी बेश्टेंच चेत्रायता अशें तांकां दिसतालें. कमलेशान आपणें काडिल्लीं कांय चित्रां घरांत वण्टीचेर ायिल्लीं. ताच्या घरच्यांभशेन सोयरीं - धायरीं, शेजारी - पाजारी सगळीं अरसिकूच ाशिल्लीं. कमलेशाच्या चित्रांची दखल कोणीच घेतली ना.

वेंचणुकेच्या वगतार जायते नवे नवे लोक कमलेशाच्या वाड्यार घिट्ट्यो ालपाक लागले. विधानसभेची वेंचणूक लागीं पावल्ली. एकाच मतदारसंघांत पांच - स उमेदवार वेंचणुकेक उबे राविल्ले. पूण लोक पयलींच्याच उमेदवाराक वेंचून काडपाची ास उलयताले. सरकारान जाहीर प्रचाराचेर बंदी घाल्ली. हाका लागून घरांघरांत भोंवून उमेदवार प्रचार करताले. एक दीस कमलेश घरा आसतना अकस्मात कांय लोकां सयत

आमदार कुट्टीकार तकली बागोवन तांच्या घरांत भितर सरलो. कमलेश ताका वळखतालो. एक बरो आमदार म्हूण ताची नामना आशिल्ली. गांवचीं जायतीं कामां ताणें केल्लीं. वाड्यावाड्यार रस्ते पावयल्ले. एकदम आमदार आपणाल्या इल्ल्याश्या घरांत भितर सरला तें पळोवन कमलेशाचेर आकांत आयलो. खीणभर कितें करचें ताका कांय येवजना जालें. बसात म्हण्टलो जाल्यार बसपाक कांयच नाशिल्लें. तरीय ताणें कोनश्याक आशिल्ली शेंदरी काडून जमनीर पातळायली आनी तांकां बसपाक सांगलें. खिणाचोय कळाव लायनासतना आयिल्ले सागले जाण ते शेंदरेर बसले. आमदार कुट्टीकारान आपणाली नदर घरांत घरभर भोंवडायली. ताची नदर अचकीत वण्टीर लायिल्ल्या चित्रांचेर पडली आनी तो तीं पळोवपाक उठून उबो रावलो. इतलीं सोबीत चित्रां ताणें हाचे पयलीं केन्नाच पळोवंक नाशिल्लीं. चित्रांवयली नदर हालयनासतना ताणें कमलेशाक विचारलें -

'खंयच्यान हाडलीं हीं चित्रां?'

'हांवेंनूच काडल्यांत तीं' - कमलेशान ल्हव आवाजांत सांगलें.

'आरे! तूं चित्रकार? आमकां खबरूच ना मरे.'

'म्हाका पयलीं सावन चित्रां काडपाची आवड आसा.'

'प्रदर्शनाक बीन धाडीना?'

'प्रदर्शन म्हळ्यार...........?' - हाचे पयलीं प्रदर्शन हें उतर कमलेशान आयकूंक नाशिल्लें. ताच्या उलोवपांतल्यान कमलेशाचें भोळेपण कुट्टीकाराक कळपाक वगत लागलो ना. ताणे ताका आनीक गोंदळांत उडयलो ना.

'कितलींशीं चित्रां काडल्यांत तुवें?'

'जातलीं देडशें - दोनशीं.'

'तशें जाल्यार प्रदर्शन घडोवन हाडपाक हरकत ना. सगळो खर्च हांव करतां.' अशें म्हणून कूट्टीकारान कमलेशाक हात दिलो.

आमदार कुट्टीकारान फुडल्यो सगल्यो गजाली बेस बऱ्यो जुळोवन हाडल्यो. कमलेशान फक्कत आपणालीं चित्रां जमोवन दिलीं. कला अकादमींत कमलेशाच्या चित्रांचें प्रदर्शन भरलें. सगल्या खबरांपत्रांचेर प्रदर्शनाविशींच्यो खबरो छापून आयल्यो. प्रदर्शन पळोवपाक लोंकांच्यो घिट्टच्यो पडल्यो. कितलेशेच लोक येताले आनी चित्रां पळोवन धादोस जावन कमलेशाक हात दिवन वताले. कितल्याशाच लोकांनी ताचेकडल्यान निशाण्यो घेतल्यो. जायत्या जाणानी चित्रांचे फोटोय काडूय व्हेले. हेर लोकांभरशी जायते

ड़कार लेगीत येताले. चित्रांची आनी कमलेशाची तोखणाय करताले. कमलेश एका शाक बसून हे सगळें व्हडा अजापान पळयतालो. आपणें काडिल्लीं चित्रां लोकांक ो मानवतलीं अशें ताणें सपनांत लेगीत केन्ना चितूंक नाशिल्लें.

चित्रांचे प्रदर्शन शेगीत चार दीस चल्लें.शेंकड्यांनी लोक येवन प्रदर्शनाक भेट न गेले. कमलेशावांगडा वळख करून घेवन गेले. प्रदर्शन सोंपतकीच आमदार टीकारान कमलेशाक ताच्या चित्रांसयत घरा पावयलो. फाटले चार दीस तो नांतूच वावुरतालो. पूण घरा पावलो आनी अचकीत तो सपनांतल्यान जागो जालो. नव आनी सपनामदीं कितलो फरक आसता ताची ताका जाणविकाय जाली. फाटले दीस ताका दिसवडो चुकिल्लो. घरांतलें सगलें सोंपिल्लें. आवय आनी भयणी हांचे ऱ्रेंत नाका प्रस्नचिन्नांच्यो राशी दिश्टी पडल्यो आनी इल्लोय कळाव लायनासतना तो वडो सोदपाक घरांतल्यान भायर सरून गेलो.

वर्सां फाटल्यान वर्सां धावतालीं. कमलेशाची बरो चित्रकार म्हूण सागल्याक ना जाल्ली. ताच्या चित्रांची तुस्त तोखणाय करपी जायते लेख खबरांपत्रांनी छापून ले. चित्रकार म्हूण सगल्याक नामना जावन लेगीत ताका कसलोच अर्थीक लाव ंक नाशिल्लो. कमलेशान ताची केन्ना अपेक्षाय करूंक नाशिल्ली. ताच्यो दोगीय भयणी नाच्यो आशिल्ल्यो. तांचें लग्नाचें वय जावन गेल्लें. सोयरिको जायत्यो येताल्यो पूण णें, देणें - घेणें हाका लागून तोंडा कडेन आयिल्ली सोयरीक वगडावची पडटाली. लेशाची पिराय जाल्यार केन्नाच चाळीसांचेर पाविल्ली. आपणाल्या लग्नाचो विचारूच ता सोंसनासलो. भयणींचीं लग्नां जालीं म्हणटकीच आपूण सुटलो एकदांचो अशें ता दिसतालें.

एक दीस वाऱ्या भशेन ती खबर गोंयांत गोंयभर पातळ्ळी. कमलेशाक बरो त्रकार म्हूण कलारत्न पुरस्कार फावो जाल्लो. पांच लाखांचें इनाम ताका मेळपाचें शिल्लें. पांच लाख म्हळ्यार कितले काय? पोतीभर....?' साकभर....? अदमास ाशिल्लो. पूण हे पांच लाख आपणालें दळडीर सासणाचें ना करतलें हाची कमलेशाक त्री आशिल्ली. थोडे दीस तो सपनांत वावुरल्या भशेन वावुरतालो. कमलेशाक किंकोत ्वपी लोक लेगीत आतां ताका मानपाक लागिल्ले. ताका केन्ना एक फावट आपूण दिल्ली ून तो पुरस्कार घेतां अशें जाल्लें. दिल्ली वचपाची तयारीय ताणें केल्लीं. कोणें तरी ताका ल्ली कशें वचप तें सांगलें.

गडगड घालीत लांबचे लांब ट्रेन स्टेशनांत भितर सल्ली आनी कमलेशाचीं

चिंतनां अचकीत थांबलीं. यादस्तीक सांबाळीत तो बशिल्लो थंयच्याान उठलो आनी [illegible] लागसार गेलो. कोणाक तरी आपणाली तिकेट दाखोवन ताणें आपणालो डबो विचा[illegible] घेतलो. सगल्याच डब्यांच्या दारांकडेन गर्दी जाल्ली. यादस्तीक सांबाळीत ताणेंय आपण[illegible] गर्देंत धुकलून दिलो. तो डब्यांत भितर सल्लो पूण बसपाक सुवात नाशिल्ली. ताच्या हात[illegible] आशिल्लें यादस्तीक पळोवन कोणे तरी ताका बसपाक सुवात करून दिली.

फाटले दोन - तीन दीस ताका सारकी न्हिदूच पडूंक नाशिल्ली. ट्रेन सुट[illegible] आनी ताचो दोळो लागलो. कितलो वगत तो न्हिदून उरिल्लो ताकाच कळ्ळें ना. [illegible] जागो जालो तेन्ना ताका कडकडीत भूक लागिल्ली. खंयच्या तरी एका स्टेशनाचेर गा[illegible] थारिल्ली. लोक च्या पिताले आनी तरेकवार खाणां खाताले. ताणें आपणालें बो[illegible] सासपिलें. मोडिचे थोडे पयशे बोल्सांत आशिल्ले. ताणें आपणाक एक च्या आनी च्या[illegible] बुडोवन खावपाक एक पाव घेतलो. च्या पितकीच ताच्या जिवाक मात्शें बरें दिसलें. प[illegible] - धा मिनटांनीं गाडी परती सुटली.

गाडी मडगांवां स्टेशनार पावली तेन्ना तो हातांतलें यादस्तीक जतनायेन घे[illegible] गाडयेंतल्यान सकयल देंवलो. बोल्सांतलो पांच लाखांचो चेक ताणें परत एक फा[illegible] सासपून पळयलो. ताका घराकडेन बेगीन पावपाची उमळशीक लागली. मडगांवच्यान ब[illegible] धरून तो थेट घरा येवपाक आयलो. तिस्कार बस थांबली तसो तो बसींतल्यान सकय[illegible] देंवलो. तिस्कार ताका सगले लोक वळखताले. कलारत्न पुरस्कार घेवन परत आयिल्ल[illegible] कमलेशाक सगल्यांनीच वयले वयर नाचयलो. जायते जाण खुशालकायेन ताका [illegible] मारताले जाल्यार कांय जाण दुस्वासान जळटाले. पूण भायल्यान दाखोवन दिनाशि[illegible]

घराकडेन वचपाक ताणें वाटेर पावल दवरलें आनी घरचो उगडास जाव[illegible] ताका कच्च जालें. फाटले आठ दीस ताका दिसवडो चुकिल्लो. दिल्ली वचपाच्या बोवाळ[illegible] ताणे आशि - नाशिल्ले सगले पयशे सोपोवन काबार केल्ले. बोल्सांत पांच लाखांचो चे[illegible] आशिल्लो. पूण ते पयशे हातार पडटात तेन्ना ! दिल्ली वचपाक खर्चाक ताचेकडेन पय[illegible] नाशिल्ले. देखून तिस्कावयल्या भटाकडल्यान ताका दोन हजार रूपया उसणे घेव[illegible] पडिल्ले. कमलेशाक पांच लाखांचो पुरस्कार मेळपाचो आसा ही गजाल भटाच्याय काना[illegible] पाविल्ली. देखून भटान ताका पयशे दिवपाक वगत लावंक नाशिल्लो.

भटाचो उगडास जालो तशीं कमलेशाचीं पावलां घरची वाट सोडून भटाल्[illegible] घराची वाट चलपाक लागलीं. भट भायर चवकेरूच बसून आशिल्लो. कमलेशाक पळोव[illegible] तो उठून उबो रावलो. ताका दिसलें कमलेश आपणाले पयशे परत दिवपाक आयल[illegible]

तलो. पूण कमलेशाचें तोंड पळोवन ताका मात्सो हुस्को जालो.

'कितें रे? हाडलो पुरस्कार?'

'हय'.

'मागीर असो वगी कित्याक तर?'

'मात्शी अडचण आशिल्ली.'

'आतां आनीक कसली अडचण?'

'एक पांचशीं रूपयांची गरज आशिल्ली.'

'आरे, पूण तुका येदो व्हडलो पुरस्कार मेळ्ळा न्हय रे?'

'हय. पूण तांणी चेकूच दिला. ते पयशे हातार पडले म्हणटकीच सगळे वांगडाच दीं हाडून.'

'आतां हांव बेश्टे पयशे दिवपाचो ना.'

'बेश्टे म्हळ्यार?'

'कितेंय दवरचें पडटलें'.

'ही घे म्हजी घड्याळ दवर.'

'शी ! घड्याळ? तिचे कोणूय शंबर तरी दियत मरे?' अशें म्हणून भट कुत्रीपणान हांसलो. भटान तशें म्हणनाफुडे कमलेशाची नदर यादस्तीकाचेर गेली. की सावन हांगा पावतासर ताणें तें जिवाभशेन सांबाळून हाडिल्लें. यादस्तीकाविशीं ाक विचारपाक ताका खूब तकालस जाताली. पूण तो गरजेक आयिल्लो. ताच्या तोंडार उरां येवपाक कळाव लागलो ना.

'हें दवरता?' - ताणें विचारलेंच

'तें कित्याक? देवाचे गर्भकुडींत दवरूंक? भटाच्या उतरांनी कमलेश खूब ावलो. सट्ट करून ताका बोल्सांत आशिल्ल्या पांच लाखांच्या चेकाचो उगडास ल्लो. ताणें तो बोल्सांतल्यान भायर काडलो, भट ल्हेंवटो जावन पळयतालो. 'हो चेक ो दवरता?' कमलेशान निमाणो यत्न म्हूण विचारलें. तशें म्हणनाफुडें भटान तो चेक मून घेतिल्ल्या भशेन कमलेशाकडल्यान घेतलो. वाल्याच्या किरवंटेक गुठलायल्ल्या शांची कंवळी ताणें भायर काडली. सगल्यो पांचशांच्योच नोटी आशिल्ल्यो. तातूंतली नोट ताणें कमलेशाच्या हातार दवरली.

......आनी दळडीर पयस करपाक पयस गेल्लो कमलेश दळडीर घेवनूच परतो ांत भितर सल्लो.

# दोळे उक्ते जाले

तकलेर चिंतनांचें वजें घेवन येसो घरांत भितर सरलो. तेगेली तकली ज जावन उसळपाक लागलेली. आपणे पळयल्लें तेचेर येशाचो अजून विस्वास बस नाशिल्लो आपूण सपनांत आसां अशें तेका खीणभर दिसलेलें. पूण तें सपन नाशिल्लें.

सदांभशेन घरा येतना तो काटूले गादयेर भितर सरलो. सांजवेळचें घरा येतना इल्लें कुट्ट केलें म्हणटकीच तेगेल्या जिवाक मात्शी थाकाय मेळटाली. हरशीं म्हूण फॅक्ट्री दीसभर मिशिनाचेर बसून तेगेले दोळे तांबडे जाताले... मिशिनाच्या आवाजान का बसताले... पूण घरा परततना इल्लें घेतलें म्हणटकीच सगलो शीण खंयचेखंय ना जाव वयतालो. हालींसरा तेका तेची संवय जाल्ली. सदांच पिवप बरें न्हूं हें तो जाणा आशिल्लो आयज पिलां तें निमाणचें. फाल्यांच्यान पिवपाचें बंद असो निच्शेव तो करतालो. घर येतना पियोवन येता म्हुणोन शेवतूय तेचेर हालींसरा वाजेतालें. सोरो पियेवप जिवाक ब न्हूं अशें तें म्हुण्टालें. अपुरबायेचो एकलोच पूत सुरेशूय तेका सोरो पियोंव नाकां म्हुणो सांगपाक लागलेलो. हेका लागोन नाकांच तें पियेवप अशें तो येवजितालो पूण कामांतल्या घरा येता आसताना काटूले गादयेकडेन पावलो म्हणटकीच ताचो निच्शेव झेलाभशे पगळटालो आनी तेगेलीं पावलां तेका गादयेवसल्यान ओडून व्हरतालीं.

आयजूय तशेंच जाल्लें. कामाच्यान घरा येता आसतना आयज पिवचें न्हूं अ तेका दिसतालें. पूण काटूल्या गादयेकडेन पावतकीच तेगेलीं पावलां उखलनां जाली मागीर सुटनां कामाक तो गादयेर भितर सरलो. भितर बसपाक म्हूण तो रितो बां सोदतालो. इतले म्हणसर तेगेली नदर सुरेशाचेर पडली. सुरेश ग्लास घेवन बसलेल चेडचाक सोऱ्याचे गादयेर पळोवन तेगेली पांयांची तिडक मस्तकाक मारली. तेजेर थंय दोन सोणकुटेर फुलोवचीं अशें तेका खीणभर दिसलें. पूण तेणी तो विचार बदल्लो. 'घ कडेन येवंदी तेका... सामको सोलून काडटां...' अशें मनांतल्या मनांत म्हणून तो भाय सरपाक घुंवलो. तेन्ना काटून तेका ज्युरस्त हटकिलो...

'हांगा बस मरे... सुवात आसा.

'नाका... चल्लों हांव.'

'आयज कांय घेयना?'

'....' काटूल्या प्रस्नाक जाप दिवचे पयलींच तो गादयेवयल्यान भायर सरलो. गेल्या पांयांत नवें बळ येयलेलें. तसोच फोफेत तो घराकडेन पावलो. येशाली बायल वतें सुपांत तांदूळ घेवन पडवेर बसलेलें. येसो बेगीन घरा पावलो म्हुणोन तेका अजाप ालें.

'आयज बेगीन सो पावलो मूं...' शेवतून तेका हटकिलो.

'नाक कातरलें चेड्यान आमगेलें...'

'किदें केलें तर तेणी?' शेवतूचेर आकांत येयलो.

'घराच येवंदी तेका... कसो सोलून काडटां पळय' - येसो रागान सामको ांबडो जाल्लो.

'किदें जालें तें सांग तरी...' शेवतून परतें आकांतून विचारलें.

'राणग्याचो गादयेर बसला सोरो पिवपाक...'

'किदें सोरो पिवपाक बसला? तुयेन पळयलो तेका? आनी थंयच सांडून ायला?' शेवतून सगले प्रस्न वांगडाच विचारले.

'मागीर किदें पालखेंत बसोवन हाडचेलो?'

'हातीक धरून भरभरीत हाडपाचो न्हूं ओडून?'

'थंय लोकां हुजीर नाटकां नाकां म्हणोन वगी रावलों... आतां घरांतूच पायों देवंदी तेका... सोमतोच घालतां मोडून...' येशान सगलें घरूच माथ्यार घेतलेलें. तो ागान थय थय करून घरांत घरभर नाचतालो.

पुताची खबर आयकोन शेवतूक रडूंक येयलें. अपुर्बायेचो एकटोच पोर हाताभायर ायचो न्हू म्हुणोन तें तेजी जाता तितली जतनाय घेतालें. पोर एकटो गादयेर कसोच ायचो ना हेची शेवतूक खात्री आशिल्ली. कोणेतरी तेका थंय व्हेला आसतलो हेविशीं तेका दुबाव उरलो ना. वासपूस करपाक म्हुणोन शेवतून परतें घोवाक विचारलें...

'आनी कोण आशिल्लो तेज्यावांगडा?'

'हांव खंय लागीं गेलां कोण मसणो आशिल्लो तो पळोवंक?'

'तरीय हांव सांगतालें मूं तुका?'

किदें ते...?'

'घराकडेन येतना पियेवन येवं नाका म्हुणोन...'

'म्हाजो जीव सामको थकता दीसभर वावर करून... म्हुणोन इल्लें घेतालों हांव... हेका राणग्याच्याक किदें जाता?... आयतें मेळटा गिळपाक...'

'तुंयेन म्हुणोन इल्लो इचार करपाचोच...'

'तूं परतें परतें म्हाजेरूच पावता मुगो... असल्यांनी घराक चुट्टी पेटयतलो तो... पयलीं सावन आडांगी तो... तेन्नाच तेका जाग्यार हाडपाचो... पूण भुरगो आसा... भुरगो आसा... मागीर निवळटलो म्हुणोन वगी रावलों तें चुकलें म्हागेलें.

अपुरबायेचो एकटोच पोर म्हुणोन शेवतू तेका मात पातयेंनाशिल्लें. तेजो जल्म जातना शेवतूक तरास जाल्ले. ओपेरासांव करचें पडलेलें. तेन्नाच दोतोरान सांगलेलें - 'आनीक भुरगें जावपाक फावोना. चुकोन लेगीत जाल्यार खंयची तरी एक पार्त वगडावची पडटली.' देखून येसो आनी शेवतून दोगांनीय आनीक भुरगें जावंचें न्हू म्हुणोन जायती जतनाय घेतलेली. जावं एकटो भुरगो जाल्यार. तेका खूब शिकोवन व्हडलो मनीस करपाचें दोगांचेंय सपन आशिल्लें.

सुरेश एकटोच जाल्ल्यान दोगांनीय तेजे हिसपाभायर लाड केले. तेका कांयच उणें पडपाक दिलेंना. तेका तीं दोगांय मातूय पातये नाशिल्लीं. ल्हान आसतना तो उज्या लागीं वसत... उदका लागीं वसत म्हुणोन शेवतू तेका हाण्डीर मारूनूच सगलीं कामां करतालें. तेका संवयूच जाल्ली ती. शेजारच्यो बायलो पोर पारपोळ जातलो म्हुणोन शेवतूक शिटकायताल्यो. पूण तीं दुस्वासान तशें म्हुण्टात अशें शेवतूक दिसतालें. देखून लोकांनी किदेंय म्हुटल्यार तें कानार केंस काडटालें.

सुरेशाक पांच वर्सां कितले बेगीन सोपलीं तें येसो आनी शेवतूक दोगांकूय कळ्ळेंना. तेका आतां शाळेंत घालपाक जायो ह्या विचारान तेंची तकली जड जाली. पूण तेका खूब शिकोवपाक जायो हें तेंगेलें सपन आशिल्लें. हेकाच लागोन येश्यान तेजें नांव शाळेंत घालपाक कळाव केलो ना. शाळा गांवांतूच आशिल्ली. शेवतू तेका हाण्डीर मारून शाळेंत व्हरून पावयतालें आनी शाळा सुट्टकीच परतें हाण्डीर मारून घरा हाडटालें. एक वर्सभर तेणी तेजे अशे भशेन तरास काडले. मागीर मात सुरेशाक शाळेची संवंय आनी गोडी लागली. तो हेर भुरग्यांवांगडा चलत शाळेंत वसपाक लागलो. तरीय तो घरा पावतासर शेवतू दोळ्यांत तेल घालून तेजी घरा येवपाची वाट पळयतालें. तो घरा पावलो म्हण्टकीच तेजो जीव सुशेग जातालो.

सुरेश शिकपाक हुशार आशिल्लो. चारूच वर्सांनी तेणी चवथी काडली. आतां तेका इस्कोलाक खंय घालपाचो असो येश्याक आनी शेवतूक प्रस्न पडलो. गांवांत इस्कोल आशिल्लें. पूण थंय भुरग्यांक सारकें शिकयनांत अशी सगलो लोक कागाळ करतालो.

शाक शिकोवन व्हड मनीस करपाक जाय. तेका लागोन तेका बऱ्याच इस्कोलांत पाक जायो अशें येशान थरयलें. किदें जाता तें जावं अशें म्हुणोन येशान तेजें नांव कावयल्या इस्कोलांत घातलें.

थोडो तेंप येशान तेका कामाक वयता आसतनाच इस्कोलाक व्हरोन पायलो. तू तेका दनपारचें हाडूंक वयतालें. दोगांय तेजी अपुरबाय करतालीं. तेका जाय तें लें हाडून दितालीं. खाणा - जेवणाक जाल्यार तेका तिणीं कांयच उणें केलें ना. हेका ोन तो रोकड्या - रोकडो भिल्लमाड कसो वाडलो.

शेजारी - पाजारी म्हुण्टात तसो तो हाती भायर वसत म्हुणोन शेवतूक पयलीं यलीं भिरांत दिसताली. पूण तसो तो हातीभायर गेलो ना. तो इस्कोलांतल्यान वगतार येतालो. घरा येयलो म्हुण्टकीच तो शिकपाक लागतालो. अदूं तो धावेक आसा. णाक बरो शिकोन व्हडलो मनीस जावपाक जायो म्हुण्टा. अकस्मात अशें किदें जालें. पोराक? सुरेशाचें येवजून शेवतुचीय तकली भेरेले भशेन जाली. तें बडबडपाक लें.

'पाड पडलेल्याचें फुटले दोळे...'

'कोणाक खेपता तूं?' येश्यान मदींच तोंड घातलें.

'आनीक कोणाक? पाड पडलेलीं सदांच म्हुण्टाली हातीभायर वयतलो पोर गोन... तेकां तशेंच जाल्लें जायें आशिल्लें.

'हेज्या तोंडाक चुट्टी लागल्यार लोकांक दुशणां दिवन कसलो फायदो आसा?'

'बेश्टेंच उलोवं नाकां किद्याय किदें. पोराचें जालां तरी किदें तें पळोवं जायें का. हांवूच वसोन घेवन येतां तेका' ... अशें म्हुणोन शेवतून पांयांक व्हाणो चडयल्यो. तू तेका हाडपाक भायर सरता तें पळोवन येसो परतो चाळवलो..

'तुंयेन तेका माथ्यार बसयला अशें करून.... तुंयेन वयची गरज ना...' येश्यान म सोडलो.

'तुकां तेजें कांयच पडोन वसोना... म्हाज्या जिवाक किदें भोगता तें हांव जाणां' अशें म्हुणोन तेणी भायर वसपाक पांय उखल्लो. तेन्ना येसो परतो तापलो- 'पांयोंच भायर लून पळय तूं.... तुकाच घालतां पयलीं मोडून...' पूण तेगेलें आयकनासतना शेवतू गणांत देंवलें. तेन्ना मात येसो सामकोच चाळवलो आनी तेज्या फाटल्यान धांवलो. गी शेवतुच्या हाताक धरलें आनी तशेंच ओडीत ताका परतें पडवेर हाडलें. तेंची टाफट पळोवन सुरेश घरांतल्यांन भायर सरलो.

तो फाटल्या दारांतल्यांन घरांत भितर सरोन सगलें आयकतालो... तो भायर

सरलो तोच तेणी बापायक आव्हान दिलें...

'दादो तिका सोड... आनी म्हाका घाल मोडून'

'आं? तूं येयलो? तुका शिकयतां आतां...' अशें म्हुणोन येसो चेड्याच्या आंगार धांवोन गेलो.

'मार म्हाका... पूण पयलीं हांव पिलां जाल्यार पळय'...

'म्हुणचे तूं सोरो पियोना?'

'ना... ' चेड्यान आपूण पियेवनां अशें सांगतकीच खरेपण पळोवंक येश्यान लागीं वसोन तेज्या तोंडाचो वास घेतलो. चेडो पियोना हेची खात्री तेका पटली. पूण तेजो राग निवळों नाशिल्लो.

'मागीर गादयेर गेल्लो किद्याक? माती खावंक?' येशान पुताक तापोवंन विचारलें.

'तूं किद्याक वयता?' सुरेशान बापायक परतें विचारलें.

'परतें विचारता? सुबेज जाला चड?' येसो परतो तापलो.

'खरें सांगल्यार आयकोन घेतलो?' सुरेशान बापायक विचारलें.

'किदें तें?' येसो मात्सो मोव पडलो.

'तूं सोरो पिता म्हुणोन इस्कोलांतल्या सगल्या भुरग्यांक कळ्ळां. ते सगले म्हाकां चाळयतात. म्हाका सामकी लज जाता. फाटले चार दीस हांव इस्कोलाक वोसोना...'

'किदें? इस्कोलाक वोसोना?

'हय. तूं सोरो सोडटलो तेन्नाच हांव इस्कोलाक वयतलों. म्हाका खूब शिकपाचें आसा. तूं कामाक साकून येता आसतना गादयेर वयता तें म्हाका खबर आशिल्लें. भुरगे चाळयतात देकून हांयेंन तुका दोन-चार फावट सोरो सोडपाक सांगलेलें.. पूण तुयेंन म्हागेलें आयकोन घेतलें ना... आतां निमाणो उपाय म्हुणोन हांव तूं येवचे पयलींच गादयेर वसोन बसलों... ग्लासांत हांयेंन सोडा घातलेलो... तूं भितर सरला आनी भायर सरला तें म्हाका खबर आसलेलें... तूं भायर सरोन रागान घरा येयलो तेन्ना तुजे फाटोफाट हावूंय येयलों आनी फाटल्या दारांच्यान भितर सरलों... हांयेन सोरो पिवपाक जायना अशें तुका दिसता... तें पळोवन म्हाका बरें दिसलें. तेजेवयल्यान तुजो म्हाजेर आशिल्लो जीव म्हाका दिसता. ते खातीर दादो एकूच कर...'

'आं... पुता. हेज्या मुखार हांव केन्नाच पिवचोंना. म्हागेलेंच चुकलें तें... तुयेंन म्हाजे दोळे उत्ते केले...' अशें म्हुणोन येश्यान सुरेशाक घट्ट वेंगेंत धल्लो.

शेवतू अजाप जावन दोगांकूय पळयतूच उरलें.

# धुमकेतू

आकांताचो एक धुमकेतू धर्तरेवसल्यान येता हाचो सोद विक्रमाक लागलो आनी ताची न्हीद उडली. तो धुमकेतू धर्तरेक आपटल्यार खंयच्याय खिणाक तिचो पिठो जावं येता हाची जाणवीकाय ताका एकल्याकूच आशिल्ली. अंत्राळशास्त्र संशोधन केंद्रांत फाटलीं धा वर्सां तो विज्ञानीक म्हूण वावुरतालो. पूण एदो व्हडलो धक्को दिवपी सोद ताका लागूंक नाशिल्लो. ह्या घातमाऱ्या धुमकेतूक धर्तरेकडलो कसो तरी कुशीक काडपाक जाय ह्या एकाच विचारान ताचीं चिंतना घुंवपाक लागलीं. रात-दीस, जागेपणीं आनी सपनांत लेगीत ह्या गिऱ्यान ताची फाट सोडलीना. तो तान - भूक विसरलो...

जेवणा - खाणावयली ताची वान्सा उडली...

विक्रमाची पिराय चाळीसांक तेंकिल्ली. दोन - तीन फावटी आवयन ताच्या लग्नाचो विशय काडिल्लो, पूण दर फावटी ताणे तो फाफडून उडयिल्लो. हालींसरा विक्रम पिशांभशेन वागता असो ताचे आवयक दुबाव मारलो. ताची लग्नाची पिराय जावन गेल्या देखून तो तसो करता आसतलो अशें तिका दिसलें. देखून ह्या वर्सा कशेयभशेन ताचें लग्न करपाक जाय अशें तिणें येवजिलें. एक दीस आंगणांत बसून दुर्बीण पुसता आसतना आवयन ताका उतरान बांदून घातलो...

- 'विक्रम, अंदूंचे दिवाळेक कशेय भशेन लग्न जा बाबा...'

- 'कित्याक गे इतली ताकतीक? म्हजें एक संशोधन पूर्ण जावपाचें उरलां... तें जालें म्हण्टकीच पळोवया.'

- 'ना... ना. तुजें संशोधन पूर्ण जावचेंच ना. अंदू हांव कशीच आयकुंचीना... सुमन आनी विमल दोगांय तुजेपरस धा वर्सांनी ल्हान जावन लेगीत तीं भुरगेबाळां घेवन बसलीं...'

- 'तीं चेडवां न्हूं गे... तांचें वगतारूच जावपाक जाय' - विक्रमान फकाणांचेर उडयलें.

- 'आनी तूं कितें वज्र खावन आयला?'

- तशें न्हूं गे... तुका समजुचें ना तें...'

- 'म्हाका कितें समजतलें... तुमीं शिकल्यात न्हू चड...' अशें म्हणून तिणें दोळयांक पदर लायलो. ती रडटा तें पळोवन विक्रमाचेर आकांत आयलो. तिका समजावपाक म्हूण ताणे म्हळें...

- 'आगे रडूं नाकां अशी... जाता हांव लग्न.

विक्रम लग्नाक तयार जाला तें पळोवन ती एकदम खुशाल जाली. किदें करूं आनी किदें नाका अशें तिका जालें. दुसऱ्याच दिसासावन ती विक्रमाक व्हंकल पळोवपाच्या कामाक लागली. सगल्या सोयऱ्यांक तिणें रकाद धाडलो. आपणाल्या धुबांकूय तिणें चलयो पळोवपाक सांगलें. विक्रम विज्ञानीक, म्हळ्यार ताका फावो सारकी व्हंकल मेळपाक जाय. चडांत चड शिकिल्ली... बरी दिसता तसली... बऱ्या गुणांची. हीच नदर दवरून सगलीं जाणां ताका व्हंकल पळोवपाक लागलीं.

हेवटेन विक्रम आपणाल्या संशोधनांत गुल्ल आशिल्लो. आपणाले सोयरीकेची तयारी इतल्या नेटान चल्लया हाची ताका खबरूच नाशिल्ली. दिसाचो दिसभर तो संशोधन केंद्रांत कंम्प्यूटराच्या आनी हेर यंत्रणाच्या आदारान अंत्राळाचो सोद घेतलो. घरा येवन रातीचो काळोख जालो म्हण्टकीच दुर्बीण घेवन तो आंगणांत बसतालो आनी व्हडली रात मेरेन धुमकेतूक नियाळटालो. धर्तरेचो पिठो करूंक सोदपी तो धुमकेतू ताची फाट सोडीनाशिल्लो. तसो विक्रमूय त्या धुमकेतूच्या मागार आशिल्लो.

एक दीस एक पयसुल्लो सोयरो सोयरीकेची खबर घेवन विक्रमागेर आयलो. तो दिसाचो आयिल्ल्यान विक्रम ताका घरा मेळ्ळो ना. ताची आवय एकलीच घरा आशिल्ली. ताणे सोयरीकेची खबर तिच्या कानार घातली आनी केन्ना न्हय तितली ती खुशाल जाली. ताणें वांगडा हाडिल्लो फोटो तिणें बारीकसाणेन पळयलो. हालींच्या चलयांचे सगले गूण तिचेभितर भरिल्ले. मोडवे केंस...नवे मोदीचो भेस... अडेचो मेकअप...

'किदें शिकल्या ही...?' किदेंतरी उलोवंक जाय म्हूण तिणें विचारलें.

'एम् एसी... फर्स्ट क्लास... ते भायर सिर्वीस करता'

'तशें जाल्यार बरें आसा. आनी पिराय?

'अठ्ठावीस वर्सां' - ताणे पिराय सांगली आनी तिका कच्च जालें. अठ्ठावीस म्हळ्यार विक्रमापरस धा - इकरा वर्सांनी ल्हान. पिरायेमदीं इतलें अंतर आसूंक फावोना. पूण आसूं. तांची तयारी आसल्यार आमी कित्याक आडखळ हाडुंया? एक फावट लग्न

जावन पडल्यार पुरो अशें तिका जाल्लें. तिणें विक्रमाक दाखोवपाक फोटो दवरून घेतलो. च्या पियेल्या उपरांत तो वचपाक उठलो तेन्ना तिणे ताचेकडेनूच सांगून धाडलें.

'विक्रमाक केन्ना फावता तें पळयतां आनी रकाद धाडटां'.

'बरें आसा' अशें म्हणून तो गेलो.

तिनसानां विक्रम घरा आयलो तेन्ना आवयन ती खबर ताच्या कानार घातली. इतले बेगीन आवय सगली तयारी करतली अशें ताणें धरूंक नाशिल्लें, आतां फाटीं सरूंक कोताक येना. आपणें आवयक उतर दिलां हे गजालीचो ताका उगडास जालो. कितें तरी उलोवंक जाय म्हूण आवयक ताणें सांगलें -

'बरे आसा'

'मागीर केन्ना वचपाचें चलयेक पळोवपाक?'

- 'तुमी वचून पळोवन येयात. तुमकां पसंद ती म्हाका पसंद'

- 'तशें कशें जातलें? तुवें येवचेंच पडटलें.'

- बरें आसा तर. फुडल्या आयताराक या.'

आपणाल्या मनासारखें सगलें घडटा तें पळोवन आवय खोशी जाली. केन्ना एकफावट आयतार येता आनी आपूण सगळें थारायतां अशें तिका जाल्लें. एकेवटेन विक्रमाच्या लग्नाची तयारी चलताली जाल्यार दुसरे वटेन विक्रम गिरे नियाळपांत गुल्ल आशिल्लो. ताचो हुस्को ताची फाट सोडी नाशिल्लो. धर्तरेवसल्यान येवपी धुमकेतूची वाट कशीतरी आडावपाक जाय. पूण हें आपणाक शक्य आसा? हो प्रस्न ताका सतायतालो. एकदीस अकस्मात ताचे तकलेंत लायट पेटिल्लेभशेन जालें. धुमकेतूक आळाबंदा हाडपाचो रिमोट तयार केलो जाल्यार? हय तशेंच करप. असो विचार तकलेंत येनाफुडें ताणें सामान घेतलें आनी तो रिमोटाचो डिजायन तयार करपाक लागलो. इतलें म्हणसर आवय येवन ताच्या रूमाच्या दारांत उबी रावली...

- 'आयज आयतार म्हूण उगडास आसा मरे?'

'कित्याक तो?'

'आयज चलयेक पळोवंक वचपाक जाय...'

'तूं वचून पळोवन यो... म्हाका मात्शें काम आसा...'

'तुजें काम केन्नाच सोपचेंना... चल पळोवया भायर सर एकदांचो' - आवय फाटीक लागल्या तें पळोवन तो उठलो.

आपणाल्या कामाक अपशकून जाल्लेभशेन ताका दिसलें. ताणें सगलें सामान

काडून मेजार दवरलें आनी थंयचें थंय ताणें आंगार कपडे चडयले.

चलयेकारागेर सगळी तयारी जाली. चली पळयतनाच विक्रमान तिका पसंद केली. रोकड्या रोकडो तो च्या बी पियोवन मेकळो जालो. ताका इल्लोय वगत वगडावपाचो नाशिल्लो. ताचें सगलें ध्यान - मन रिमोटाच्या डिजायनाचेर आशिल्लें. रिमोट तयार करपाक कसलें आनी खंयचें सामान लागतलें ताची वळेरी ताचे तकलेंत तयार जाताली.

चलयेलो बापूय चलयेक घेवन विक्रमामुखार बशिल्लो. आपणाले धुवेचे गूण तो तोंड फुटसर गायतालो. विक्रम वग्गी आशिल्लो. ताणे आपणाले धुवेक किदेंतरी विचारचें अशें चलयेच्या बापायक दिसतालें. देखून ताणे म्हळें-

'आमगेल्या रूपालीक किदेंय विचारपाचें जाल्यार विचारात.'

'तूं म्हाका रिमोट तयार करपाक आदार करतलें? - अशें ताका विचारचें अशें विक्रमाक खिणभर दिसलें. पूण ताणे तशें विचारलें ना. तरीय कितेंतरी उलोवंक जाय म्हूण तो उलयलो -

'चली म्हाका पसंद आसा... आनीक कितें विचारतलों हांव?'

'मागीर केन्ना थारावया?'

'म्हजो रिमोट मात्सो तयार जावंदी'- अशें म्हणपाचें विक्रमाच्या तोंडार आयिल्लें. पूण आवयन मदीं तोंड घातलें.

'फुडल्या म्हयन्याचे पांच तारखेक बरो म्हूर्त आसा.'

'तशें जाल्यार आमची कांयच आडखळ ना' चलयेचो बापूय तयार जालो.

'म्हाका मात्शी अडचण आसा' अशें विक्रम म्हणपाक सोदी. पूण ताचे पयलींच आवय सगलें थारावन मेकळी जाली.

लग्नाक दोन दीस आसात म्हळ्यार विक्रमाच्या रिमोटाचो डिजायन तयार जालो. आतां रिमोट तयार करपाच्या कामाक लागपाक जाय अशें येवजिता थंय आसा. आवय येवन ताचे कुडीच्या दारार उबी रावली -

'फाल्यांच्यान सुटी घेता मरे?'

'सुटी किद्याक ती?'

'लग्न म्हण्टकीच पंदरा दीस तरी तुका सुटी घेवची पडली ना?'

'पंदरा दीस सुटी? पिशी जाल्या काय किदें गे?'

'मागीर कितले दीस काडटा तर?'

'कितले दीस लागतात लग्नाक?'

'सगलीं शास्त्रां जातासर पांच दीस तरी जायच' - आवयन तोंड हालोवन ांगलें.

पांच दीस म्हळ्यार एक उजवाड वर्स तरी तो धुमकेतू धर्तरेच्या लागसार तलो. इतले दीस लग्नाक लागून फुकट वगडावप विक्रमाच्या मनाक पटनाशिल्लें. तरीय ावयचें तोंड वाकडें जांवचें न्हय म्हूण पांच दीस सुटी घेवपाक तो तयार जालो.

लग्ना दिसा भट आनी जाण्टेलीं किदें किदें सांगतात तें सगलें ताणें ताकतिकेन रून उडयलें. तांदळांचेर व्हंकलेच्या पांयाचो आंगटो भटान ओडपाक सांगलो तेन्ना ाणे तो कांयच न्हय जाल्ले भशेन अचळय ओडलो. त्या धुमकेतूक धर्तरेकडलो इतल्या ोपेपणान ओडून कुशीक काडपाक जाल्लो जाल्यार तो कांयच न्हय करून काडपाचो. ण तो धुमकेतू धर्तरेक काबार करूंकूच तयार जाल्लेभाशेन एका एका उजवाड वर्सान खार येतालो. भटान गर्भदानाचो होम घातलो आनी व्हंकलेच्या सांगातान विक्रमाक ्माची प्रदक्षणां काडपाक लायलीं. तेन्ना तो मुखार आनी व्हंकल फाटल्यान चलपाक ागली. तो होम म्हळ्यार विक्रमाक सूर्य कसो आनी ताचे भोंवतणी प्रदक्षणां घालपी ्ंकल आनी न्हवरो म्हळ्यार अंत्राळांतले ल्हान - व्हड गिरे कशे वगीच दिसले. अचकीत ापूण म्हळ्यार धर्तरी आनी आपणा फाटल्यान येवपी व्हंकल म्हळ्यार तो धुमकेतू असोय चार खिणभर ताचे तकलेंत जोगलावलो. ह्या धुमकेतूक सोडून पयस पळचें अशेंय खेणभर ताच्या मनांत आयलें. पूण ताणें आडवलाची गांठ पळयली आनी तो विचार भेतरले भितर गिळ्ळो.

लग्न जावन विक्रम व्हंकलेक घेवन घरा आयलो. लग्नाच्या निमतान सगलीं ोयरीं - धायरीं जमिल्लीं. घरांत रिगपाक लेगीत सुवात मेळची न्हय इतली चिरंगट ाल्ली. विक्रमाक ही गर्दी केन्ना एक फावट उणी जातली अशें जाल्लें. नवें जोडपें घरांत ायले उपरांत घराकडलीं शास्त्रां सुरू जालीं. सगलीं शास्त्रां उलगता म्हणसर तिनसांज ाली. उपरांत ल्हवू- ल्हवू करून सोयऱ्यांची गर्दी उणी जावपाक लागली. विक्रमाची ावय सोयऱ्यांक रावपाचो आग्रो करताली. पूण विक्रमान कोणाकूच आग्रो केलो ना. ोण 'येतां' म्हणटा तांकां तो 'बरें' म्हूण निरोप दितालो. केन्ना एक फावट रिमोटाचें ाम हातांत घेतां अशें ताका जाल्लें.

दुसरे वटेन रूपालीन आपणाल्या नव्या संवसाराचीं जायतीं सपनां रंगयल्लीं. आपणालो रूम कसो शिरंगारला तें पळोवपाची ताची उमळशीक तेंगशेर पाविल्ली. पूण ेन्ना तें विक्रमाच्या रुमांत भितर सरलें तेन्ना तें पुराय निर्शेलें. रुमांतलें सगलें सामान

जळामळाक पडिल्लें. ते भायर विक्रमान तरेकवार सामान जमोवन त्या रुमाची सामकीच दशा काडिल्ली. तें निर्शेलें खरें, पूण ताणें विक्रमाक तशें दाखोवन दिलें ना. विक्रमान ताका आपणाल्या सामानाची वळख करून दिली. धुमकेतूची वाट बदलपाक तयार करपाच्या रिमोटाचो डिजायन दाखयलो. विक्रम हो एक व्हड विज्ञानीक म्हूण रूपालीक खबर आशिल्ली. तेच खातीर सोपेपणान तें ताचेकडेन लग्न जावपाक तयार जाल्लें.

'म्हज्या कामांत म्हाका मजत करतलें मुगो? - विक्रमान ताका विचारलें.

'हय...' रुपालीन लजत जाप दिली.

'तशें जाल्यार म्हजें काम पूर्ण जावपाक वगत लागचो ना'

'कसलें काम तर तें?'

धर्तरेचेर व्हडलें संकश्ट येवपाचें आसा. एक धुमकेतू नेटान धर्तरे वसल्यान येता... ताची दिशा जाता तितले बेगीन बदलपाक जाय... ते खातीर हांवें एक रिमोट करपाचो थारायला... 'विक्रम उलयता तें आयकून रुपाली भियेल्ले भाशेन जालें. असले उलोवप ताणें केन्नाच आयकूंक नाशिल्लें. विक्रम पिसो बी न्हय मूं? असो ताका वगीच दुबाव मारलो. भिरांतेन ताचें आंग वगीच शिरशिरलें.

लग्नाचे पयले रातीची नव्या जोडप्याक उमळशीक आसता. पूण विक्रमान रुपालीक निर्शेयलें. 'रोकडोच येता हां' अशें सांगून विक्रम दुर्बीण घेवन रातचोच भायर सरलो. तो कितलोसोच वगत मेरेन भितर आयलोच ना. भितर आयलो तेन्ना व्हडली रात जाल्ली. रूपाली जागेंच आशिल्लें. तें त्या खिणाची दोळ्यांत तेल घालून वाट पळयतालें. पूण विक्रम भितर सरलो तोच मूड पिङ्ग्यार जावन...

'जाता तितले बेगीन रिमोट तयार करचो पडलो... सुटी सोपूंक आनीक दोन दीस आसात... पूण म्हाका रावपाक मेळचें ना... फाल्यांच लॅबांत बसतां वचून... 'विक्रम कितें कितें उलयतलो. पूण रुपालीन तें कानार घेतलें ना.

रुपालीच्यो सगल्यो अपेक्षा पयलेच राती मातयेभरवण जाल्यो. कॉलेजींत शिकता आसतना ताचे जायते इश्ट आशिल्ले. पूण ते सगले गरीब आशिल्ले. देखून ते रूपालीक आवडं नाशिल्ले. ना जाल्यार तें केन्नाच तांकां सगलें ओंपून मेकळें जावपाचें. पूण ताचें गणित चुकलें. विक्रम विज्ञानीक आशिल्लो, ताका खूब पागार मेळटालो, पयशांक मरण नाशिल्लें. पूण जिणेक अर्थ नाशिल्लो.

विक्रम संशोधन केंद्रांत वचपाक लागलो तशें रूपालीन लेगीत कामार वचपाक सुरवात केली. तें एका ऑफिसांत काम करतालें. कांय तेंप ताणें कोणाकूच कांय

ऱ्पाक दिलें ना. पूण उपरांत इल्ले इल्ले करून ताणें आपणाले खावपाचे दांत दाखोवपाक ुवात केली.

विक्रम आपणाल्याच कामांत गुल्ल आसतालो. आपणाले बायलेमदीं जाल्लो बदल ्या लक्षांत आयलो ना. पयलीं पयलीं रुपाली वगतार घरा येतालें. पूण उपरांत तें ाक मारता तेन्ना घरा येवपाक लागलें. विक्रमाक बायलेचेर लक्ष दिवपाक इल्लोय वगत ं नाशिल्लो. ताचें रिमोटाचें काम पुराय जायत आयिल्लें. केन्ना एक फावट रिमोट तयार ्तलो आनी आपूण त्या धुमकेतूची दिशा बदलतलों अशें ताका जाल्लें.

विक्रम कसलें तरी व्हडलें संशोधन करता हाची सुनशा ताच्या वांगडच्या ज्ञानिकांक लागिल्ली. तो कितें करपाक सोदता तें जाणा जावन घेवपाची तांकां ळशीक लागिल्ली. कांय जाण ताचो दुस्वास करताले. जाल्यार कांय जाण ताचीं ाणां मारताले. पूण ताणें कोणाचकडेन लक्ष दिलें ना.

प्रमोद हो विक्रमाचो ज्युनियर. संशोधनापरस ताचें लक्ष हेर गजालींकडेन चड सतालें. खंय किदें घडटा तें ताका खबर आसतालें. विक्रमाची बायल दुसऱ्याच णाकतरी घेवन भोंवता ही खबर ताणेंच सगल्यांत पयलीं संशोधन केंद्रांत पावयली. जे ज्ञानीक विक्रमाचो दुस्वास करताले तांकां आयतोच विशय मेळ्ळो. विक्रमाक डिस्टर्ब रपाक होच विशय बरो आसा अशें तांणी येवजिलें. ती खबर तांणी विक्रमाच्या कानार तली. विक्रमाचें रिमोट तयार करपाचें काम सोपत आयिल्लें. देखून ताणें ते गजालीकडेन डलेंशें लक्ष दिलें ना.

त्या दिसा रातीकडेन तो संशोधन केंद्रांतूच रावलो. ताचें रिमोटाचें काम पूर्ण ाल्लें. ताका रातीकडेन ताचो प्रयोग करून पळोवपाचो आशिल्लो. देखून दिसाचेंच ताणें गलें सामान तयार दवरिल्लें. रात जाता तशी ताची उमळशीक वाडली. दुर्बीण लावन त्या धुमकेतूचो सोद घेवपाक लागलो. सुरवातीचे कांय खीण तो धुमकेतू ताका सलोच ना. पूण दिसलो तेन्ना ताका कच्च जालें. धुमकेतू धर्तरेच्या सामको लागसार ाविल्लो. ताणें खिणाचोय कळाव लायनासताना रिमोट धुमकेतूवटच्यान धरलो आनी ल्हवू हवू बटन दांबपाक सुरवात केली. त्या बराबर धुमकेतू आपणाली दिका बदलून दुसरे टेन वचपाक लागलो. विक्रमाक खिणभर आपणाल्या दोळ्यांचेर विस्वास बसना जालो. ापूण सपनांत बी ना मूं अशें समजून ताणें आपणाकूच चिमटो काडून पळयलो. तो पनांत नाशिल्लो. ताचो प्रयोग सुफळ जाल्लो. ताणें थंयचे थंय जाग्यारूच खोशयेन उडयो ारल्यो. पूण ताचे खोशयेंत वांटेकार जावपाक थंय आनीक कोणूच नाशिल्लो.

ते रातीकडेन तो थंयच न्हिदलो. सगल्या तेंपाची सुस्त न्हीद ताका पडली. दुसऱ्या दिसा सकाळीं तो जागो जालो तेन्ना सकाळचीं णव वरां जाल्लीं. आयता आशिल्ल्यान संशोधन केंद्रांत सुटी आशिल्ली. जाता तितले बेगीन घरा वचून ती खोशयेची खबर आवय आनी रुपालीच्या कानार ताका घालपाची आशिल्ली. रुपालीक आनी आवयक उले मारीतूच तो घरांत भितर सरलो...

'आवय हांव जैतिवंत जालों... म्हजें संशोधन सुफळ जालें...

'ना पुता तूं हारलो... 'आवयच्या उतरांनी ताका कच्च जालें.

कित्याक म्हण्टा तूं अशें?' ताणें परतें विचारलें.

'रुपालीन तुका सोडचीट दिवपाचो निर्णय घेतला... हें पळय ताणें आदोवगादाक आफोवन हाडला... तुजे निशाणे खातीर तीं तुका रावतात... हांवेन ताका जायत समजायलें... तूं ताका निमाणचें समजावन पळय...'

ताणें निर्णय घेतला जाल्यार ताका समजावपांत कांयच अर्थ ना... हांव विज्ञानीक... किडी - मुयांभशेन खिणयाळ्या सुखांफाटल्यान लागिल्लों जाल्यार कांय दिसांनी धर्तरेच्या पिठो जावपाचो... मागीर किडी - मुयांक लेगीत जगपाक सुवात उरची नाशिल्ली... त्या अर्थान हांव पुरायेन जैतिवंत जालां... खंय निशाणी करपाची ती दाखयात म्हाका...'

आदोवगादान पेपर मुखार काडलो आनी विक्रमान ताचेर निशाणी केली. रुपालीची बागवल्ली तकली मात वयर सरली ना.

# नशिबाचें खांवटें

मनशाकडेन खूब दुडू आसपाक जाय ...दुडू आसलेबगर मनशाक रेस्पेद ना... डवांबगर सुख ना... त्या खातीर जाता तितलो चडांत चड दुडू मनशाक जोडपाक ाय... कसोय जोडूं तो मागीर... असल्याच चिंतपान शाणूचे विचार भरिल्ले. त्याच चारान ताका कुड्डो केल्लो. देखून रातचो - दिसाचो, जागेपणांत आनी सपनांत लेगीत ाका दोळ्यांमुखार फक्कत दुडू दिसतालो... फक्कत दुडू...

चडांत चड दुडू जोडून एक गिरेस्त मनीस म्हूण नांव जोडपाचो ताचो हावेस ासलो. तोच हावेस नदरे सामकार दवरून तो यत्न करीत रावलो. आनी एक दीस तो ूब्ब गिरेस्त जालो. गिरेस्तकायेची तेंगशीच आशिल्ली ती. पयशे म्हळ्यार खरें सुख अशें ानिल्ल्यान तो खिणयाळ्या सुखांच्या फाटल्यान लागलो ना. तशें करता आसताना जेणेचे वाटेर ताणें जायतीं तत्वां नकळटां शेणयलीं.

शाणूचें भुरगेपण सर्वसामान्य भुरग्यांभशेन गरिबींत गेलें. गरिबीचे चटके कितले खर आसतात तें ताणें अणभवान पळयल्लें. खावपाक धड अन्न ना, आंग धांपूक गेल्यार आंगभर कपडे नांत अशे परिस्थितींत ताचें भुरगेपण कितलोसोच तेंप रखडटालें. वांगडचे भुरगे सायकली चलयताले तेन्ना ताकाय आपणाली सायकल आसपाची अशें दिसतालें. पूण ताचो जल्मूच दळडिरांत जाल्ल्यान भुरगेपणांत सायकल हें ताच्या सपनांतूच उरलें. ताचे वांगडचे भुरगे बऱ्या बऱ्या इश्कोलांनी वचून शिकताले. पूण गांवांत लागीं इस्कोल नाशिल्ल्यान ताचें शिकप अर्दकुटेंच उरलें. तो चवथी पास जाल्लो. मुखार ताका शिकपाचीय इत्सा आशिल्ली. पूण ताचें शिकप बापायक परवडचें ना अशें दिसलें. देखून बापायनूच ताका मुखार शिकपाक नाका म्हळें.

शाणूच्या बापायचें व्हडलें शेत आशिल्लें. पूण नांवांपुरतें शेंत तें. पावसांत रोवपाच्या वगतार उदकांत बुडून रावतालें आनी वायंगणार ताचें उदक सुकतालें. तरीय दोनीय

फसलो तो कश्ट करून करून गरजे पुरतें धान्य पिकयतालो. पूण नशिबाक पडिल्लें खांवटें ताच्यान पुरोवंक जालेंच ना. इश्कोलांत वचून शिकपाचे आनी खेळपाचे पिरायेर बापायवांगडा शाणूय शेतांत देंवलो. तो वावर करपाक लागलो. त्याच वावरांत ताचें मन इल्लें इल्लें रमपाक लागलें.

शाणूचें भुरगेपण सोंपलें तशे ताचे विचार बदलपाक लागले. बापायभशेन शेतांत मर मर मरून आनी कश्ट करून सगली जीण सोपयली म्हूण परिस्थिती बदलपाची ना हाची जाणवीक ताका जाली. परिस्थिती बदलपाक कितें तरी करपाक जाय अशें नाका एकसारकें दिसपाक लागलें. पूण कितें करतलो? पदराक शिक्षण आशिल्लें जाल्यार कितेंय तरी करपाक जातालें. बेकार तरणाट्यांखातीर सरकाराच्यो जायत्यो येवजण्यो आशिल्ल्यो. वचत थंय शिक्षणाची अडचण उबी रावताली. हाका लागून मनांत जायतें आसून लेगीत खरेपणान कांयच घड नाशिल्लें.

शेतांत मरसर वावर करून फक्कत खावपा - जेवपाक भात मेळटालें तितलेंच. हेर सगल्यो पयशांच्यो गरजो भागोवपाक मेळत तसलें काम करचें पडटालें. गजानन भाटकार तेन्ना गांवांत व्हडलो पयशेकार. ताचीं व्हडलीं भाटां आनी कुळागरां आशिल्लीं. गांवाच्या सगल्या बेकार लोकांक तो आपणागेर भाटा - बेसांतल्या वावराक घोळयतालो. हेर लोकांवांगडा शाणूय थंय कामाक वतालो. दीसभर वावर केलो म्हण्टकीच तिनसांजे थरिल्ले पयशे हातार पडताले. दिसवड्याचें काम करून शाणूक वाज येवपाक लागलो. देखून ताणें खंडिताक कामां आंगार घेवपाक सुरवात केली. भाटकाराल्या भाटांत कवाथे रोवपाक नेमां मारपाचीं आशिल्लीं. काम आंगार घेतल्यार दोन दिसांचो दीसवडो एकाच दिसान सुट्टालो. केन्ना - केन्नाय अपेक्षेपरस चडूच पयशे मेळटाले. त्या भायर मनाक मारता तेन्ना विसव घेवपाक मेळटालो आनी मेकळो वेळूय मेळटालो.

शाणून धा दीस लावन इकुण - पन्नास नेमां मारलीं. पन्नासावें नेम तो खणटालो. जमीन नवी आशिल्ल्यान खणपाक बरीच घट येताली. पूण पयलीं सावन काम करीत आयिल्ल्यान ताचे हात घट जाल्ले. नव्यानूच कोणूय खणपाक आयिल्लो जाल्यार हाताक वांगडाच फोड येवपाचे. पन्नास नेमां मारून जातकीच हिशोब जावपाचो आशिल्लो. हिशोब जालो म्हणटकीच सगले पयशे एकदम शाणूच्या हातार पडपाचे आशिल्ले. पन्नासावें नेम खणटा आसताना ताच्या मनांत तरेकवार विचार चलताले. पयशे मेळ्ळे म्हणटकीच सगले पयशे मोडून काबार करप ना. परिस्थिती बदलतलो जाल्यार इल्ले - इल्ले करून

यशे सांठावपाची गरज आसा. एक फावट परिस्थितीन कूस परतुपाक जाय. मागीर ाणू गरिबीच्या श्रापाचेर कसो खोंट मारता पळय ! अशें येवजीत शाणून कुदळ मात्शी टानूच मारली. कुदळीचो सण्ण करून आवाज आयलो. हाचे पयलीं नेमां मारता ासताना जायते कुपातोराचे फातर शाणूक मेळिल्ले. असोच फातर आसतलो अशें ामजून ताणें परती कुदळ मारली. परतोय तसोच आवाज. शाणून परती कुदळ उखल्ली ण मारली ना. बाग घेवन ताणें नेमांत भितर पळयलें. कसल्या तरी तांब्याच्या आयदनाचेर ुदळ बसून ताका चेंप पडिल्लें. थंयची माती कुशीक काडून ताणें आयदनाचो अदमास ेतलो. आयदनाचो आकार बरोच व्हडलो आशिल्लो. मागीर ताणें फुरसत पळयली ना. आयदनांत भितर कितें आसा तें पळोवपाची ताका उमळशीक लागली. आयदनाभोंवतणची ाती तो उस्तित रावलो. बरोच वगत लागून थालयेच्या आकाराचें तें आयदन ताणें उस्तून ाडलें. नेमांतल्यांन भायर काडपाक ताणें उखलपाक हात घालो... पूण आयदन बरेंच जड आशिल्यान ताचेकडेन तें सुरवातेक उखल्लें ना. भितर कितें आसा तें तरी पळोवया म्हूण ताणें त्या आयदनांच्या धांपण्याचेर कुदळ माल्ली. परतो सण्ण करून आवाज जालो आनी धांपणें कुशीक पडलें. मुखार कितें दिसलें तें पळोवन शाणूक आपणाल्या दोळ्यांचेर विश्वास बसना जालो. पुराय आयदन भांगराच्या नाण्यांनी कचकचीत भरिल्लें.

शाणून भोंवतणी भाटांत सगल्याक नदर मारली. लागसार कोणूच नाशिल्लो. कितें करचें ताका कांयच येवजना जालें. गजानन भाटकाराक हाडून दाखोवचें अशें खीणभर ताका दिसलें. पूण ताणें तो विचार बदल्लो. ताचे तकलेंत वेगळोच विचार आयलो. देवानूच आपणाक तें बक्षीस दिलां आसतलें अशें ताका दिसलें. ताणें परत एक फावट भोंवतणी जाग घेतली आनी सगलें बळ एकवटावन भांगरान भरिल्लो तो हांडो नेमांतल्यान वयर काडलो. बाकीचे मानायकामेरीं कोणूच लागीं नाशिल्लीं. ताणें जाता नजो करून तो हाण्डो उबारून माथ्यार घेतलो. लागसारूच एक खळी आशिल्ली. गिमांत ती लींप सुकताली. वयल्यान झोपां मातिल्लीं. शाणू माथ्यार हांडो घेवन ते खळयेंत देंवलो. ताणें हाण्डो लिपोवन दवरलो आनी तडक भाटकारागेर गेलो. गजानन भाटकारान ताका हटकिलो...

'जालीं रे शाणू नेमां मारून?'

'हय भाटकारा'.

'हिशोब करूंया मरे तर?'

हय भाटकारा'... शाणू भाटकाराच्या तोंडाक पळयनासतना जापो दितालो.

वगीच ताका चोराभशेन दिसतालें. देखून तो भाटकाराक नदर चोरतालो. पूण भाटकाराच्या तें लक्षांत आयलें ना. भाटकारान ताचो हिशोब केलो आनी रोकड्या रोकडे पयशे मेजून दिले.

'बरें भाटकारा.........' शाणू वचपाक घुंवलो.

'चल्लो रे रोकडोच? च्या घेवन चल मरे.'

'ना भाटकारा, काम आसा मात्शें....'

'वयल्या भाटांत आनीक इल्लीं मारपाक जाय नेमां. फाल्यांच्यान करता मरे सुरवात?' भाटकारान विचारलें.

'आतां रोकडें जावचें ना भाटकारा...फाल्यां मात्शें सोयऱ्यांगेर वचपाक जाय आशिल्लें....रकाद आयला मात्सो येवन वच म्हूण.'

'बरें तर.... मागीर पळोवचें.' भाटकारान म्हळें आनी शाणून नेटान पावलां उबारलीं.

शाणू काळोख जावपाची वाट पळयतालो. काळोख जालो तसो तो घरांतल्यान भायर सरलो. आपूण खंय वतां तें ताणें घरच्यांक लेगीत सारकें सांगलें ना. ते दिसाच्यान शाणू कोणाकूच दिश्टी पडलो ना. शाणू परतो येतलो म्हूण घरचीं व्हडलोसो हुस्को करीनासतना वाट पळयत रावलीं. पूण दिसां फाटल्यान दीस वचपाक लागले आनी तांकां शाणूचो हुस्को जावपाक लागलो. तांणी शाणूक सोदपाक सुरवात केली. शाणू ना जाला ही खबर गांवार गांवभर जाली. घरच्यां वांगडा गांवचे हेर तरणाटेय शाणूक सोदपाक लागले. पूण शाणू खंय पावलो आनी शाणूचें कितें जालें तें कोणाकूच कांय कळ्ळें ना. घरच्यांनी कांय दीस रडून आकांत केलो. दिसां फाटल्यान दीस वचपाक लागले आनी गांव शाणूक विसरपाक लागलो. एक - दोन वर्सां उलगलीं तशीं घरचींय मनशां शाणूक विसरपाक लागलीं.

ज्युस्त पांच वर्सांनीं शाणू गांवांत परतो भितर सरलो. आयलो तो सोमतीच मोटार घेवनूच आयलो. गांवच्या लोकांचो आपणाल्या दोळ्यांचेर विस्वास बसना जालो. घरचीं जाल्यार सामकींच अजाप जाल्लीं. पयलींचो शाणू आनी आतांचो शाणू हांचेमदीं धर्तरी आनी मळबाचें अंतर आशिल्लें. तो आंगापांगान भरिल्लो. गिरेस्तकायेच्यो सगल्यो खुणो ताच्या आंगापांगार दें‌विल्ल्यो. गांवचे सगले लोक ताचे खबरेक येताले. तो आपणाले गिरेस्तकायेची खबर तांकां सांगतालो. मुंबय ताणें जोतीं तयार करपाचो कारखानो सुरू केल्लो. ताचेर ताका जायती जोड जाताली. त्या भायर धा बारा ट्रक घेवन ताणें व्हडल्या

डल्या कंपन्यांनी भाड्याक दिल्ले. मुंबय ताणें आपणाक रावपाक एक बंगलो भाड्यान तिल्लो. स्वताचो बंगलो बांदपाचो ताचो विचार चालू आशिल्लो. त्या भायर गांवांत शिल्लें पोन्ने घर मोडून ते सुवातेर ताका व्हडलें नवें घर बांदपाचें आशिल्लें. शाणून पणाल्या मनांतलें सगल्या लोकांक सांगलें. पूण इतली गिरेस्तकाय कशी मेळयली हें पीत मात ताणें भायर फोडलें ना.

गजानन भाटकार लेगीत शाणूची गिरेस्तकाय पळोवन सामको चाट पडिल्लो, शें कशें जांव येता हें ताका समजलें ना. वसुधा ही ताची अपुरबायेची एकलीच धूव, णूचो तिचेर दोळो आशिल्लो. तो भाटांत काम करता आसतना वसुधा ताच्या खावेल्यान केन्नाय चलून वतालें. तेन्ना ताच्या काळजाची धडधड वाडटाली. हातांतलें ाम थारावन तो ताका पळयत रावतालो. वसुधा रातचें ताच्या सपनानींय येतालें. पूण आपणाली परिस्थिती पळोवन ताका आपलें मन मारचें पडटालें. त्या भायर तें खूब्ब शेकिल्लें. आपणाक शिकपाक मेळ्ळें ना हाची याद जावन ताका खंत भोगताली.

वसुधाक आतां उत्तेपणी मागणी घालपाक भंय ना. गजाननभाटकार आपणाक चली ना म्हणचो ना अशें येवजून तो भाटकारागेर गेलो. आतां तो पयलींभशेन साबळो नाशिल्लो. ताणें आपणाली इत्सा सडसडीत उलोवन दाखयली. पूण गजानन भाटकारान ताचें आयकून घेतलेंना. गिरेस्तकायेक लागून तो आपणाली जात सोडपाक तयार नाशिल्लो. शाणू कितलोय गिरेस्त जालो तरीय तो एक कुळवाडी हें कशें विसरूंक जातलें? गजानन भाटकार हो अडेचो भाटकार नाशिल्लो. ताच्यो कितल्योश्योच पिळग्यो भाटकारशायेंत गेल्लो. शाणू कितलोय गिरेस्त जालो तरीय ताची गिरेस्तकाय ही अडेची गिरेस्तकाय. भाटकारान शाणूक न्हयकार दिवन वाटेक लायलो. 'वसुधा भितरल्यान तांचें उलोवप आयकतालें. ताची पिराय लग्नाची जाल्ली. गिरेस्तकायेपरस आनी जाती - धर्मापरस ताका न्हवऱ्याची चड गरज दिसपाक लागिल्ली. बापायन शाणूक न्हयकार दिलो म्हूण ताका तिडक मारली. तें तशेंच धांवत भायर आयलें. इतलो तेंप तें वगी राविल्लें. पूण आतां ताच्यान वगी रावपाक जालें ना. ताणें सोमतीच बापायक जाप विचारली -

'कित्याक ना म्हळें ताका? हांव तयार आसां लग्न जावपाक ताचेकडेन.'

'पूण हांव जावपाक दींव नाका?'

'तुजी तयारी नासल्यार हांव पळून वतलें ताचेवांगडा...' वसुधाचें उलोवप आयकून गजानन भाटकाराक सामको शॉक बसलो. तो मुखार कितेंतरी सांगपाक सोदी.

पूण 'बायऽऽ....'म्हणिल्लें ताचें तोंड तशेंच वांकडें उरलें. तो थरथरतालो आनी दोळे वर करून वसुधाक पळयतालो. ताका आरीचो झटको आयलो आनी तातुंतूच ताणें जी सोडलो.

शाणूचे इत्सेप्रमाण वसुधा ताचे वांगडा लग्न जालें.गजानन भाटकाराक फाटल फुडलो कोण नाशिल्यान ताचीं सगलीं भाटां-बेसां अचळय शाणूक मेळ्ळीं. गजान भाटकारागेर कामाक घोळटालो तो सगलो लोक आतां शाणू पात्रांवांगेर घोळपा लागलो. शाणून गांवांत व्हडलो बंगलो बांदलो. मदीं मदीं चार-चार दीस तो मुंबय वचू रावतालो. शाणूचे म्हालाचे ट्रक आतां गांवांतूय येवपाक लागले. गांवांत ताणें आनीक दो कारखाने सुरू केले. गांवांत जे कामगार मेळनात ते भायल्यान हाडले. पयसो जोडपाचे सगलीं दारां आतां शाणूक उक्तीं जाल्लीं. नव्यो नव्यो कल्पना ताचे तकलेंत आपशीं येताल्यो आनी त्यो साकारूय जाताल्यो.

आपणाक शिकपाक मेळ्ळें ना तें बरें जालें अशें शाणूक आतां दिसपा लागलें. शिकून कितलीय बरी सिर्विस केल्ली जाल्यार इतलें कशेंच जोडूंक पावच नाशिल्लों. एक एक वायट गजाल लेगीत बऱ्याखातीर घडटा हें तत्वगिन्यान ताका पटपा लागलें. पदराक शिक्षण नासून लेगीत सगली गिरेस्तकाय ताच्या पांयाकडेन लोळटाली आसा तितली गिरेस्ताय पुरो अशें मात शाणूक दिसलें ना. ताची आस जितलें मेळट तितली चडूच वाडटाली. गांवांत आनी गांवाभायर लेगीत जितली पडींग जमीन आशिल्ली ती ताणे घेवन उडयल्ली. उदक ना थंय बांयो खणून उदक तयार केलें. पडींग जमीन वसयली. शेंकड्यांनी कामगार थंय घोळपाक लागले. कामाकडेन लक्ष दवरपाक ताणें जायते मास्तर नेमयार केले. सगलें वेवस्थीत चलतालें.

वर्सांफाटल्यान वर्सां धांवपाक लागलीं. शाणू गिरेस्तकायेच्यो तेंगश्यो चडतूच आशिल्लो. दुसरेवटेन वसुधाचो मात अपेक्षाभंगूच जाल्लो. शाणून वसुधाक राणयेभशेन सुशेग दवरिल्ली. सगलीं भौतीक सुखां तिच्या पांयांकडेन लोळटालीं. पूण जें सुख जायजायशें दिसतालें तें वसुधाच्या वाट्याक साप्प उणें येतालें. शाणू रात दीस पयशां फाटल्यान आशिल्ल्यान वसुधाचो ताका चड उगडास जाय नाशिल्लो. दुसरे वटेन वसुधाची भूक वाडतूच आशिल्ली. शाणू येवपाची तें दोळ्यांत तेल घालून वाट पळयतालें. शाणूक ताणें जायते फावट आपल्या मनांतलें सांगपाचो यत्न केल्लो. पूण शाणू सगलेंच फकणांचेर उडयतालो. लग्न जावन कितलींशींच वर्सां उलगल्लीं पूण वसुधाची कूस अजून मेरेन

ारूंक नाशिल्ली. वसुधाक हे गजालीची जाण आशिल्ली. पूण शाणू मात सपनांतूच ावुरतालो.

पयसो जमलो. आतां सत्ता जाय. सगल्या लोकांची शेंडी आपणाल्या हातांत ावपाक जाय अशें शाणूक दिसपाक लागलें. तशें जातलें जाल्यार एकूच पर्याय आशिल्लो. ो म्हळ्यार राज्याचो मुखेलमंत्री जावप. मागीर आपुणूच राजा. वेंचणुको लागीं पाविल्ल्यो. व्रंयच्याय पक्षाची तिकेट मेळटली म्हूण तो रावलो ना. अपक्ष म्हूण लेगीत वेंचून आयल्यार ायशांच्या नेटार कितेंय घुवंडांव येता हें ताका खबर आशिल्लें. हेंच चिंतून ताणे फॉर्म ारलो. प्रचाराक सुरवात जाली. सगल्या कामगारांक ताणें प्रचाराच्या कामाक लायले.

वेंचणुकेंत आपूण निश्चीत जिखतलो हाचें शाणून पयलींच गणित जुळयल्लें. ताणें कामाक दवरिल्ल्या कामगारांचींच ताका हजारेक मतां दोळे धांपून पडपाचीं निश्चीत जाल्लें. त्या भायर मतदान संघांतले सगलेच लोक ताका जीव घालताले. पावला कणकणी बरें मागपी आशिल्लें. प्रचार जाल्यार सुमाराभायर चलतालो. जंय पयशांचीं कामां आशिल्लीं थंय ताणें पयसोय उणो पडपाक दिलो ना. वेंचणुकेचो दीस आयलो आनी प्रचार थांबलो. मतदान बरे भशेन जालें. मतदानाक येतना - वतना लोक शाणूक हात दिताले. शाणूय येतल्या - वतल्यांक हटकून दाद दितालो. केन्ना एक फावट मतां मेजून निकाल जाहीर जाल्यार पुरो अशें शाणूक जाल्लें. ताका फुडले डावपेच रचपाचे आसले.

आनी तो दीस उदेलो. मतां मेजपाक सुरवात जाली. एक एक निकाल भायर सरपाक लागलो. चडशे निकाल अनपेक्षीत आशिल्ले. निमाणो मतदारसंघ शाणूचो आशिल्लो. निकाल लागलो आनी शाणूक जिवितांत पयलेच फावट व्हडलो शॉक बसलो. ताका फक्कत दोन मतां पडिल्लीं. एक ताचें स्वताचे आनी दुसरें वसुधाचें काय? कांय सांगपाक नजो. शाणून पयशे खूब जोडिल्ले, पूण एकूय मनीस तो जोडूंक पावूंक नाशिल्लो.

आनी आपणाल्या नशिबाक आनीक एक खांवटें आसा हाची पयलेच फावट शाणूक जाणवीक जाली.

# पावलुचीं पावलां

सदांभशेन तोंडान शिळोणी घालीत जिस्त आमोरेचेर पावलू घरांत भीतर सल्लो. तागेलीं पावलां आयज  मात्शीं नेटानूच पडटालीं. हरशीं तो घरांत भीतर सरता आसताना पायक चुकयतालो. पूण आयज तो पाय बल्कावांत बसला तें पळोवन बळयां बल्कावांवसल्यान भीतर सल्लो. तो दिसलो म्हण्टकीत ताका किदेंतरी घालून - पाडून उलोवपाची कायतानाक संवय जाल्ली.... आयजूय ताणें संद वगडायली ना. पावलू सामकार दिसलो तशें ताचें तोंड उक्तें जालेंच....

'येयलो तूं.....?'

'पाय हायेंन एक खबर हाडल्या. आयकतलो?'

'केसो खोबोर रे?'

'सांगतां....'

पुतान कसली खबर हाडल्या तें पळोवपाक मारी कुजनांतल्यांन ताकतिकेन भायर येयलें. पूत इतलो वाळेस म्हळ्यार मारीक ताची अपुर्बाय दिसताली. पुतान कसली खबर हाडल्या ती आयकुपाची उमळशीक कायताना परस मारीक चड लागलेली.

'केसो खोबोर रे चेड्या ....?'

'जाणा मुगे मांय.... तो रोजार येयलाय कुवेट सावन....,

'तुकां कोणें सांगिलें.....?'

'थिगां सांकवार येयलोलो तो....'

'किदें सांगतालो.....?'

'कुवेट कामाक भुरगे जाये खूंय....'

'मागीर रे....' मारीन उमळशिकेन विचारलें.

'म्हाकां येता काय इचारतालो..... रावपा - जेवपाचें फ्री खूंय..... म्हयन्यांक पांच - स हजार पागामेंत ...वोसों मुगे हांव.....?' तागेलें आयकून मारीन तोंड उक्तें करचे

पयलींच कायतान उलयलो.

'कुयेट वसोन मात कामां करतलो तूं... हिंगां शेतांत मात्सो आपोयल्यार नेजो मुरे तुज्यान....' कायतान आपणाल्या मनांतलें उलयलो. पूण तेगेलें उलोवणें मारीक उस्तत्यां गेलें. ताणें आपणाल्या पुताची कड घेतली....

'थिंगां चिखलांत लोळ म्हुण्टाय तेका तुजेभशेन? तुयें तुगेलें जिवीत सोपयलें मुरे शेतांत... केसो पोटलो बांदलो तुयेंन? वयल्यान येयलेल्या दिसा दळडीर.....'

'कश्टांची गोडी तुमकां कळपा ना ती.... भटाक तारूं आनी तारयाक गोरूं कोणें सांगलांय तें?.... शेतांत कश्ट करून संवसार केलो हायेंन... कोणाल्या देरांत केन्ना गेलों ना.... मागपाक ....'

कायतान तोंडाक येता तसो बडबडत रावलो. तिनसांजच्या वगतार तोंडाक तोंड नाकां म्हूण मारी पावलूक घेवन भीतर गेलें.कुवेट जाल्यार जांव. पुताक काम मेळटा तें पळोवन मारीक खुशालकाय भोगली. ताणें जेजूच्या पायंजलावसल्यान पळयलें आनी मनांतल्या मनांत देवाचे उपकार आठयले.

पावलू कायतानालो व्हडलो पूत. ताच्या फाटल्यान पॉल आनी ॲलीजा. पावलुचो जल्म जालो तेन्ना कायतानाक खुशालकाय जाल्ली ती सोसपाची न्हय. आगोस्तीनील्या गाड्यार ताणें फाटलो फुडलो हुस्को धरींनासताना लोकांक च्या आनी खाणां वांटून आपणाली खोशी प्रगट केल्ली. पयलोच बाळंटेर जाल्ल्यान मारीक मात्शी कास्तीग जाल्ली. तेय अवस्थेंत त्राणें मारीचीं फकाणां मारपाची संद वगडायलीना.

'मारी..... म्हाकां चोय आदार जालो....'

'केसो आदार रे.....?'

'पोयलो चेडो जालो म्हुण्टकीत पायक आदार ...... चेडूं जाल्यार मांयक आदार....'

'जांव .... जांव... तुकांच आदार जाल्यार पुरो....'

'फोकणां केलीं गो .... तुकांय आदार कोत्तोलो तो .....'

बशिल्लेकडेन कायतानाक तो उगडास जालो आनी ताणें तकली हालयली. पावलू इतलो हाताभायर वचत अशें ताणें धरूंक नाशिल्लें. कायतानान ताका खूब शिकोवन व्हड मनीस करपाचें थारायल्लें. पूण ताचें गणित मुदलांतूच चुकलें. पावलुल्या शिक्षणाची गाडी कशीतरी धावेमेरेन पावली. थंय ती रूळांवयल्यान घसरली ती परती उबी जालीना. मेजून पांच फावटी तो धावेक फेल जालो.

कायतानाक दिसलें आपणासारख्या कुळवाड्यांनी वगीच पळोवपाचीं तीं व्हडलो मनीस जावपाचीं सपनां. आपणाल्या नशीबांत बरयल्लें आसा तें कोणाच्यान काडपाक जांवचेंना. उपरांत पावलूक ताणें शेतकाम बरेभशेन शिकोवपाचें थारायलें. कायतानाक जाण्टेल्यांनीं शिक्षण दिलेंना खरें. पूण ताचेखातीर ताणीं व्हडलो शेताचो कुडको जोडून दवरिल्लो. वायंगण आनी पावशें शेत रोवन तो सुशेग आपणालो संवसार चलयतालो. पोटाक कशेंच मरण नाशिल्लें. जें किदें खावन - जेवन सुबेज उरता तें धान तो विकून उडयतालो. जे पयशे मेळटात तातूंतल्यांन ताका फुडाराचो पुरूमेंत करचो पडटालो. त्या भायर सान्याक आनी कामेऱ्यांक जे दुडू जाय पडटाले ते ताका तातूंतल्यांन सुगूर करचे पडटाले. गरजेभायर जायतशे ताका दुडू मोडपाक मेळंनाशिल्ले. हाका लागून ताचेवांगडा बायल भुरग्यांच्योय जायत्यो उमेदी कर्पून वयताल्यो.

कायतानाच्या जिवितांत बऱ्या वांगडा जायत्यो वायटूय गजाली घडिल्ल्यो. पूण तातूंतल्यांन तो एक गजाल शिकिल्लो. ती म्हळ्यार खंयचीय गजाल मागीर बरी जांव वा वायट ती बऱ्या खातीरूच घडटा.पावलू जेन्ना धावेच्या परिक्षेंत फेल जालो तेन्ना लेगीत ताणें तशेंच चिंतलें. कायतानाकूय कोणाचो शेतकामांत आदार नाशिल्लो. जांव पावलू आतां आपणाल्या आदाराक येतलो अशें ताणें चिंतलें. मारी घराकडेन रांदता आनी हेर सगलें आटापता म्हणसर तागेलो दीस उलगतालो.

पावलूचे वांगडचे सगले भुरगे शिकताले. पावलुकूय आपणें कॉलेजींत वच्चे अशें दिसतालें. पूण मॅट्रीकेक फेल जाल्ल्यान फुडली वाटूच बंद जाल्ली. वायंगणाच्या तेंपार एक दीस संद पळोवन कायतानान पावलूक हटकिलो....

'शेतांत येताय मुरे पावलू......?'

'शे ऽऽ हांव येयना शेतांत....'

'मागीर किदें कत्तोलो घारा बसोन ?' कायतानाचें उलोवणें मारीच्या कानार पडलें तशें तें धांवोन भायर आयलें. भायर आयलें तशें ताणें आपणालें तोंड वाजयलें.....

'तेका आपोयताय चिकलांत लोळपाक?'

'मागीर किदें कत्तोलो तो घरा बसोन?'

'काम खंयूय मेळटाय जाल्यार चोवनी तेका......'

'मॅट्रीक फेल जाल्ल्यांक कोणें दवल्ल्यांय कामां ?'

'चोवनी तरी तेका .... खंयुय मेयटा जाल्यार .....' अशें म्हुण मारी मदीं आयलें. पावलू तितलेंच सोदतालो. मांय आपणाल्या फावरान उलयता देखून मांयचो ताका आदार

देसपाक लागलो.

पावलूक काम सोदपाचें आयतेंच निमीत मेळ्ळें. काम सोदपाक म्हूण तो घरांतल्यांन भायर सरून वयतालो तो बद्द जेवणाच्या वगतार आनी आमोरेचेर घरांत भीतर सरतालो. गांवांत जायते बेकार तरनाटे आशिल्ले. पावलून तांचो सांगात धल्लो. कामां नाशिल्ल्यान सगलेच वाळेस जाल्ले. घरचीं कामां सगल्यांकूच आशिल्लीं. पूण घराकडलीं कामां करप म्हळ्यार तांकां लज दिसताली. तांतूत शेतांतलें काम म्हळ्यार तांकां सामकेंच नाककात्रेपणाचें कशें दिसतालें. हाकालागून घरांतले सगले जाण्टेले देसभर शेतांत वचून मरमर मरताले आनी जाता जाल्ले तरनाटे गांवार भोंवताले .......

पावलून दोन तीन वर्सां अशींच वगडायलीं. कायतान ताका जायतो समजायतालो. शेतांत वावर करपाक कसलीच लज ना अशें तो ताका सांगतालो. जोत धरपाक शीक, खोरें हातांत धरपाक शीक म्हूण कायतानान ताका हजार फावट सांगलें ...... पूण पावलून पायचें इल्लेंय काना - मनार घेतलेंना. पाय शेतांत आफयता म्हूण हालींसरा तो पायक चुकोंवक शिकलेलो. पूण कुवेट काम मेळटा ती खबर घेवन तो झेतान घरांत भीतर सल्लो.

कामाक लागून पावलून घर - दार सोडून इतले पयस वचप म्हळ्यार कायतानाच्या मनाक पटंनाशिल्लें. पूण जांव. कुवेट बरें काम मेळ्ळें जाल्यार तवनासपणां तरी उणीं जातलीं म्हूण कायतानान मदीं कसलेंच आडमेळें हाडलें ना. कुवेट वचपाची सगली तयारी जाता म्हणसर पंदरा दीस अशेच गेले. सगले मेळून स जाण तरनाटे वांगडाच वचपाचे आशिल्ले. गरजेचीं सगलीं कागदां एजंटानूच करून दिलीं. हाकालागून ऑफीसानीं कोणाकूच चड फावटी मारच्यो पडल्योना.

कायतान सगलें दोळे धापून पळयतालो. एके वटेन ताचें मन ताका खातालें. पावलूचें किदेंतरी चुकता अशें कायतानाक एकसारखें दिसतालें. पूण किदें ते ताच्या लक्षांत येंनाशिल्लें. दुसरेवटेन मारी फक्कत तयारीच करतालें. कायतानान ताका किदेंच केन्ना लागूंक दींव नाशिल्लें. हाका लागून मारीक भायल्या संवसाराची तितली जाणवीक जांवक नाशिल्ली. कायतानान ज्यो गजाली पळोंवक नाशिल्ल्यो तेविशीं ताणें लोकांकडल्यान आयकल्लें तरी. पूण मारी सपनांतूच वावूरतालें. वास्तव कितलें भयंकर आसता ताची सुलूक ताका लागूंक नाशिल्ली. हाकाच लागून पावलू कुवेट वयता तो जायतें जोडून हाडटलो आनी आपणालें दळडीर सारसणाचें ना जातलें अशें तें समजल्लें. हेच खोशयेन ताणें पावलुली वचपाची सगली तयारी करपाक फुडाकार घेतिल्लो.

पावलुलो कुवेट वचपाचो दीस उदेलो. सगली तयारी जाल्ली. घरांतल्यांन भायर सरता आसताना पावलूचें अंतस्करण जड जाल्लें. मांय-पायचो आनी भावंडांचो निरोप घेता आसताना ताचे दोळे भरून आयले. पाय शेतांत काम करपाक आफयता म्हूण पावलूक पायचो राग मारतालो. तें सगलें विसरून ताणें पायक वेंग माल्ली. कायतानानूय ताका वेंगेंत घेतलो. पावलू बेकार आसूं पूण सदांच दोळ्यांमुखार दिसतालो. म्हशीचें शींग म्हशीक जड लागला ? तशें कायतानाचें जाल्लें. पावलूक निरोप दितना ताचें हड्डें भरून आयलें. मारीक जाल्यार आपणालें काळीजूच कोणतरी चरचरीत कापता असो भास जातालो.

पावलुलो कुवेटाचो प्रवास सुरू जालो. ताचे वांगडा गांवातले आनीक पांच तरनाटे आनी एकटो एजंट आशिल्लो. कुवेट कशें आसतलें तें पळोवपाची पावलूक उमळशीक लागिल्ली. कुवेटाविशीं ताणें तरेकवार सपनां रंगयल्लीं. अचकीत ताका एक उगडास जालो. कुवेटाक आपणाक कसलें काम करचें पडटलें तें ताणें विचारूंक नाशिल्लें. एजंट मनांतल्या मनांत कसलोतरी हिशोब मांडटालो. घडये तोय कसलींतरी सपनां रंगयतालो आसूंये. पावलून ताका जागयलो......

'आमकां थिंगां केसो काम करपाक पडटलें ?' पावलुचो अचकीत प्रस्न आयकून एजंट गोंदळ्ळो.

'आं ऽऽ ? .... चोंवया. काम कसलेंय जांव. दुडू मेन.'

'कसलेंय म्हुटल्यार ? केसो तें गोमोंक नाकां .....?'

'ओगो राव रे. वोगीत कित्या शिताफुडें मीठ खाताय ?' एजंटान पावलूक वगी बसयलो. पूण पावलूचें मन सुशेग घेवपाक तयार नाशिल्लें. ताणें वांगडच्यां वसल्यान पळयलें. काम मेळटलें म्हूण ते खुशाल आशिल्ले.

हेरांवांगडा पावलून कुवेटाच्या भूंयेर पांय दवरलो आनी देठांतल्यांन तुटिल्ल्या फुलाभशेन ताची गत जाली. एजंटान तांकां सगल्यांक एके सुवातेर दवरले आनी तो फोन करपाक गेलो. पावलून चोंयवशीन एक इस्त माल्ली. परके भूंयेर सगलेंच परकी दिसतालें. हांगासल्ली हवाय वेगळी आशिल्ली. वगीच ताका घुसमटल्लेवरी जालें. सगले रस्ते आनी फुटपाथी चक्क दिसताल्यो. जोगलाचे गतीन मोटारी धांवताल्यो. पायांनीं भोंवपी लोक साप्प उणे. पावलुवांगडा बाकिचेय थंयचें वेगळेपण पळोवपाक गुल्ल जाल्ले. इतले म्हणसर एजंट फोन करून परतो आयलो ......

'हिंगांच येतलो तो ....'

'कोण तो ....?' पावलून हुतहुतेपणान विचारलें.

'बॉस ......' एजंट सांगता थंय आसा. एकटो झुम्म करून मोटार घेवन आयलो ानी तांचेसरी येवन थांबलो. तो मोटारींतल्यांन सकयल देंवलो आनी सगल्यांचेर ताणें क नदर माल्ली. उपरांत एजंटाक घेवन तो कुशीक गेलो. मात्सो वगत तांचें वांटपण ालें. ताणें कचाकच दुडू मेजले आनी एजंटाक फारीक केले. तो परतो मोटारीवसल्यान ायलो आनी ताणें सगल्यांक मोटारींत बसपाक सांगलें. तो इंग्लिश उलयतालो. ताणें ंगनाफुडें सगले वचून मोटारींत बसले. एजंटान तांकां हात हालयलो आनी 'बरे करून ात' म्हूण सांगलें.

मोटार घेवन आयिल्लो तो मनीसूय थंयचो थळावो एजंट आशिल्लो. पावलूक तें ळपाक वगत लागलोना. एका - एका बंगल्या सामकार मोटार उबी करून तो एक - क्ट्याक सकयल देंवोवन बंगल्यांत व्हरून पावयतालो. अशें करून पावलूले पांचूय ंगाती पावलुपसून वेगळे जाले. पावलू सगल्यांत निमाणो उल्लो. आनीक एका बंगल्यामुखार ावतकीत ताणें पावलुकूय सकयल देंवपाक सागलें. ते बराबर पावलू आपणाल्या कपड्यांची ा घेवन सकयल देंवलो. एजंटान मुखार सरून बंगल्याची बॅल वाजयली. ते बराबर एका रबान दार उक्तें केलें. एजंटाक हटकूचे पयलींच ताणें पावलूक सारको बरो पळोवन तलो. ताचे दोळे आनी नाक पळोवन पावलून सुको आवंडो घोंटलो. एजंटा कडेन तो ग्लिश उलयलो.....

'किदें शिकला हो ......?'

'मॅट्रीक फेल .....!'

'कितले दिवपाचे ......?'

'..............' एजंटान कितली रक्कम सांगली ती पावलूक कळ्ळीना. पूण या अरबान भीतर वचून दुडवांची एक कंवळी हाडली आनी एजंटाच्या हातार दवरली. ी बराबर पावलूक थंयच सोडून तो एजंट वाटेक लागलो.

'यो असो यो ....' अशें म्हूण त्या अरबान पावलूक आपणावांगडा येवपाक ांगलें. भायलेवटेन गॅरेजीक तेंकून एक रूम आशिल्लो. तातूंन ताणें पावलूची रावपाची यवस्था केली आनी तो परतो बंगल्यावसल्यान गेलो.

भायर काळोख पडपाक लागिल्लो. पावलूक सामकें पुरो जाल्लें. प्रवासांत ताका ात्तूय दोळो लागूंक नाशिल्लो. केन्ना एकफावट ताका आड पडटां अशें जाल्लें. ताणें ल्मांत रूमभर नदर भोवंडायली. रूम सामकोच वायट नाशिल्लो. तातूंत रावपाची ताची

तयारी आशिल्ली. पूण ताका चड उमळशीक लागिल्ली ती कामाची. आपणाक हांगा कसलें काम करचें पडटलें हे विशीं ताका इल्लीय कल्पना नाशिल्ली. बरें शिकिल्ल्यांक बरें काम मेळटा अशें ताणें आयकल्लें. पूण मॅट्रीक फेल जाल्ल्यांक हांगा कसलें काम मेळटा काय ? कांय खीण तो चिंतपाक पडलो. तरीय ताका इंग्लिश गरजेपुरती समजताली. मात्शें मात्शें उलोवपाकूय येतालें हाचोच ताका इल्लो धीर दिसतालो.

रूमांत हांतरूण आनी पांगरूपाक आशिल्लें. ताणें हांतरूण पातळायलें. पूण पांगुरपाची गरज शी दिसली ना. गोंयचेपरस हांगासल्ली गरमी मात्शी चड्च जाणवताली. तो आड पडलो. पूण दोळे जड जावन लेगीत ताका न्हिद येनां जाली. आजून मेरेन घर सोडून रातचो तो परकेकडेन खंयच रावूंक नाशिल्लो. आड पडला थंय ताका न्हिद लागपाक येताली आनी खिणांत दोळे परते उक्ते जाताले. अशेंच करून रात सोपली.

सकाळ जातकीत तो सडसडीत उठलो. तोंड बी धुवन तो मेकळो जालो. बॉस खंयच्या खिणांत भायर सरत सांगपाक जांय नाशिल्लें. कामाची सुरवात बरी जावपाक जाय. पूण दीस बरोच वयर सल्लो तरीय बॉस भायर सल्लो ना. पावलूक ताची वाट पळोवन - पळोवन वाज आयलो. तो एकसारखो बंगल्यावसल्यान पळयतालो. इतले म्हणसर दार उक्तें जालें. बॉस भायर आयलो आनी कुरू करूनूच पावलूक ताणें आफयलो.

पावलू ताच्या मुखार वचून उबो रावलो.

'यो तुकां कामां दाखयतां ....' अशें म्हणून पावलूक ताणें फाटल्यान येवपाक सांगलें. सगल्यांत पयलीं ताका ताणें बंगल्यांत भीतर व्हेलो. जमनीकडेन बोट दाखोवन ताणें सांगलें ....

'हें दिसाक दोन फावट चक्क पुसपाचें .....'. ताणें सांगिल्लें आयकून पावलूक शिट्ट जालें. पूण ताणें तशें दाखोवन दिलेंना, ताणें ताका परतो फाटल्यान आफयलो आनी बद्द संडासांत भीतर व्हेलो.

'हो दिसाक एक फावट लीप धूवन पुसपाचो..'

'शी ऽऽ ... म्हुज्यान जांवचेना.' अशें म्हणपाक तागेल्या तोंडार आयिल्लें. पूण तोंडार आयिल्लीं उतरां ताणें भितल्ले भितर गिळ्ळीं. घराकडेन शेतांत चिखलांत लोळपाक नाकां म्हूण तो कुवेट आयिल्लो. आनी हांगा संडास धुवपाचो ? शी! कसलीं नाका जाल्लीं कामां.

'आतां असो यो' बॉसान ताका परतो आपणाफाटल्यान येवपाक सांगलो.पावलू मोन्यानीं चलपाक लागलो. ताणें पावलूक गॅरेजींत भीतर व्हेलो. भीतर तीन मोटारी

ाशिल्ल्यो. मोटारीं वसल्यान हात दाखोवन ताणें सांगलें. 'ह्यो मोटारी सकाळच्यो सद्दां चपाच्यो आनी लीप पुसपाच्यो.' पावलून मोन्यानी तकली हालयली. जें केन्ना सपनांत गीत चिंतूक नाशिल्लें तेंच जिस्त पावलुच्या वाट्याक आयिल्लें. हांगासल्ल्यान मुठी कवळून यस धांव मारची अशेंय खीणभर ताच्या मनांत आयलें. पूण धांवून वतलों खंय ? हांगा ोणाची वळख ना पाळख .......

'हे ..... घे .... आनी मुखावयल्या हॉटेलांत वचून ब्रेक फास्ट घेवन यो.' - बॉसान ॉल्सांतल्यांन दुडू काडले आनी पावलू मुखार धल्ले. पावलून हात मुखार करून दुडू तले. मोन्यानींच तो घुंवलो आनी चलपाक लागलो. आपणाक कोणेंतरी नर्कांत धुकलून दिला असो ताका भास जालो. पूण हाका कारण कोण पाय ? .... ना .... आपणेंच ही र्कांची वाट सोदून काडल्या अशें येवजून ताचें मन खंती जालें.

बॉसान सांगिल्ल्या हॉटेलांत भीतर सरून तो एके रिते सुवातेर वचून बसलो. तले म्हणसर ताचे फाटोफाट आनीक एकटो येवन ताच्या सामकार बसलो. पावलुच्या ोंडावसल्यान ताणें बारीकसाणेन पळयलें. हो अनवळखी मनीस आपाणाकूच पळयता तें ळोवन पावलून मान सकयल घातली.

'गोंयकार रे .... ?' कोंकणी भाशेंतलें उलोवप आयकून पावलून तकली वयर काडली आनी जाप दिली.... 'हय ....'

'कितलो तेंप जालो हिंगां येयल्यार ..?'

'कालूच येयलां ...'

'किद्याक मरपाक येयलाय हिंगा... घेर्रर जावपा आहा तें खोबोर ना तुकां... ?'

'आतां कित जातोलें .....?'

'सोगले लोक वोसपाक सोदतात .... घरा.'

'खरें सांगों .... ?' पावलूक आपणाल्या मनांतले सांगचें कशें दिसलें.

'किदें तें ?'

'हांवूय वोसपाक सोदतांय हिंगासावन.... पूण म्हुका आदार कोण कोत्तालो ?'

'इतो बेगीन उबगलो ....?'

'आमगेलें थिंगां शेतांत चिखलांत लोळ्ळेलें बोरें ..... हिंगा संडास कोण धुयतोलो ते ......?'

'तशें जाल्यार एक आयडीया आहा ....'

'केसो ती .... ?'

'तूं कालूच येयलाय मुरे ? म्हुटल्यार तुगे वळख - बिळख जावनाय आजून ...

'ना ....'

'तेशें जाल्यार आयजूच पांच जाण वोसपा आहाय .... तिंचे बाराबोर घुसोन मेकळो जा.'

'आनी कोणेंय धल्लो जाल्यार ....?'

ना. घेर्राक लागोन लोकांक वोसपाक ते व्हडली कास्तीग कोरीनांत .....'

तागेलें आयकून पावलूक आपणाक देवूच पावलो कसो दिसलो. उपरांत पावलूक ताणें मोटारींत बसोवन भायले भायर पयस एके सुवातेर व्हेलो.थंय तागेले वळखिचे जायते गोंयकार आशिल्ले. ते गोंयात परते वचपाची तयारी करताले. पावलूक ताणीं आपणावांगडा गोंयांत व्हरपाची मान्यताय दाखयली. तेन्ना पावलूच्या जिवाक सू ऽऽ जालें.

परतो गोंयांत पावलो तसो पावलूचो जीव सुशेग जालो. नर्कातल्यांन भायर सरून सर्गात भीतर सरचें तशी ताची गत जाली. तो घरा पावलो तेन्ना मारी बाल्कावांत बसून तांदूळ वेंचतालें. पावलूक परतो आयिल्लो पळोवन तें एकदम काचाबूल जालें ....

'पावलू ..... तूं परतो येयलोय ? कित जालें रे ?'

'थिंगां घेर्रर जावपा आहा .... घेर्रर काबार जालें म्हुण्टकीत परतो रेकाद धाडटोले ते ....' पावलून फट माल्ली.

'बोरें जालें बाबा तूं येयलो तो ...'

'मांय,... पाय खूंय गेलाय ....?' कपडे देंवयता आसताना पावलून विचारलें.

'शेतांत गेलाय तो ... मेरो मारूंक ..'

'दुसरें खोरें खूंय आहाय ...?'

'कित्याक तें खोरें ? थिंगा खोपीत आहा तें ...'

'पायक मात्सो आदार कोत्तां...' अशें म्हूण पावलू खोपींत वचपाक भायर सल्लो...

'पेजे नीस तरी इल्लो पिये मुरे ...' मारीचीं निमाणीं उतरां पावलूच्या कानार पडिल्लीं. पूण तो रावलो ना. खोरें खांदार मारून तो नीट शेताचे वाटेक लागलो. आनी ताचेमदीं अचकीत जाल्लो बदल पळोवन मारी व्हडा अजापान शेताचे वाटेर पडपी पावलुचीं पावलां मेजीत रावलें .......

# आनी तो दीस उदेलो!

पांच वरांचेर ऑफीस सुटलें म्हण्टकीत हांव सदांच्या जाग्यार येवन बसीक उबो रावतां. भोवतणचीं सगळींच ऑफीसां वांगडाच सुट्टात आनी बसीक एकूच गर्दी जाता. बसपाक सीट मेळ्ळें जाल्यार जिवाक सूऽऽ जाता. ना जाल्यार जीव गर्देंत चेपणांतली आमली कशी चिड्डून मडगांवच्यान फोण्यां पावता म्हणसर अर्दो जाता. चेपणांतली आमली जावपाक म्हज्या जिवार येता. देखून केन्ना केन्नाय एक - एक बस सोडचीय पड्टा. ह्या स्टॉपार पांच वरां जातकीत आकांताची गर्दी जाता. ल्हानशी जात्राच ती एक एखाद्री बस आयली म्हण्टकीत सगळ्यांचेर एकूच आकांत येता. फाटींफुडें पळोवपाचो उगडासूच जांयना. दुसऱ्यांक बुद्द दिवपी लोक लेगीत असल्या वगतार खासा आपणाली बुदद् विसरतात आनी एकफावट बसीर चडून सीटार बसले म्हण्टकीत परते साव जातात.

आयजुय जिरत्त पांच वरांचेर ऑफीस सुटलें आनी हांव येवन सदांच्या जाग्यार उबो रावलों. एक - दोन मिनटांनी बस आयली. सगळ्यांत पयलीं हांवेन जीव बसींत घालून घेतलो. दुसऱ्या सिटार एक सुवात रिती आशिल्ली. पूण बशिल्ल्यो दोगीय बायलोच देखून हांव तिसऱ्या सिटाकडेन धांवलों. ताचेरूय एक सुवात रिती आशिल्ली. थंयच बसलों आनी हेरांक खंय - खंय सुवाती मेळटात तें पळोंवक लागलो. दादले आनी बायलो, चडशे सगळेच वेगवेगळ्या ऑफीसांनी काम करपी, सगळींच वळखिचीं तोंडां, सगळ्यांची एकूच झुंडी बसींत घालून घेताली. पुराय झुंडेंत म्हजी नदर ल्हेंवट्याचेर थीर जाली. ल्हेंवटो वयर चडलो तोच ताची नदर दुसऱ्या सिटावेले रिते सुवातेचेर पडली. तो थंयच बसलो आनी म्हज्या काळजांत कच्च जालें.

ल्हेंवटो लागींच्याच खंयच्यातरी ऑफीसांत काम करता. ताची आनी म्हजी वळख ना. पूण हांव ताका तोंडान वळखतां. ताच्या गुणांक लागुनूच ताका हांव बरो वळखतां. भरिल्ले बसींत पावलो म्हण्टकीत ताका कितें जाता तें हांव सांगपाक नकळो.

बायलो आनी चलयो दिश्टी पडल्यो म्हण्टकीत ताका सामकेंच चडून आयिल्ल्याभशेन जाता. मागीर बस मडगांवच्यान फोण्यां पावतासर तो ताका तेंकून आशिल्ले बायलेक वा चलयेक नाकां जीव करून सोड्टा. तांका घस्टप, तांच्या आंगार लकप, होच ताचो मागीर उद्देग. ह्या ताच्या सभावाक लागून हावेंन ताका ल्हेंवटो अशें नांव दवल्लां. ताचें खरें नांव म्हाकां खबर ना.

ल्हेंवट्याची म्हाकां सदांच तिडक मारता. केन्नाय उठून ताचेर सणसणीत दोन थापटां लावचीं असोय विचार तकलेंत येता. पूण राग येतकीत एक - दोन मिनटां चिंतपाची म्हाकां संवय! हाका लागून कुड्डेपणाचो आव हाडून हांव वगीच रावतां. दुसरे वटेन सगळें सोसून वगी रावपी बायलांचीय म्हाकां तिडक मारता. कोणीय तरी हाका एक फावट बरी बुदद् शिकोवपाक जाय अशें म्हाकां सदांच दिसता. कितलींशींच वर्सां जालीं हांव त्या दिसाची वाट पळयतां. पूण तो दीस उदेंकूच ना.

म्हज्या मुखावेल्या सिटाचेर म्हजी नदर थीर जाली. बायलांक तेंकून बसूंक मेळ्ळां हें पळोवन ल्हेंवट्याक जाल्ली धादोसकाय ताच्या मुखामळार दिश्टी पडटाली. ताका तेंकून आशिल्ले बायलेची खीणभर म्हाका काकुट दिसली. तिवूय खंयतरी कामाक वता आसतली. सोबीत मुखामळ. गोरीपिट्ट. दीसभर काम करून तिका पुरो जालां हें पळयतानांच कळटा. आंग सोडून ती सिटार बसल्या. तिचे दोळे धांपून येतात. खंयच्याय खिणांक तिका न्हिद लागूं येता. पूण पाड पडिल्लो हो ल्हेंवटो तिका न्हिद पडूंक दितलो? हें येवजून ल्हेंवट्याची म्हाका सामकीच तिडक माल्ली. पूण कांयच उपाय नाशिल्लो...

काकुट बाबडेची! ह्या खिणाक ती कितें येवजीता आसतली ताचो हांव वगीच तर्क करपाक लागलों. संवसार खूब मुखार पावला. पूण बायलांक फावो तितली मेकळेसाण मेळुंकना. बाबडेक ऑफीसांत दीसभर मरून उपरांत घरा वचून परतीय आनीक कामां आसतलीं. घोव आनी ती वांगडा घरा पावलीं जाल्यार तो आंगाचे कपडे काडून टी. व्ही. पळोवंक बसतलो. पायांर - पांय उडोवन सिगाराचो धुंवर सोडटलो. हिका बाबडेक घडये घरा वचून कपडे उमळपाचे आसतले, घोवाक उदक तापोवन दिवपाचें आसतलें, रांदपाचें आसतलें, तिगेल्या आनी घोवाल्या कपड्यांक फेर्र्र मारपाचें आसतलें. ल्हान भुरगीं आसल्यार आनीक कांय विचारूंकूच नाकां! तीं तिचो दीसभर काम करून उरिल्लोय जीव खावन उडयतलीं. 'मम्मी हें कर... तें कर. हें दी... तें दी' करून तिका नाका जीव करून उडयतलीं.

आनी तिगेलें ल्हान पाळण्यांतलें भुरगें आसल्यार? ती ताचेंच येवजीता आसतली.

पाळण्यांत पोर रडटा आसतलें. घडये ताका भूक लागल्या आसतली. दुदाक रडलें जाल्यार आवयबगर ताका आनीक कोण दूद दितलो?' भुरग्याच्या उगडासान तिचो जीव वयर - सकयल जाता आसतलो. केन्ना एक फावट आपूण घरा पावतली अशें तिका जालां आसतलें. तिचें भुरगें आतां तिका दोळ्यांसामकार दिसता आसतलें. घरा पावली म्हण्टकीत सगळ्यांत पयलीं ती पाळण्याकडेन धांवतली. तिका पळोवन पाळण्यांतलें भुरगें आपणाले कुकुले हात आनी पांय हालोवन हांसतलें...

"आल्ले शान्या!" म्हूण ताका ती धरतली. सगळो जीव दोळ्यांत हाडून ताची पापी घेतली.

"शानो लल्लो? शान्याक मम्मी शानून गेली?" अशें म्हुणून ताका ती घट्ट वेगेंत धरतली. उपरांत कांय खीण ती फक्कत आवय आसतली! फक्कत आवय... हेंच चित्र ती ह्या खिणाक पळयनां मूं? खीणभर म्हजीच म्हाकां लज जाली. ती कशीय आसूं तेवटेन म्हाकां कितें तें? पूण ह्या पाडपडिल्ल्या ल्हेंवट्याक लागून इतलें येवजलें!

खिणाभीतर म्हजें मन ल्हेंवट्याविशीं येवजुपाक लागलें. ल्हेंवट्याच्या मनांत कसले तर्क चल्ल्या आसतले हाचो हांव तर्क करपाक लागलों. वगीच ल्हेंवट्याचेर एक नदर माल्ली. पाड पडिल्लो सामको लेप कसो तिका तेंकून बसला. ताचे पांय म्हाकां दिश्टी पडनांत. पायांनी कसलो खेळ चल्ला देवाक खबर, जिवाक कसलेतरी त्रास भोगतात ते तरेन तो बशिल्लेकडेन हालता. एकसारखो उसउसता. तिच्या आंगार लकता... घडये तो येवजीता आसतलो... कितली सोबीत बायल! सामकी जायरातींतली मॉडेल कशी! असली बायल आपणाक मेळिल्ली जाल्यार? पाडपडिल्लेचो घोव नशीबवान. पूण ताका आटापाक येता ही बायल काय देवाक खबर. तिका आपणासारखो दादलो मेळपाचो. मागीर रातीचो दीस जातलो आशिल्लो. असल्या बायलांक खरें म्हळ्यार घरांत घालून पोसपाक जाय. पूण तांच्या घोवांक तकली आसूंक नाकां? अशें येवजीता आसताना घडये ताच्या ओठांर हालींच्या सिनेमांतलीं' पोजडीं' गीतां नाचतात आसतलीं. हो प्रवास केन्ना सोपचोच न्हय अशी ताची गत जाल्या आसतली.

खीणभर म्हजे मन ल्हेंवट्याच्या घराकडेन पावलें. वावराक गेल्लो आपणालो घरकार येतलो म्हूण ताची बायल बाबडी घराकडेन वाट पळयता आसतली. घडये ताचीं भुरगीय आसतलीं. तींय ताची वाट पळयतात आसतलीं. बसींत कोंबो कसो दिसपी हो ल्हेंवटो घराकडेन पावतकीत आपणालें रूपडें बदलता आसतलो. घडये आपणाक खूब पुरो जाल्ल्याचें नाटक करता आसतलो. बायल आनी भुरग्यांचेर वाजेता आसतलो.

आपणालीं सगळीं कामां तांचेकडल्यान करून घेता आसतलो. बायल बाबडी सावित्रीभशेन घोवाची सेवा करता आसतली. जोडकार न्हय तो! भायर कितले दिवे लायता तें तिका बाबडेक कशें कळटलें? आपणाल्या घोवाइतलो साव आनीक दुसरो दादलो आसपाचो ना अशें ती येवजीता आसतली. तो सांगता तें सगळें ती मोन्यांनी आयकता आसतली... परती म्हजी नदर ल्हेंवट्याचेर पडली आनी म्हाकां परतीय ताची तिडक माल्ली. उजवो हात वगीच शिवशिवलो...

दुसऱ्याच खिणांक म्हजे तकलेंत वेगळोच विचार रीगलो. आनी ती बायलूय तसलीच आसली जाल्यार? ल्हेंवट्याचो आनी तिचो धर्म एकूच आसलो जाल्यार? कोणाच्यान कितें करूं येता? दादल्याक बायलेविशीं ओड आनी बायलेक दादल्याविशीं दिसपी ओड ही सैमीक आसता.पूण आमचेर जाल्ल्या संस्कारांक लागून आमी ती चेपपाचो यत्न करतात. परकी बायलमनीस ही आवयभशेन आसता हाची शिकवण आमकां भुरगेपणांतसावन मेळटा. देखून अडेचो आव हाडून आमी जाता तितले बरे रावपाचो यत्न करतात. आमकां कोणीय देवमनीस म्हळे जाल्यार फक्कत शिंगां फुटपाचीं बाकी उरतात. हेचखातीर हें अडेचें आंगलें चडोवन आमी वावरनांत मूं? हातूंत दुबाव कित्याक आसचो?

तकलेंतल्या नव्या विचारांनी म्हजी नदर बदल्ली. ल्हेंवट्यावांगडा ते बायलेचीय म्हाकां तिडक माल्ली. बायलो सगळें सोसून ओगी रावतात देखून ल्हेंवट्याभशेन मनीस तयार जातात. ना जाल्यार जांवचे नाशिल्ले. तीं दोगांय एकामेकाचेर लकतात असो म्हाका खीणभर ओगीच भास जालो. ती ताका प्रोत्साहन दिता अशें वगीच दिसपाक लागलें. खीणभर म्हाकां दोळे फुटून दोगांचीय तिडक माल्ली. दोगुय एकेच माळेचे मणी अशें येवजून हांवेन दोळे धांपले.

येवजीतां येवजीतां केन्ना दोळो लागलो कळ्ळेंच ना. कांय वगत झांपडी लागली आनी हांव सपनांत शेणलो. सपनांत लेगीत परतीं तींच दिसलीं. तो ल्हेंवटो आनी ती बायल. तो सो तिच्या खांदार हात घालून भोवता. नवेंच जोडपें कशें. ती ताच्या कानांत कितें कितें सांगता आनी दोगांय घडये - घडयेक हांसतात. एकामेकाक मोड्टात. हांव सो तांची खबर तिच्या घोवाच्या कानार घालपाक रावलां. पूण पुरावो नाकां? वगीच सांगलें म्हूण ताचो विस्वास बसतलो? देखून हांवेन वांगडा कॅमेरा सो हाडला. वांगडाच फोटो काडुनूच व्हरून ताका दाखोवप. घे मागीर! तिका बरी फायरींग पड्टली. बरोच मार पडटलो. मागीर जिस्त जाग्यार येतली. घोवांक फटोवपी बायलांकूय बरी देख

ळटली... हांवेन खिणाचोय कळाव लायनासताना तांचोसो फोटो माल्लो. जाता तितले ाकतिकेन निवळावन घेतलो. तिगेल्या घोवाक सोदून काडलो. सगळ्यांत पयलीं ती ब्रबर हांवेन ताच्या कानार घाली. पूण तो कसोच मानपाक तयार जांयना जालो.

"म्हजे घरकान्नीचो म्हाका विस्वास आसा... तूं वगीच आमचे मदीं फुट घालूंक ळयता." - तो सो उलयलो.

" तुमचेमदीं फुट घालून म्हाकां कितें मेळपाचें आसा? तुमचो संवसार हांव केत्याक इबाडूं?" हांव सो ताका समजायतां.

"पूण कांयच पुरावो नासताना हांव म्हजे घरकान्नीचो दुबाव घेवपी न्हय. कोण तूं" - तो सो आपणाले बायलेचो पुराय विस्वास दिता. बायलेचेर इतलो विस्वास दवरपी त्या घोवाची म्हाकां तिडकशी मारता.

"हो घे पुरावो..." - म्हूण हांव डायरेंतलो फोटोसो काडून ताचेकडेन दितां. मागीर मात तो मोव पडटा. सामकोच रडपाकडेन पावता. जाग्यावेलोसो उट्ठा आनी हेवटेन - तेवटेन एकाच जाग्यार पासयो मारता. बायलशी ऑफीसांतल्यांन येवपाची जाल्या. बायलेक तो कसली ख्यास्त करता ती हांवसो पळोंवक रावलां. इतले म्हणसर बायल भीतर सरता. सामकी साव! कमरभर उदकांत बुडून सुकी काश्टी! तो तिका पळोवन दोळे तांबडे करता. सामके इंगळे कशे... हांवसो दोळ्यांत जीव हाडून ताच्या फुडल्या पावित्र्याची वाट पळयतां... आनी... ठाऽऽ' करून तो तिचेर एक फुलयता...

आवाजानूच म्हजे दोळे उक्ते जाले. सपन भंगलें. हांवेन मुखावेल्या सिटार नदर माल्ली. व्हदळची ती बायल जोत्याची व्हाण हातांत धरून थरथरत उबी आशिल्ली. ल्हेंवटो जाग्यावेलो उठून दाराकडेन धावतालो... निमाणेकडेन जोत्याची व्हाण ल्हेंवटयाच्या पोल्यार पडिल्ली. हांव वाट पळयतालो तो दीस उदेल्लो...!

# निश्टूर

कारगिलाचें झूज सोंपून एक वर्स उलगत आयिल्लें. लोकांनीं जैताचो सुवाळो मनोवन ती गजाल आतां इतिहासांत जमा जाल्ली. पूण परागाच्यो सगल्यो यादी ताज्यो आशिल्ल्यो. झूज कालूच जाल्ल्याभशेन ताका दिसतालें. आंगांतली दुखूय जायती जाणवताली. खाटीर पडिल्लेकडेन मात्सो दोळो लागलो म्हण्टकीत तो सपनांच्या मार्गान अचकीत झुजामळार पावतालो आनी पुराय रणखेव ताच्या दोळ्यांमुखार उबें रावतालें. मागीर वचत थंय कान फोडून उडोवपी बॉम्बांचो आवाज ...... आर्मांच्या गुळयांचो सूं..... सूं ऽऽ करून येवपी आवाज .....चोंयवशीन धुंवर आनी त्या धुवरांतल्यांन मदींच येवपी.... काळीज कोंचून काडपी एक एक जीवघेणी किळांच पूण किळांच कोणाची तें पळोवपाक फाटीं परतुपाक मेळनां.... आर्म घेवन झाडां - झुडपांच्या आड लिपत मुखारूच वच्चें पडटा .... आनी इतले म्हणसर कान फोडून उडोवपी एक बॉम फुट्टा... आकांताच्या बॉमाच्या स्फोटावांगडा पराग हवेंत वयर उसळटा..... आनी म्हण्टा म्हणसर घडायच करून सकयल जमनीर आपटता..... स्फोटांत ताचो एक पांय धडावेगळो जाल्लो आसता..... वेदनांनीं ताची कुड हुलपता..... सपनांत तो पुराय घामेता आनी अचकित जागो जाता. सपनाचें चिंतून तो खीणभर हुस्कार सोडटा. पूण आपणालो एक पांय शेणला हाचें ताका इल्लेंय दुख्ख जांयना. झुजांत मेळिल्लें जैतूच ताका व्हडलें कशें दिसता. देशाखातीर आपूण किदेंतरी करूंक शकलों हाचें ताका गर्व दिसता.

मिलिटरी हॉस्पिटलांत ताका कोणी आनी केन्ना पावयलो हें लेगीत परागाक खबर नाशिल्लें. सुमार पंदरा दीस तो शाबदीभायर आशिल्लो. तो शाबदींत आयलो तेन्ना ताचें पुराय आंग दुखीन सणसणटालें. हालप - धोलप निखालूस जमं नाशिल्लें. आपणाक खंय किदें जालां तें ताका सुरवातीक कळ्ळेंच ना. पूण उपरांत ताका एक एक गजाल कळपाक लागली. झुजांतल्या बॉम्ब स्फोटांत ताचो एक पांय सोमतोच निखळून पडिल्लो. एक हात सामको फाफसून गेल्लो, पूण धडावेगळो जांवक नाशिल्लो. ताचेर उपाय चालू

आशिल्ले. नर्सी येवन मलमपट्टी करताल्यो..... ताका वखदां दिताल्यो... जायते दीस वाचा नाशिल्ल्यान ताचो आवाज सामकोच बशिल्लो. झुजाचें मुखार किदें जालें तें ताका जाणा जावपाचें आशिल्लें. तशाच बशिल्ल्या आनी घोगऱ्या आवाजान ताणें एके नर्सीक विचारपाचो यत्न केलो...

'मागीर उपरांत किदें जालें?'

'खंय किदें जालें? ' - परागाच्या अचकित प्रस्नान नर्स बुचकळ्यांत पडली.

'झुजाचें म्हण्टा हांव'

'झूज सोपलें. आमीं जिखलीं नर्सीन दिल्ली खबर आयकून परागाक तेय अवस्थेंत खुशालकाय भोगली. जांव हात - पांय गेल्यार वचूं. झुजांत जैत मेळपाइतली खोसदिणी गजाल आनीक खंयची आसूं येता? ताका वगीच दिसलें.... ह्या खिणाक झुजाच्यो गजाली मारपाक कुशीक कोणतरी आसपाचो. ताणें आपणाल्या खाटेच्या उजवे आनी दावे वटेन कोण आसात तांची सुलूस घेवपाचो यत्न केलो. पूण मात लेगीत हालल्यार पुराय कूड रूंव कशी दुखताली. पूण जैताचे खुशालकायेंत ताका ती दुख तितली जाणवली ना. कुशीच्या खाटींचेर आनीक कांय जवान जखमी अवस्थेंत पडिल्ले. तांचीय गत परागाभशेनूच जाल्ली. कोणाचे पांय गेल्ले जाल्यार कोणाचे हात गेल्ले.कांय जाणांचे दोळे गेल्ले. परागान तांचेवसल्यान व्हडा उमळशीकेन पळयलें. पूण ते उलोवपाचे आनी गजाली मारपाचे अवस्थेंत नाशिल्ले. नर्सी आनी दोतोर येताले, वखद दिताले आनी खिणाभरयांत नांच जाताले.ताचेवांगडा उलोवपाक कोणाकूच फुरसत नाशिल्ली.

मिलिटरी हॉस्पिटलांत एकाच जाग्यार पडून रावून परागाची पुराय कूड भेरेल्ल्यावरी जाल्ली. आपणालो एक पांय गेल्ल्यान परतो आपणाक झुजामळार वचपाक मेळचेंना हें येवजून ताच्या जिवाक चड त्रास भोगताले. दीस जाल्यार कशेच पासार जांय नाशिल्ले. सगलेच दीस मुयेच्या गतीन येताले आनी मुयेच्या गतीन वताले. दिसपट्टे दोतोर ताका पेनकीलर दिताले. पूण दर दिसा दुख खरायेन जाणवताली. आपूण थंय झुजामळार मेल्लों जाल्यार ह्या त्रासांतल्यान सुट्टां आशिल्लो अशें वगीच ताका दिसलें.

मरणाचो विचार मनाक आफुडलो तसो ताका घरचो उगडास जालो. खरें म्हळ्यार झुजाचें किदें जालें तें मनांत येवचे पयलीं ताका घरचो उगडास येवपाचो. पूण तशें जालेंना तें येवजून परागाक आपलेंच अजाप दिसलें. कसलो विचित्र मनीस आपूण? घरचो उगडास जालो तशें ताच्या दोळ्यांमुखार रेश्मा उबें रावलें. रेश्मा ताची बायल. लग्न जावन दोन म्हयने जांवचे पयलींच कारगिलचें झूज पेटिल्लें. आनी मनांत नासताना

ताका भायर सरचें पडिल्लें. आई दादाचो जीव जाल्यार सामकोच परागाचेर आशिल्लो. व्हडले भयणीक लग्न केल्या उपरांत पराग एकटोच उरिल्लो. देखून परागाक तीं दोगांय मात्तूय पातयेंनाशिल्लीं. तो मिलिटरींत भरती जाता हें कळ्ळें तेन्ना जाल्यार ताणीं व्हडलो आकांतूच केल्लो. दोगांयनीय घर माथ्यार घेतिल्लें. तेन्ना परागान तांकां जायतो धीर दिल्लो-

'हें पळयात.... कांयच भिवपाची गरज ना.... मिलिटरींत भरती जालो म्हूण झुजांत वयचें पडटाच अशें ना. इल्ली कवायत करची पडटा तितलीच..... केन्ना केन्नाय एकाय झुजांत वांटो घेंय नासताना रिटायर जावपाचीय संदी मेळटा.... अश्यो कितल्योश्योच देखी आसात' - अशें सांगून परागान तेन्ना कसो तरी वेळ मारून व्हेल्लो. एके तरेन ताणें तांकां दोगांकूय फटयल्लींच म्हळ्यार जाता. हे गजालीचो उगडास जालो तसो परागान एक खोल हुस्कार सोडलो. आतां घराकडेन आपूण खंयच्या तोंडान वतलों हें येवजून तो खंती जालो. विजेचें शॉक कशी आनीक एक गजाल ताच्या मनांत जोगूल पेटोवन गेली. आपूण झुजामळार पडून अपंगुळ जालां ही गजाल अधिकाऱ्यांनीं घरा बी कळयली नां मूं? तशें जावपाक फावोना. ही गजाल तांकां कळ्ळी जाल्यार तीं आनीक जीव दवरपाचीं नांत. देखून ही गजाल जाता तितली गुपीत दवरपाक जाय. ती कशीच भायर फुटपाक जांयना. तसो रकाद दवरचो पडलो अशें येवजून तो नर्सीची वाट पळोवपाक लागलो.

नर्स लागसार आयली तसो ताणें नर्सीक उलो माल्लो...

'सिस्टर....?'

'किदें? उदक जाय?' अशें म्हणत नर्स लागसार आयली.

'सिस्टर, हांव असो अपंगुळ जालां म्हूण घराकडेन कळोंवक ना न्हय?' -

ताणें अचकीत विचारिल्ल्या प्रस्नान नर्स गोंदळ्ळी. खीणभर ताका किदें सांगचें तें तिका कळ्ळें ना. पूण दुसऱ्याच खिणाक ती सांगून मेकळी जाली.

'ना .... आमी तुमकां उपाय करतलीं... काय रकाद पावयतलीं?'

'तशें न्हय .... अधिकाऱ्यांनीं कोणीय पावयला आसत म्हूण?

'ना ...... ना.... तूं बिनधास्त राव ... कांयच चिंतपाची गरज ना .... हांव अधिकाऱ्यांक रकाद धाडटां अशें सांगून नर्सीन ताका कसोतरी समजायलो. पूण आपूण उलयल्या तें सारकें काय फट हें तिका खबर नाशिल्लें.

दुसरेवटेन परागाच्या जिवाक मात्शी थाकाय मेळ्ळी. मनीस आशेर जगता. आपूण आसां थंय बरेभशेन आसूं अशीं बाबडीं देवाकडेन मागतात आसतलीं. रेश्माचो

विचार परतो ताचे तकलेंत आयलो. बाबड्याक लग्नाची खुशालकाय सारकी भोगुंकूच मेळ्ळी ना. झुजाक लागून परागान ताका वांगडा व्हरूंक नाशिल्लें. ना जाल्यार ताका वांगडा व्हरपाचोय ताचो विचार आशिल्लो.

रेश्मा तागेल्या बापोलमामाली चली. खासा मामाली चली नाशिल्ली. आईन सामकोच हट्‌ट धरिल्लो भावालीच चली जाय म्हूण. खासा भावागेर चली ना म्हूण मागीर बापोलभावाची हाडपाचें थारायलें. पराग रेश्माक पयलींच वळखतालो. पूण एकामेकागेर येवप - वचप व्हडलेंशें नाशिल्ल्यान वळख तितली दाट नाशिल्ली. हाका लागून सोयरीकेन लग्न जांवचें तशेंच तांचें लग्न जालें. पराग थोड्या दिसांखातीर घरा आयिल्लो. तेन्ना आई लग्न जावनूच परतो वच म्हूण फाटीक लागली. परागानूय आईल्या सांगण्याक व्हडलोसो विरोध केलोना. रेश्माचें शिकप बी. ए. मेरेन जाल्लें. तें दिसपाकूय बरें आशिल्लें. लग्न जावन एक म्हयनोभर तीं जोडयेन खूब भोंवलीं. खूब उलयलीं. परागान मिलिटरीचो पेशा सोडून दिवचो असो रेश्मानूय हट धरिल्लो. ताणें परागाक समजावपाचो जायतो यत्न करून पळयल्लो......

'मिलिटरीचो पेशा बरो तितलो वायट .... केन्ना कसलें संकश्ट येयत सांगपाक जांयना' - रेश्मान म्हणिल्लें.

'हांव जाणा तें .... पूण आतां भीतर सल्लांच न्हूं.... म्हण्टकीत आनीक एक पांच वर्सां तरी थंय काडटां' - अशें म्हूण ताणें रेश्माक समजायलें. पूण जेन्ना कॅम्पांतल्यांन आपोवणें आयलें तेन्ना कसलो विचार करपाक फुरसदूच मेळ्ळीना.हेरां वांगडा रेश्माचोय ताकतिकेन निरोप घेवन तो वाटेक लागिल्लो.

खाटेर पडिल्लेकडेन येवजितां येवजितां परागाचें मन भुतकाळाचे वाटेन फाटल्या यादीनीं घुस्पतालें. ताचें बी. ए. मेरेन शिकप जाल्लें पूण खटपट करूनूय शिर्विशेचें खंयच जांय नाशिल्लें. देखुनूच ताणें मिलिटरींत भरती जावपाचो निर्णय घेतिल्लो. ताचो निर्णय ताच्या आईक आनी दादाक निखालूस पसंद नाशिल्लो. एकटोच पूत जाल्ल्यान ताणें घराच रावपाक जाय असो तांचो आग्रो आशिल्लो. पूण परागाक घरचीं कामां करपाक वाज येतालो. घरच्या कामानीं हातांत जाय तसो पयसो घोळना हाचो ताका अणभव आशिल्लो. दळडीर ना करतलो जाल्यार कसली तरी शिर्वीस जाय अशें ताका सदांच दिसतालें. कसलीय जांव ती मागीर. पूण असलें अपंगुळपण आपणाल्या वांट्याक येतलें अशें ताणें सपनांत लेगीत चिंतूक नाशिल्लें.

पराग अपुरबायेचो जाल्यान ताका तकालशीचें काम करपाची संवय नाशिल्ली.

देखून मिलिटरींत तो भरती जालो तेन्ना सुरवातीच्या काळांत ताका खुबूच त्रास जाल्लो. कवायत करून करून ताका खूब पुरो जातालें. पूण उपरांत संवय जातकीत तो थंय रूळपाक लागलो. झुजांत वांटो घेवपाची आपणाचेर केन्ना पाळी येतली अशें ताणें चिंतूक नाशिल्लें. सुरवातीक मिलिटरीचो पेशा म्हळ्यार ताका भिरांत दिसताली. निखटी ताका शिर्वीस जाय आशिल्ली म्हूण तो भरती जाल्लो. पूण जेन्ना ताचें मन थंय रमपाक लागलें तशी तशी ताची भिरांत उणी जावपाक लागली.... देशाविशींचो मोग ताच्या काळजांत किल्लुपाक लागलो. देशाखातीर आपणेंय किदेंतरी करपाक जाय अशें ताका एकसारखें दिसपाक लागलें. हाकाच लागून कारगिल झुजांत ताणें सगलें विसरून भयांविरयत वांटो घेतिल्लो.

आपूण अपंगुळ जांवचेपरस मेल्लों जाल्यार बरें जावपाचें अशें येवजिता आसतानाच एक दीस दोतोर दोन वॉर्डबॉयांक आनी कुबड्यो घेवन आयलो. त्यो कुबड्यो पळोवन परागाक रडपाक आयलें. पूण दोतोरान ताका थापटिलो आनी समजायलो.....

'हें पळय पराग .... असो निर्शेव नाका.... उठून उबो राव' - अशें म्हणून दोतोरान कुबड्यो ताच्या खाक्यांत तेंकयल्यो. फाटल्या दिसानीं दोतोर ताचेकडल्यान मात्सो मात्सो व्यायाम करून घेतालो. ताका लागून परागाचें आंग मात्शें सैल जाल्लें. कुबड्यांचो आदार घेवपाक ताका व्हडलोसो त्रास पडलोना.

कुबड्यांच्या आदारान पराग चलपाक शिकलो. मागीर खाटीर पडून रावपाक ताका वाज येवपाक लागलो. केन्ना - केन्नाय तो पयस मेरेन पासयेक वचून येवपाक लागलो. एकदीस जाल्यार कारगिलाच्या दोंगरामेरेन तो वचून आयलो. दोतोरावांगडा उलयता आसताना एकदीस ताणें अचकीत विचारलें...

'दोतोर, म्हाकां आतां डिसचार्ज केन्ना मेळटलो?'

आतां तूं बरो जालो.... जाय तेन्ना तुज्यान हांगासल्यान भायर सरूं येता.... गरजेच्यो फॉर्मेलीटीस जाल्यो म्हण्टकीत जालें.....'

'मागीर हांवेन वचपाचें कशें?'

कांयच भिवपाची गरज ना..... आमीं सगली व्यवस्था करतात'.

परागाक आतां घरा वचपाची उमळशीक लागली. केन्ना एकफावट घरा वचून सगल्यांक मेळटां अशें दिसपाक लागलें. दोतोरालीं सगलीं कागदां तयार जालीं म्हण्टकीत भायर सरपाक आनीक कळाव लावप ना अशें येवजून दोतोराक ताणें ते विशीं विचारलें.....

'दोतोर .....जालीं कागदां तयार?'

मात्शी अडचण जाल्या....' दोतोरान कपलार मिरयो घालून सांगलें.

'कसली अडचण दोतोर.....? परागान हुस्क्यान विचारलें.

'लिस्टांत तुजें नांव परेश म्हूण मेळटा.... पराग नांव खंयच ना.....'

'मागीर आतां किदें जातलें.....?'

कांय भिवपाची गरज ना..... वरिश्टांचो हांव सल्लो घेतां आनी सगलें जाग्यार उडयतां'... अशें सांगून दोतोरान ताका धीर दिलो.

दोन दिसानीं परागाचीं सगलीं कागदां तयार जालीं आनी ताका डिसचार्ज मेळ्ळो. ताचेखातीर खासा मोटारीची व्यवस्था केल्ली. दोगा जाणानीं ताका मोटारींत बसपाक आदार केलो. थंय आशिल्ल्या सगल्यांच्यो ताचेलागीं दाट वळखी जाल्ल्यो. तांचो निरोप घेता आसताना परागाच्या दोळ्यांत दुकां भल्लीं. ताचें काळीज जड जाल्लें. दोळे पुशीतूच ताणे तांचो निरोप घेतलो आनी मोटार सुटली.

घरचे वाटेचो प्रवास सुरू जालो आनी घराकडल्या हुस्क्याचें सांवट परतें ताचे तकलेंत देंवपाक लागलें. रेश्मा - आई - दादा सगलीं ताच्या दोळ्यांसामकार उबीं रावलीं. आपणाली अपंगुळ कूड पळोवन तांकां किदें दिसतलें? हें येवजुनूच ताका किदेंशेंच दिसपाक लागलें. मिलिटरींत भरती जावपाचो आपणालो निर्णय चुकिचो आशिल्लो अशें ताका वगीच दिसपाक लागलें. पूण दुसरेवटेन झुजांत आपणें केल्ल्या पराक्रमाचें ताका गर्व दिसतालें. थंयच्यान भंयान पळून गेल्लो जाल्यार तें भिजूडपणाचें जातलें आशिल्लें. कोणाकूय तोंड दाखोवपाक, लजेक म्हारग जातलें आशिल्लें. जालां तें बरें जालां अशें येवजून ताणें स्वताकूच समजावपाचो यत्न केलो. त्या भायर इत्सा आसून लेगीत ताका आतां परतो झुजांत वाटो घेवपाक मेळचो नाशिल्लो वा मिलिटरींतूय परतें वचपाक मेळचें नाशिल्लें. आतां घराकडेनूच बसून रावपाचें. म्हयन्या - म्हयन्याक जें किदें पेन्शन मेळटा ताचेर समाधान मानपाचें अशें येवजून ताणें एक खोल हुस्कार सोडलो.

दोन दीस वाटेर पेणीं करीत करीत मोटार निमाणें गावांत पावली तेन्ना आमोरेचो वगत जाल्लो. घरांनीं लायटी पेटपाक लागिल्ल्यो. रस्तो परागाच्या घरामुखावेल्यानूच वतालो. घरासामकार पावतकीत ताणें मोटार थांबोवंक लायली. मोटारींतल्यांनूच ताणें घरावसल्यान नदर माल्ली. खीणभर तो हें आपणालें घर काय आनीक कोणाचें ह्या गोंदळात सांपडलो. घराची सामकीच दुर्दशा जाल्ली. ड्रायवरान ताका हात दिवन मोटारींतल्यांन सकयल देंवयलो आनी कुबड्यो धरपाक आदार केलो. कुबड्यो खाक्यांत आयल्यो तसो तो कुबड्यांचेर धांवत कसो घराच्या आंगणांत आयलो.

घरांत लायट पेटोंवक नाशिल्ल्यान सगल्याक काळोख पातळल्लो. परागान आंगणांत रावून उलो माल्लो....'

'आई ऽऽ ......'

'कोण रे ऽऽ 'दादा चवकेरूच काळखांत बशिल्लो. ताचो आवाज सामको म्हाताऱ्या मनशाभशेन जाल्लो. पूण पराग तो वळखलो.

'दादा हांव आयलां ऽऽ......'

'कोण ? पराग ऽऽ' अशें म्हूण ताणें लायट पेटयली. ताचो खीणभर आपणाल्य दोळ्यांचेर विस्वास बसलो ना. तो कितलोसो वगत ताका खोल गेल्ल्या भितल्ल्य दोळ्यांनीं पळयत रावलो....

'दादा किदें पळयता असो?.... एक पांय गेलो म्हजो.....'

'पुता म्हज्या.... तूं जिवो आसा...?' - अशें म्हणून दादान ताका वेंग माल्ली तांच्या बोवाळान आई भितल्ल्यान धांवून भायर आयली. तिचें रूपडें पळोवन परागाक सामकीच हामेर फुटली. आई आनी दादा सामकींच जड्डीं जाल्लीं. दोगांय ताका वेंग मारून रडून दुखां गळोवपाक लागलीं. कांय खीण रडून जातकीत आईन दादाक अचकीत प्रस्न केलो -

'पळय हांवेन सांगूक नाशिल्लें..... बाबाक कांयच जांवचें ना म्हूण.....?'

'किदें उलयतात तुमीं आई....?' परागान गोंदळून विचारलें....'

'झुजाच्या दिसानीं एक तार येयलेली.... ती वायट खबर घेवन....' दादान सांगलें.

'कसली वायट खबर?'

'झुजांत तुजें वायट जालें म्हूण.... पुता ती खबर आयकोन आमचेर सामकेंच मळब कोसळ्ळें रे ऽऽ ....'

'मागीर किदें जालें......?

'मागीर किदें जातलें.....? पंदरा दीस आमीं शाबदी भायरूच आशिल्लीं... कुडीविशीं लेगीत वासपूस करपाचो धीर आमकां जालो ना..... शेजाऱ्यानींच आमका सांबाळून दवरलीं....,

'आनी रेश्मा खंय......?' परागाक केन्ना एक फावट रेश्माचेर नदर घालत अशें जाल्लें पूण ताणें तशें विचारिनाफुडें आईन आनी दादान दोगानींय नदर जमनीर थिरायली. तें पळोवन परागाच्या काळजांत खप्प जालें.

'दादा रेश्मा खंय....? ताणें परतें विचारलें.

'तें गेलें....' दादान तुटक जाप दिली आनी फाट फिरायली.

'खंय गेलें.......?'

'तेज्या तोंडाक लागली चुट्‌टी.... तुजें वायट जालें म्हूण सरकारान तेज्या ांवार पांच लाखांचो चेक धाडलेलो..... तो घेवन तें तीन म्हयने भरचे पयलींच पळोवन ालें.... कोणावांगडा तरी परतें लग्न जालां अशें लोक उलयतात'..... दादान रागाभरशी ागाक सगलें सांगलें. तें आयकून परागाच्या दोळ्यांमुखार काळोख आयलो. रेश्मा रतें मेळपाचें सोडूच पेन्शन मेळपाचीय आशा आतां पालवळी. आपणाचेर अख्खें मळबूच ोसळोन पडलां असो परागाक भास जालो. आपणाल्यो कुबड्यो कोणतरी वोडून ाडटा अशें ताका दिसपाक लागलें. कुबड्यांवयलो ताचो तोल गेलो आनी घडायच रून तो जमनीचेर कोसळ्ळो.

'रेश्मा..... तूं इतलें निश्टूर कशें जालें गो......?' अशें म्हूण ताणें एकूच हामेर ाळी.....



## भालचंद्र गांवकार

कथा आनी कविता सारक्याच समर्थपणान बरोवपी भालचंद्र गांवकार म्हळ्यार कोंकणी सरस्पतेक पडिल्लें आनेक म्होंवें सपन. ताचेकडेन लालित्य आसा, भास आसा, निरिक्षण शक्त आसा आनी नव्यो मुळाव्यो बीजसंकल्पना आसात. 'आडवणांतले उले' कानार पडटात थंय आसात ताचे 'अंदल्ले उस्वास' मेकळे जाले. 'यादींचे देगेर' उपरांत आतां 'दोंगराचे आवंडे' येतात. भालचंद्रान साहित्याच्या मळार पावली मारल्यार आजून वीस वर्सां जावंक नात. आतांमेरेन ताच्यो पन्नास सुमार कथा आनी संखेनी कविता उजवाडाक आयल्यात. ताका हांव बहुप्रसव म्हणचो ना. पूण ताचें साहित्यिक योगदान तोखणावपासारकें खातरीन आसा. अस्सल वज्रां ताचेकडेन आसात म्हणपाचें ताच्या कथा – कवितांवयल्यान जाणवता.

– दामोदर मावजो

ISBN 81 - 88202 - 05 - 3

मित्र प्रकाशन

२००३